पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशे दाखयलाँ. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळ्याँत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.

नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.

# दोन दंगाळी भात

बरोवपी

तकषी शिवशंकर पिळ्ळा

अणकारपी

आर. के. राव



साहित्य अकादेमी

*Don Dangali Bhat* (दोन दंगाळी भात) : Konkani translation by R. K.Rao of Thakazhi Sivasankara Pillai's Malayalam novel *Rantitangazhi*. Sahitya Akademi, New Delhi (1989), Rs. 35.


First Published : 1989

SAHITYA AKADEMI
Head Office :
Rabindra Bhavan,
35, Ferozeshah Road,
New Delhi 110 001

Sales Department :
Basement in 'Swati',
Mandir Marg,
New Delhi 110 001

Regional Offices :
172, Mumbai Marathi Grantha
Sangrahalaya Marg, Dadar,
Bombay 400 014

29, Eldams Road,
Teynampet,
Madras 600 018

Block V-B,
Rabindra Sarobar Stadium,
Calcutta 700 029

Printer :
Dnyan Mudra,
C-39, Royal Optical
Industrial Estate,
Naigaum Cross Road,
Wadala, Bombay 400 031

मोल : 35 रूपया

# दोन उतरां

केरळचे लोकप्रिय कथाकार आनी कादंबरीकार तकषी शिवशंकर पिळ्ळा हांची 'रंटीटंङषी' ( दोन दंगाळी भात ) कादंबरी मलयाळम साहित्यांतली सर्वमान्य एवं श्रेष्ठ कलाकृती आसा. मध्यकेरळचे चिकलट प्रदेश कुट्टनाटचे शेतमालक आनी शेत मजूर हांचे मदें सामंतवादी पद्धती चलताली. ती बदलून मितव्ययाचे मजूरी पद्धतीची अर्थव्यवस्था थंय शुरू जाली. तत्कालाचे भूंयहीन शेत-मजूरांचे दुखान आनी कष्टान भरलेले जीवनाचे सजीव चित्र ह्या कादंबरींत व्यक्त केलां, म्हळचार तकषीन ह्या कादंबरींत प्रतिदिवस दोन दंगाळी भात मजूरो मेळचे दुर्बळ मजूरी वर्गाचे नैतीक आनी भौतीक जीवनाचे प्राभावीक चित्रण केलां.

कठीन परिश्रम केल्यारीय शेतमजूरांक पोट भरचाक आशिल्लें मेळना जालें. सामंतपद्धती कालाचो गुणांशून्य ना जालो. शेत मजूरांचेर शेतकारांचे हृदयात दया, माया, स्नेह, सहताप इत्यादी मनीशपणाचे भाव ना जाले. मात्र न्हय, तांकां तांचे धान्याची कोठी भरची एक मात्र चिंता जाली. शेतमजूरां करान रातदीस धंद काडोवन तांचें शोषण करन स्वयं लाभ घेवन शेतकार स्वार्थी आनी सुख समृद्धीचें जीवन करताले. ही स्थीती समजून मजूरवर्ग जागो जालो. संगठन चलोवन शेतकारांचे अन्यायां आनी अत्याचारां सून मुक्ति पावंचाक तांणी संघर्ष केलें आनी जय पावले. हीच रंटिटंङषीची कथा.

कुट्टनाटचे भूंये वयल्यान पंपा नांवाची न्हंय व्हावंता. ती वेंपनाट झीलांत मेळता. त्या वेंपनाट झीलांत शेंमर वर्ग मील पतळून पळळेली, उदक भरन आशिल्ली 'कुट्टनाट' दलदल भूंय आसा. केरळांत ही भूंय भाताची कोठी म्हणून प्रसिद्ध आसा.

कुट्टनाटचे शेतांत केन्नाय उदक उरता. शेतां-मजूराचे परिश्रमान त्या प्रदेशांत रेंवं आनी चिकोल घालन भूंय निवास योग्य केली. एक एक भूभाग एक एक द्वीप समान लागता. मंचवाचे सहायान लोक आळतां पेळतां येवन वतात.

ह्या भू प्रदेशांत शेतकरी करचाक भो कष्ट आनी परिश्रम कडचे पडतात. अगहन म्हयन्या सून चैत मरान शेती कार्य चलता. पावस रीतुचे उपरांत उदक भरन आसचे आट–घा वर्गमील जागो शें दोन शें एकड भूंय करन वांटून तांचे भोंवं-तणी बांद बांदतात. बांद दोन–तीन फीट रुंद उरता. वांटपाचे मदें एक तान तोंड उरता. बीं घालचे फूडे शेतांसून चक्र या बिजली इंजनहांचे सहायान उदक ह्या तोंडात धाडतात. असले शेतांक "पुंचा शेत" म्हणतात.

केरळचे शेतांत काम करपी 'परया' आनी 'पुलया' जातीचे लोक आसात. हांच्यो दादले–बायल्यो शेतांत कठीन काम करतात. समाजाचे दूसरे लोक हांकां अस्पृश्य (अछूत, हरिजन) मानतात. शेतकार शेतांत काम करनात. ते शेतमजूरां करान शेतात कृषि कार्य करयतात. मजूर तांकां 'तम्पुरान' (खोत) म्हणतात.

परणे परंपरेक अनुसरून एक एक परया या पुलया कुटुंब एक एक शेत-काराचे 'दास' उरता. अशी मानपाक तांकां व्हड अभिमान आसा. त्या कालाक शेतकार आपणालो दासांचे जीवनांत, तांचे सुख–दुखांत समान भाग घेताले. पण मागीर तो संबंध ना जालो. ते आज दिसान दीस मजूंरी घेवन जीवन करचे शेत-मजूर जाले. त्या कालाक शेतमारांचे शेतांत एक वर्साक काम करची एक करार पद्धती आशिल्ली. ताका मलयाळीत 'ओणप्पणी' म्हणतात. आनी त्या मजू-राक 'ओणप्पणिक्कारन' म्हणतात. त्या खातीर शेतकार ताका गरजेचो दाम आनी भात दिता. वर्साचे आखीर हाचो हिशोब जाता.

असले करार मजूराक प्रतिदिन 'दोन दंगाळी' भात दिवंची प्रथा आशिल्ली. कादंबरीचो नायक 'कोरा' असलो एक करार मजूर आसा. 'दोन दंगाळी भात' ह्या बुधवंत मजूर कोराची कथा. आपणान शेतांत काम करन पिकयल्या भाताचो एक चुरूट (Sheaf) आपणाले पोटाची भूख निवोवंचाक घेवन वचे वेळार शेताचो धनी ताजो विरोध करता. ताका लागून कथावस्तुचो विकास जाता.

एक कुशल कलाकार आशिल्यान 'तकषीन' परया–पुलयांचे जीणेचे निकट निरीक्षण परीक्षण करन आपणाली अनुभूती ह्या कादंबरीत चंदरूपान अंकित केल्या.

कादंबरीचे वातावरणाची एक झळक तशीच दिवपाखातीर मूल ग्रंथांतले

शब्दच प्रयोग केल्यात. तरीय ह्या शब्दांची परिभाषा त्या त्या पानार सकळ दिल्या.

मलयाळम वर्णमालेंत स्वर–व्यंजन क्रम नागरीवर्णमाले समान आसा. पण एक दोन अक्षरां नागरींत नात. तांतलें मुखेल अक्षर आसा 'प'़ (ष). हाचे शुद्ध उच्चारण 'ष' अक्षराचे उच्चारणाचे भो निकट आसून हें अक्षर 'ष'चे सकल बिंदु लावन 'ष़' अशी प्रयोजनाक हाडलां. कादंबरीचें मूलनांव 'रंटिटंडषी' आनी लेखक शिवशंकर पिल्ळा हांचो जल्म गांव 'तकषी' ह्या उतरांत ह्याच अक्षर 'ष़' चो प्रयोग जाला.

'इटंङषी' हो मूल मलयाळी शब्द. केरळचे कोंकणी समाजांत ह्या शब्दाचें तद्भव रूप "दंगाळी" चो भो चढ प्रचार आसा. देकून कादंबरीचे मूल नांव 'रंटिटंडषी' चें भाषांतर 'दोन दंगाळी भात' म्हणून केलां.

कोचीन, केरळ, 10 जून 1987. **आर. के. राव.**

# पयलो भाग

## एक

त्या दीसाय एट्टिल घराकडे चेडुवाक पळवं-
चाक मनीश आयलो. त्या म्हयन्यांत तो
चौतो मनीश आशिल्लो. तो निलंपेरूरकार.

पयलो आयललो मनीश चेडुवाचे बापान मागलेलें भात आनी दाम–दुडू दिवंचाक तय्यार आशिल्लो. परंतु चेडुवाक चेडो मान्य जालो ना. दुसरे आयलेले मनीश, भाताची आनी दाम–दुडुवाची चेडुवाचे बापसूची मागणी, प्रचलित रीती पाशीय भो चढ जालेल्यान चेड्याचे बापा लागी तर्क जावन झगडून परतून गेले. चेड्यान म्हळें खंय, "माका तीच चेडूं पूरो, न्हय जाल्यार हांवें व्हरडीकच करना" ताका लागून चेड्याचे बापान सोपूत घालो खंय," माजे चेड्याक चेडूं मेळें ना जाल्यारीय हें चेडूं नाका." तेन्ना चेडुवाचे बापान एक आमडव आमुडले खंय! चेडुवाचे बापाचे मागणीक अनुसरून भात आनी द्रव्य दिवंचाक नातिल्यान तिसरो परतून गेलो. आतां चौतो आयला.

विरुता–चेडुवाचे नांव हें–तिका व्हारडीक करचाक अशी चेडे येतात म्हण कांय अजाप दिसचें नाका. चांग चेडूं. सुंदर आनी बुधवंत. काम करचाक दाष्टीक. चांग आरोग्यवंत.

शेतात थांब खेळोवंचाक, बीं घालचाक, मात्र न्हय पुंचा शेतांत* कसलेंय काम करचांत–तिकां जिकचाक, कोणेय दुसरें चेडूं ना. मात्र न्हय, तिजे समान लुवंच्यो दुसर्यो बायलो नात. लुवणी वेळार फाले–फाल्यार व्हीळोय

* उदक रावचें शेत.

घेवन शेतांत कांतीर देवल्यार सांजवेळा लुयलेलीं भाता–कणसां एकठांय करचे वेळार मात्र ती शेतांत सून ऊंच येताली. तशी बान्धाचे दोनीय तांत भाता–कणसांचे काट कांतीन पडतले

शेतांतलें काम मात्र न्हय, घरचें काम करचाकय ती दाष्टीक आशिल्ली. जो कोणेय तिका व्हारडीक करता, ताजे कुटुंब उपाशी पडचें ना.

धूवे खातीर जेन्ना चेड्यां मागशी चेडे येवंचाक लागले, तेन्ना 'हें एक म्हारग वस्तु' अशी तिजे बापाक दिसलें. कितलोय चढ दाम मागिल्यारीय मेळतलो. तशी तिजे मोल दिसान दीस चढत आयलें.

आनी एक खबर लागेन. ती घर सोडून गेल्यार थांगाचीं कायरीं घुसपतलीं. तिजी व्हारडीक करन धाडचो समय नीट करून व्हरचाक काळी परया * तिजो बापा–तो नेणतांच प्रयत्न करतालो. पण कुञ्जाळी–तिजी आवय तिका तें सहन जाले नां. कोणेय आयल्यारीय हो तांकां झगडावन परतून धाडता. एकल्याक सांगून धाडल्यार, आनी येतल्याकरान व्हारडीक करयतलो म्हणती आंवडेताली. तेंवंय ना.

जेन्ना निलंपेरूरकारीय कोपान गेले. तेन्ना तिका क्षमा ना जाली. तिजी जीभ हालुक लागली.

"अरे, हें कसलें? आयल्ली आयल्ली सोयरीक अशी परतून धाडल्यार,–तुमी कितें लेकतात? चेडूं अशी रावल्यार पूरो?"

घराचो नाथ काळी न्हय? ताका थोडे अधिकार आसात. त्या लेकान ताणे म्हळें:

"माका कळता, गो, जाय जालेलें करचांक."

कुञ्जाळीक कोप आयलो.

"कितें कळता?"

"आगो, माका मेळका जालेलें भात आनीं द्रव्य मेळनातिल्लें चेडुवाक हांवें व्हारडीक करन दिवना. हांवें मागचें दीवन चेडुवाक व्हरच्या चेड्याक कांय नुकसान जावना."

"हांवें कितेंय म्हळचार! धुवेन धंद करन हाळेलें खावंचाक बेसला ?"

---

* परया आनी पुलया, हे केरळचे शेतांत काम करचे दास लोक.

हें आयकचाक काळी परयाक कोप आयलो, आनी तिका मारचाक थांगा पळेलें एक आढें उबारलें. कुञ्जाळी दूरा सारली.

त्या दीसा काळी परया आनी कुञ्जाळी परयी—हांकां दोगांकय व्हड झगडें जालें. काळी परया दोन दंगाळी* भात पुटियांत घावलन घेवन भायर गेलो. आनी स्वल्प जावन परतून आयलो. तेन्ना झगडें व्हड जालें. कुञ्जाळीचे धिक्कारा आनी गर्वा पासून ताका म्हस्त सांगचाक आसा.

"आगो, न्हय जाल्यारीय चीमान्नाचे परया लोक चढान चढ दुष्ट आसात."

आपणाले कुटुंबाक पासून सांगचाक कुञ्जाळीक तें सहन जालें ना.

"मागीरी, सूर पीवन कितेंय सग सांगल्यार?"

मागीरीय झगडें जून जाता देखून चिरुतान म्हळें: "हें कितें आवयगे, तुजी जीब तोण्डांत दवरन नुनोच बैसचाक जायना? बापाक दिसल्लें सांगो."

उपरांत दोगांकय ताकीत दीवन तिणे म्हळें. "मागोले खातीर मागोलें कायरें काडून कोणेय झगडचें न्हंय "

दुसरे दिसाकय एक सोयरीक आयली. चेडो इट्टुकेट्टु घरचे वेळुत्ता हाची पूत कोरा.

कोरा तेग चौग जनांकय घेवन आयला. ते कित्याक आयल्यात, हें सांगनातिल्लेंच काळी परयाक मनांत जालें. तो गौरव घरन बैसलो. ती ताजी रीत.

कोणेय कांय उलोव नातिल्लें स्वल्प समय गेलो. सगटां पाशीय मागशीं रावल्ले कोराची दृष्टि खोंपियेचे दारांतल्यान भीतर घावली. रांदणी परलांत सून उठावन चिरुता दारा लागी आयली. ती चिके हासलीसी कोराक दिसलें.

सोयर्यांत एकल्यान विचारलें: "मावा, वळकना?"

काळीन गौरव सोडनातिल्लें म्हळें "ओहो, वळकता."

दुसर्यान निमगलें: " आवय हांगा ना?"

"ऊम".

"चिरुता चेडूं?"

"आसा."

---

* फारो, दंगाळी, अखळ, शोळशी—हीं केरळांत भात, दाळ, गोंव आदि धान्यां मोवपाक उपयोग करचीं मापां. फारो=१० दंगाळी, दंगाळी=१ शेट; ४ अखळ=१ दंगाळी; २ शोळसी= १ अखळ.

तितलेंच जावंचाक काळीक दिसलें कि सोययांक सतकार करची गरज आसा. ताणे एक–दोन तडकां विस्काळावन घालीं आनी म्हळें "बैसा, बैसा, रावचें कितें?"

ते बैसले. काळीन भीतर चोवन म्हळें :

"आगो चिरुता चेडुवा?"

"कितें बापा?"

"ती फडचाना पटळी घेवन यो गो, पुता."

आनी काळीन सोययांक म्हळें : "हांगा हाचे व्हड खर्च आसा. प्रति दिवस हांगा पाच स जनां चेडुवाक पळवंचाक म्हण येतात. सगटांकय फडचात खावंचाक पुणीय दीवुक जाय नय?"

सोययांत एकल्यान म्हळें : "आमचेकडे आसा."

चिरुता फडचाना पटलीय घेवन भायर आयली. तिजें तोण्ड लज्जेन, ताम्बडे जावन आशिल्लें. कोरा आनी चिरुता, हांणी दोळे मारले. पण तें कोणेय देखलें ना. तिणे विचारलें :

"एं, हें कोण? आपापा न्हय? कोणेय दुसरो आसतलो म्हण हांवें आठयलें."

कोरान हाजी–जाप दिली : "येवंचाकच हांवें पळयलां. आवय खंय?"

"आविय पन्तळिक्कुन्नम–घराक गेल्या."

स्वल्प जावन तिणे विचारलें : "आपापाक इतली कमजोरी कितें ?"

"दुर्भिक्ष न्हय गो!"

चिरुता भीतर गेली. तेन्ना काळी परयान सोययांकडे गजाली मारुक शुरू केलें. तें तांणी आयल्ले कार्यांत सोपलें. कोराक चिरुताक व्हारडीक करचाक जाय. त्या खातीर ते आयल्यात.

काळीचें तोंड एक लागेन फुगलें. ताचे गौरव वाढलें. ताणे म्हळे :

"हांवें सांगल्यार झगडें जाता. कोणाक लागना."

"तें कितें भावा ?"

"तें तशी. पूरा 'स्त्रीधन' घेवनातिल्लें. हांवें चेडुवाक देवोवन दिवना. तें तुमकां दिवंचाक जावना."

"म्हण तुमी कशी मनां केलें?"

"तें तशी धा फारे भात आनी धा रुपया—हाका हांवें चेडुवाक देवोवन दिवना."

दुसर्यान म्हळें : "स्त्रीधन दीवनातिल्लें चेडुवाक व्हरचाक आमी आयलेनात."

"तेंच हांवंय म्हणतां. परने कालावरी फुंकी दुडुवांक चेडुवांक मेळचीना."

"स्त्रीधनाक एक मर्याद आनी ना की?"

"मर्याद निमगचाक तुमी आयल्यात??"

काळीय आपणालें जनांय झगडून वचोत की म्हण कोराभियेलो. चिरुताय उत्सुकतायेन कवडाचें आड रावलेल्ली. तेन्नाय तांचे दोगांचेय दोळे मेळळे.

"तुमी एकमेक कित्याक झगडतात?" ताणे काळीक विचारलें : " आपा! आपाक कितलें द्रव्य स्त्रीधन जावंका?"

ताजे घययांक चिरुतान मोल दवरलें. सवाल तिका बराबर दिसलें.

कोराची ही प्रवृत्ति कोराचे आपयाक रुचली ना. चेडुवाक पळोवंचाक आयल्ल्या चेड्याक स्त्रीधनापासून उलोवंचाक हक ना. चलवणीक आड आडकळी घालचें धिक्कार जाता. ताणे कोपान, रागान म्हळें : "तर तूंच चेडुवाक कबूल कर. आमी कित्याक आयल्यात? आमी वतात."

तो उठायलो. कोराक अंकलाप जालो. ताजो आपपा उठावन चल्लो. काळीन म्हळें :

"हांवें चेडुवाक दीवन धाडका जाल्यार पन्नास रुपया आनी पंचेवीस फारे भात मेळुंक जाय."

हें आयकचाक कोराची आपपा घूवन रावलो. "कितें रे सांगता? हो खंयचो न्याय? हाका जाय दिली ना जाल्यार उसरमेट येतली. ह्या चेडुवाचे आवयक हाडचाक तुवें कितलो दुडु स्त्री धन दिल्लो रे??"

काळीक हाका जाप दीवुंक आशिल्ली. "ह्या चेडुवाक तुमकां जाय जाल्यार भातय द्रव्यय दीवुंक जाय."

"द्रव्याची व्हडवोकाय आयकून कोराचे मनांत गोंदोळ जालो. त्या वेळारीय तो आनी ती दृष्टीन सवाल—जवाब दितालीं. ती मागणी भो चढ जाली. तुतली तांक ताका ना. ती कांय पुणीय ऊणे करचाक सांगल्यार—काळी निपट 'ना' म्हणतलो. मात्र न्हय, ती मागणी करचो अधिकार ताका ना.

तितलेंच न्हय, ताजा चढ द्रव्य दीवन तिका व्हारडोक करन व्हरचाक चेडे

आसतले. तिका व्हारडीक करचाक ताका नसीब ना! . . .काकुळतकायेन ताणे तिका पळयली. . .ताजे मनांक आशा दिवंचे गदी ती मंद हासली.

चूक करवी जाल्यार जावो. आपपा कोपता जाल्यार कोपो. कोरान धयर्यांन म्हळें :

"आपान मागचें स्त्री धन हांव दितां पण चैत्र मासाचे उपरांत मात्र दुसर्‍याक चेडुवाक दीवू म्हण उत्तर दिवंचे."

"फा! उसळ रे गांडू!" ताजे आपपान ताका आमुडलो. कोरा भियेलो. आपपा देवन गेलो. ताजे असल्या निर्लज चलवळींत ताका भाग घेवंची इच्छाच ना. कोराक ताजे लग्नाचो निर्णय स्वयं करुंक जाय म्हण आशिल्लें जाल्यार आपणाक कित्याक उलो दीवन हाळो? आपपाक व्हड अपमान जालो.

काळी परयान ती व्यवस्थाय स्वीकार केली ना. पिराय जालेले चेडुवाक साबार दिसांक घराक राबोवंचें ताका साध्य न्हय. जो ताची मागणी पूरा करन चेडुवाक व्हरचाक पयले येता ताका तो चेडुवाक दितलो.

काळी परयान निपट म्हळें :

तरीय चिरुताचे विशाल नीळ दोळे ताका आशा दिताले. चैत्रमास पर्यंत ती ताका इन्तजार करतली.

# दोन

चिरुताक व्हारडीक करचाक कोण कोण येतात हें कोरा जाण जातालो. कांय जनां राजी जावन परतून वतात. पण लग्नाचो निर्णय जायना.

एक पावटी ताबका दिसतालें कि चिरुता ताका अनुकूल आसा. ता जे कारण तिजी दृष्टि आनी हास आशिल्लें एक एक पावटीय तिणे सांगून दीवन आपण जाप दितालों म्हण ताका दिसतालें. परत येवंचे वेळार तिणे कांय इशारो केलो न्हय?

परंतु थांगा एक नवी तण्टा जाताली. चंपक्कुळम गावंचो चात्ता, हाणे कुञ्जाळी परयीक हातां केल्या. द्रव्य ऊणे जाल्यारीय चेडुवाक ताका दीवन व्हारडीक करचें म्हण. तिजी इच्छा. चिरुतान हाचे अनुकूल कि प्रतिकूल काय म्हळें ना. चात्ता पयर्यान पयरो थांगा येता.

कोराची अवस्था आतां येणें बांय तेणे न्हंय अशी जाली.

फूडे वर्सा चैत्र मासांत चोवीस सास फायचे शेतांत तो लुवंचाक गेलला. तोवय चिरुताय लागी लागीचे बान्दार रावताली. लुवण जावं पर्यंत तीं दोगंय शेतांत लागीचेच फांतीर रावून लुयतलीं. तांणी तांणी लुयलेले * चुरुटखळार लागी लागीच दवरलेले.

कसले आनंदाचे दीस आशिल्ल ते! आळतां पेळतां बोलून लुयतालीं आनी शेतांत सून येतालीं. तो एक हासगूळी आशिल्ली. कितेंय म्हळचाशीय ती हासतली. चिरुता रातचे जेवणाक कसलीय रावन्दय केल्यार ताका दिताली...तिजे चुरु-

---

* कणसांचो काट

टाक चांग चंदाय. तो दुसर्यांचे चुरुटा पाशीय व्हड आसा. मजूरी तिका सगटां पाशीय चढ मेळताली. तिजे व्हण्टीसून कडीपान काडून ताणे खालेलें आसा.

त्या दिसांकडे कोरान तिकाच आपण व्हारडीक करतलों म्हण निश्चेसिल्लें. ताजे लागी उलोवंचे वेळार मंद मंद हासले बगैर तिजान उलोवंचाक जायना आशिल्लें. तिजी सहज लज्जा ताजे सन्निधीर तिजी शोभा वाढयताली.... तिजे गोवंटे खाल स्तनां शुरू जावंचेकडे एक काळो तीळ आसा. तिजे गालांक शोभायेचे तिब्यासारके दोन खळगे आसात. त्याच दिसा तिका विचारून व्हारडीक निश्चय करका आशिल्ली.

त्या लुवणोक चात्ताय आयल्लो. तो तिजेर दोळे दवरतालो म्हण आतां कोरा उडगास करता. केन्नाय थांगा वचून तो तिका उपून घेवन वचत की? आवय ताका अनुकूल आसा....तो आपणाक अनुकूल आसा. जाल्यारीय बापाचे आज्ञेक प्रतिकूल रावचाक जातलें?

काळो त्या दिसा ताजेर कोपलो? म्हण कोरा उगडासून चोयलो. त्या मूर्खाचे कार्यापासून कांय निश्चय करचाक जायना.

पन्नास रुपया आनी पंचेवीस फारे भात! एक चेडुवाक इतलेंच चढ अन्दण दीवन व्हारडीक केलेली जावन कोणेय सांगून आयकल्लें सरी ना. चैत्र जाल्यारीय इतलोच दाम हातांत आसतलो की? आसतलोच म्हणयां. मागीरी? काम कांय नातिलें, उदक भरलेल्या पावस कालाचे श्रावण–भाद्रपद म्हयनांत कितें करतलों? हातां आशिल्लें धन खर्चून व्हारडीक केल्यार ती सयत उपाशी पडका जातलें.

कोरान कशीय पन्नास रुपया आनी पंचेवीस फारे भात जमायल्यारीय भायरचो खर्च मागीरीय आसा. दोन जेवणां, व्हकलेक न्हेसवण, व्हकले आवयक कापड, चेडुवाचे मामा–मायंक वस्त्र, पंचायत संघाक वांगडी–अशी वतात ते खर्च–त्या खातीर दाम खंय?

वंयचाय रीतीन दाम करचाकच कोरान ठारायलें. कोणालेय शेतांत ओणप्पणी* घेवन काम करची चिंता ताका ना आशिल्ली. पण आतां तशी करची

---

*कराराचेर घेवंचें काम शेतकार आपणाले काम करचाक परया आनी पुलया–हांकां भात आनी दाम रीण दीवन तांकां एक वर्साचे कराराचेर कामाक दवरतात. असल्या कामाक "ओणप्पणी" आनी धंदेल्यांक 'ओणप्पणिक्कारान 'म्हणतात.

गरज पडली. व्हारडीकेक रीण दिवंचाक कोणेय शेतकार तय्यार आसतलो. कित्याक म्हळयार ताका काम करचाक एका परत दोग जनां मेळतलीं..

कोरान आपणाले वापा लागी हाजे पासून

अभिप्राय घेतलो. वेळुत्ता ताचेर राजी जालो. पण ताका एक कायरें सांगचाक आसा :

"तूं खंयीच वचून रीण घे. पण तुजे तम्पुरान (धनी) हाजे लागी निमगून जाय. धनीले शितान तूं वाढला. भो फूडे सून आमी तांचे गुलाम (दास) आसात."

"तर धनिया लागीच रीण मागल्यार कितें?"

वेळुत्ता परियाक हो प्रस्ताव चड रुचलो.

वेळुत्ताक—त्या म्हांतार्या परयाक—साबार कायरी' उगडासांत आयलीं. वेळुत्तान कोराचे आवयक व्हारडीक केलेली म्हालगडो धनी आसताना. व्हारडी-केचो पूराय खर्च धनियान केलो. तें साठ वर्सां फूडे! ताजे फूडे वेळुत्ताचे आवयक ताजे वापान व्हारडीक करन हाळेली—नेंवंय तशीच. पिळगीन पिळगी अरक्कल घरकार आनी वेळुत्ताचे घरकार—हांचे मदें चलून आसचो संबंध वेळुत्तान कोराक विस्तरून सांगून समजायलो. कोरान चेडुवाक हाड्चेंय धनियालें भात आनी द्रव्य हांचान जावंचें—ही वेळुत्ताली इच्छा. परंतु आज अरक्कल थरवाटाची स्थीती बदल्ली. फूडे वरी जाय जालेलें भात आनी दाम दिवचाक आज तांकां साध्य न्हय. तेन्ना तांकां गावांत सर्वय कडे शेत आनी घरां आशिल्लीं. आज तांकां शेतां नात. घरां नात भूंय टेक्याक घेवन थंय कृषि करतात. तांकां साबार मजूरांय नाकात. तरीय धनिया लागी निमगून उपरांत दुसरेकडे कामाक वचाक जाय म्हण वेळुत्तान कोराक समझायलें.

कोरा अरक्कल धनियाक मेळ्ळो. लागी वेळुत्ताय आशिल्लो. तांणी हात फाफुडले. खयींथ वचून रीण घेवंचाक तांणी कोराक अनुमती दिली.

कोरान आतां रीण खंय मेळतलें म्हण शोधुक पारंभ केलो. एक व्हड शेतकाराकडे व्हरन दाकल करचाक ताणे ताजे आपणाक सांगलें. ताणे म्हटलें :

"त्या चेडुवाक हाडुक भात आनी दाम रीण घेवंचाक जाल्यार हांव तांत सहाय करचाक ना."

त्या भीतर चिरुताचे घराकडे अनेक संभव जाताले. ते सग कोरा त्या त्या समयार जाणय जातालो. कुन्जाळी आनी काळी, हांचे मदें व्हड झगडें जालें.

काळीन कुन्जाळीक मारलोय! बोब आयकून सेजवासरचे धावन आयले.

चिरुताक चात्ताक दीवन व्हारडीक करुक जाय. ही कुन्जाळीची इच्छा. ती एक बायल मनीश जाल्यार ती व्हारडीक चलयतली ! तिणे हट धरलें. तिजे हटावरीच काळीचेंय हट वाढलें. कोणेय कितेंय सांगो बराबर दाम घेवनूच काळी चेडवाक दितलो. चेडवाच्या आवयचो अभिप्राय ह्या कार्यात तो घेना.

खंयींय सून भात आनी दाम करन हाडचाक तिणे चात्ताक म्हळें. चात्ताय खयींय ओणप्पणी करन रीण घेवन येवंचाक कामार आसा. सावारकडे तो धावन भोवलो. तें सर्वंय कोरा जाणतालो. कोराचे प्रयत्न चात्ताय जाण जातलो. ह्या मत्सरात जो द्रव्य घेवन प्रथम पावंता ताका चेडूं मेळतलें. जनपदान म्हळें.

पण चेडवाचो अभिप्राय कितें? तें कोणेंय नेण. ह्या कार्यात तें तुतलेंच जाण जावंचे खबर म्हण कोणाकय दिसलें ना. माय–बाप मेळन चेडवाक व्हारडीक करन सोडतलीं आनी चेडूं घोवालागी देवन वतली. इतलेंच. चात्तानय तिजे मन जाण जावंचे खातीर प्रयत्न केलो ना.

परंतु कोराक केन्नाय तो उगडास उरलो. हो प्रयत्न सग करन दाम करन हाळचार तेन्ना तिणे 'माका मन ना' म्हळचार? तर माय–बापा राजी जाल्यारीय हो विवाह जाय? तिका पसंद नातिल्या बंधनांत वोढून घालन कित्याक कष्ट दिवंचें? पण तिका पसंद जायनातिल्लें रावचीना. पण बापान आवयक मारचाक तिणे आपणाले मनांतलें सांगले ना कित्या? चात्ताक व्हारडीक करूक तिका मन आसा कि ना म्हण खयंचेंय एक तिणे सांगलें ना कित्या?

कशें जावो. कोरान दाम करचाक दृढ प्रयत्न शुरू केलो.

कोराचो एक संगात, कुन्जपी नांवाचो, कैनकरीचे एक व्हड शेतकाराचे ओणप्पणीक लागून धा पन्नेरा वर्सां जाली काम करता. ताणे कोराक उळदीलो आनी ताका पुष्पवेलील औसेप, हाचे घराक घेवन गेलो.

पुष्पवेलीलचें घर देखचाकच तें एक व्हड शेतकाराचें घर म्हण कोराक विश्वास जालो. थांगा स उदक आटोवंची मशीनां आसात. चिकोल काडून भूंय भरूंक उपयोग करचीं धा वीस मंचुवां, पर्वताचे आकाराचीं चार खळाघरां, म्हश्यो, रड्डे हें सर्वंय पळवन थांगा कामाक कसलोय प्रयास ना म्हण कोराक समजलें. मागलेलें भात आनी द्रव्य दिवंचाकय तो तय्यार आशिल्लो.

परंतु शर्तां कांय कठिन आशिल्लीं. वर्साक एक शें अस्सीं दीस पुणीय काम केलेलें आसुंक जाय. एक दिसाची मजूरी दोन दंगाळी भात मेळतलें. श्रावण नक्ष-

त्राक जावो मोगें नक्षत्राक जावो, उमास पुनवेक जावो, खास कांय दिवंची चाल ना. लुवणी कालार पयर्यान पयरो एक एक चुरुट खर्चाक दितलें. लुवणी, मोडणी जाले उपरांत धाक एक दवरन ताजो हिस्सो भात नाका मेळतलें. मजूरी खातीर हें न्हन्ताना दुसरें कसलेंय लेक करचें न्हय. काम सोंपून वच्या वेळार प्रत्येक काम करतल्याक चाळीस चाळीस फारे भात वेगळेंच मेळतलें. तांत सून रीण घेतलेलें ऊणें करतले. बाकी आसा जाल्यार व्हयेत.

चिरुताक मेळचे ध्यानांत घोळन आशिल्यान कराराचे नेम काय समजूंक कोरान कष्ट काळेना. कसलीय व्यवस्थाय पालन करचाक तो तय्यार आशिल्लो. ताणे सर्वय शर्ती मानलीं. आनी भात आनी दाम दोनीय घेतले.

# तीन

व्हारडीक जाली. म्हळचार तें कर्म चल्लें. जेवण जालें ना. ताजे फूडे चेडुवाक तुरंत घेवन वतलें कि ना म्हळेलें प्रश्न कशी की मुखार आयलें.

चेडुवाक लागीच व्हरचाक कोरान गरायलें. तें अवसुना म्हण काळी परयान साधारण मटार सांगून सोळें.

तो कसलो जाय? चेडुवाक धाडवीना कित्या? वाड्याकारांक सूर पिवंचाक आनी यजमानाक भेट दिवपाक पैसो जाय. तेंवंय दिल्यार मात्र चेडुवाक घेवन वचेत.

लग्नाक आयल्ले दोन पक्ष जाले. एक पक्षाचे लोकांनी अशी म्हळें. "तो पैसो दीवूं जाललोच. तरीय तो आतांच दिलो ना म्हण चेडुवाक धाडचीना म्हणचें न्याय न्हय." 'तें न्याय 'म्हण. दुसरे पक्षाचे लोकांनी म्हळें. ताका लागून भो व्हडान कोणाक काय मनांत जायनातिल्लें केवल उतरांचें झगडे जालें. एकल्यान एक बडी मोडून शीताचे राशीर नीट खोंवून म्हळें : "हें झगडें सोंपले उपरांत शीताक आपडल्यार जाता."

वाक्‌वाद मूर्धन्यार पावलो. कोणेय सगटांनीय आळतां पेळतां हात काळो.

चिरुताचें हर्दे फुटतालें. तिजो विवाह उत्सव मार-फाराचेर आनी रगत-बंबाळाचेर सोंपतलो? थांगा मेळेल्यांत एकच तिजे बापसूचेर ना जाल्यार कोराचेर विरोध आशिल्लेच आसात. तो गोंदोळ जून जावन बापाक आनी घोवाक कांय आफत्य जाल्यार? तिजे मन तशी घावलें. ते दोगंच हांत कित्याक मेळतात. सर्वंय आपणाले दुश्मन म्हण तांकां कळना?'....बापाक आज न्हय जाल्यार काय तो दाम मेळचीना? तशीच आजीच चेडुवाक व्हरुंक जाय म्हण घोव हट करता कित्याक? चार दीस उपरांत जाल्यार कितें?....पण कोणेय सांगल्यार अनुसरण करनात.

एकल्यान दुसर्‍याक मारलो. तेन्ना सगटांचेय आवाजाचे ऊंच कोराचो आवाज आयकुक पडतालो. "हांव आज चेडुवाक व्हरना."

फक जावक एक गपचुप! चिरुताचें मन शेळ जालें. ती घोवाक चोयली. नीट रावून हात ऊंच काडून निवळ स्वरात ताणें परतून म्हले : "हांव आज चेडुवाक व्हरना."

चिरुताचे तोंड मंद हासीन चंद दिसलें.

थांगा मेळेले सर्वंय ताणें सांगल्लें समजनातिल्या वरी रावले. एक संपूर्ण गपचुप! सग स्तब्ध जाले.

"तोच न्याय" काळीचे तोण्डा सून शब्द फुटलो. ताजे पक्षाचे लोकांनी व्हय, व्हय म्हळें. म्होवा मूसाचे माल्यातंल्यावरी एक गोन्दोळ शुरू जालो.

हारवण व्हरतकारालो. ते हळदूवे जाले. तांचें मन परतलें. एकल्यान म्हळें :: "व्हरतान आमकां आपोवन हाडून आमचो अपमान केला. देकून आमी वतात." दुसर्‍यान म्हळें : "कोणेय राबचें न्हय."

कोराक आतां एक नवीच स्थितीचो मुकाबलो करका जालें. काय खायनातिल्लें पीवनातिल्लें ताजे बन्धु–बान्धव देवन वतात तशी झगडून वचाचो परिणाम भारी भयंकर आसतलो. ते ताका भायर घालतले. तें चिरुताकय समजलें.

जय पावन आपणास विसरलेल्या काळीन उलोंदीवन म्हळें : "वचात, वचात, सजटय, उसळात." माजे घराकडे व्हारडीके पासून कांय झगडें पाडना. माका भिसरावनाकात भिर्मत्यानों."

व्हरतकारांक व्हकलेचे बापान अशीं आबूडलो.

व्हरतकार सग आपणाले सामानच घेवन थंयसून भायर देवले. कुञ्जप्पी सरी रावलो ना. 'वोसनाकात' म्हण सांगचाक कोराक जीब आयली ना. कोणेय दोग जनां रावल्यार पूरो आशिल्लें. वेळुत्ता सरी गेलो. कुञ्जप्पी दोन फांतां धूवून चोयलो.

कोरा मूर्तिवत रावला, चिरुतान पळयल्लो तिका मनां भीतर तिजे बापाचेर कोप आयलो. बापा लोक धुवांक व्हारडीक करन धाडता अशी? मोगकरचे बापाचें हें लक्षण? मरण पर्यंत ह्या कामांची खोंच तिका आसचीना? व्हारडीकेक आयलेल्यांक आंवडून पेटयले! तिजो घोव बावडो रावून तिळतिळता! वेगळकडे खंय चेडुवान मेळनातिल्याला गदी एक चेडुवाक मेळें. बंधु–बांधव सग झगडून गेले. . .त्या दादल्याक तिका मोग करचाक जातलें?

## 14 : दोन दंगाळी भात

आमचेगेले म्हण सांगचाक थांगा कोणेय ना. एक लान भुरगें सरी ना! त्या घराचे भोंवताल बाढची दीग मकई झाडांचे आड सून एकलो माथें बावगोवन घराक आयलो. तो चात्ता आशिल्लो. तो गेलो ना! केवल तो! . . . .चिरुताक अजाप जालें. तिजे मनांक शांत जाली. व्हरतान आपयलेल्यांत एकलो आसा. पूरो!

चात्तान कोरा लागी येवन म्हळे :

"संगात्या, सगटांक तुजेर, जाळकायो आसात. तूं मनांत दुःख पावनाका."

कोरा चात्ताक पटोवन धरन खूब रडलो.

# चार

दुरबळांगेल्या खोमटांतय दादलो–बायल, हांचे मर्दें मोग वाढून येता दृष्टि पडता. तांचे मनांत श्रृंगार रस आसता. थंय बायलेक दोळे मारुंक कळता. तिका एक दादल्याक प्रेम पाशान बान्दून आपणा-कडेच राबोवंची ताकत आसता. ती दोगंय परस्पर कांय प्रतिज्ञा करतात.

चांदण्या रातीत शेताचे विशाल जलराशीवेल्लान वार्याचे गतीक अनुसरून एक मंचुव व्हळता दृष्टि पडता. आनंद सागरांत मग्न देवतां गर्दी दोगं जनां त्या मंचुवांत आसात तीं. कोरा आनी चिरुता.

कोराचे व्हण्टीत माते दवरून तिणे उदारी सुखान शयन केलां. तिजे हास-मुख पळयतां पळयतां कोराचे मनांतली स्वप्नां शब्द रुपान प्रकट जाताली.

"ह्या निडळार एक तीळो करन, चांग कापड न्हेंसून, सिल्काची चोळी घालन पूरा शिंगारान माजे घरकरनीक पळवुंक जाता जाल्यार! . . .ऊम . . .चत्र मास जावो!"

चिरुताचे मनांची इच्छा दुसरी आशिल्ली. तिजी आशा आशिल्ली कि कोरा एक कमीस घालन, एक साल पांगरून मुखार वचें, आनी ताजे मागशीं तिणे. तिणेय मनांत लेकलें; चैत्र मास जावो!"

कोरान म्हळें : "एक दीस आमकां दोगाकय आलपळें वचून सिनेमा चोवूं".

सिनेमा पळोवंचाक चिरुताकय इच्छा आसा. तिणे आजपर्यन्त सिनेमा देखलें ना.

एकमेकाचे प्रेमांत बांदलेले ह्या जोडीची इच्छा केवल चोळी, कमीस आनीं आलपळेची सवारी–हांचे भोंवतणी उबून भोंवची मात्र न्हय आशिल्ली. तांका

करचाक आनी कांय ठोस कामां आशिल्लीं. तांचो मोग केवळ उमो घेवन–दींवन जावो, पोटोवन घरन जावो झोंपचों न्हय आशिल्लों.

कोरान निमर्गीलें : "आमकां आमचें रीण देवूं पावंका नाका, चिरुते ?"

"मागीर नाका?"

तिजे गालार बोट थोंबून ताणे विचारलें : "आसो, प्रथमलो चेडो किं चेडूं?"

तिका चेडो पूरो.

फक करन कोराचो खुशो बावलेल्या गदी दिसली. ताजें तोंड बावलें. ताणे म्हळें : "हें रीण आमचेर एक शिराप जायत की? आमी आमचें रीण दीवन पावनात."

ताजे खरेपणा पासून चिंतन करचाक चिरुताचें मन दुकलें. तें सरकेंच. कोरा ताजे वापसूक कांय दीना वापस दीवंका जालेलें रीण दीना, तो हाका कसूरवार न्हय जाल्यारीय!

चिरुतान ताका समजायलो, "दिसान दीस मजूरी मेळचे भातांत अर्द दंगाळी भात माका दियात. तशी एदेंच एकड जातर एकसान व्हरन बापाक दीवूं."

त्या गुणवंती बायलेक मेळका जालेलें मेळें. तांचे दोगांचेय ओण्ट एक गाढ दीर्घ चुंबनांत एक जालें.

कोरा कुञ्जप्पोचे सरशीं ताजे खोमटांत रावता. त्या खोमटाचो एक भाग मडळांनी भाग करन आडायला.

तो दीस पावसा मोडान कळको दीस आशिल्लो. शेळवता वारें मारतालें आनी थांबून थांबून पावस पडतालो. खूब थंडी आशिल्ली.

"त्या दोसा कामाक वोसका नाका." अशी चिरुतान कोराक आडायलो. वचनातिल्लें रावचाक कोराक अर्द मन आशिल्लें. उदकांत बुडून चिकोल काडचें काम. ह्या ठंडींत तडो बैसल्यारीच मनीश सियान कडकडता. त्या स्थीतीक सांज पर्यंत बुडून चिकोल काळचार स्थिती कितें जातली! कडकडेंवन मुयेतलों.

परंतु वोसनातिल्लें रावचें कशी? २८० दिसां पाशीय ऊणे जावंचाक नज. चैत्रमासांत एक कामगराक पूरी कमाई मेळचाक तुतले दीस काम केलेले आसुंक जाय. त्या कमाईसून रीण घेतलें ऊणे करन बाकीन करताना कितें कितें कार्यां करचाक आसात! चैत जाल्या उपरांतेंच ठेठ जीवन शुरू जाता. बन्धु बान्धव सर्वय झगडून दूरा गेले. एक मनोशूय सहायाक ना. तागतागेल्याचे शक्ती पाशीय

चढ कठीन काम केल्यारीच जीवन चलतलें. मात्र न्हय, कामाक गेलो ना जाल्यार त्या दिसा उपास उरतलो.

कोरात विचारलें : "घराकडे कांय ओरोव बी आसा?"

चिरुताक कायरीं समझलीं. घराकडे कांय आसा जाल्यार, कामाक वर्चें नाका, अशी चिंतन करन कोरान अशी प्रश्न केलां जावयेत.

तिणे जाप दिली : "ना जाल्यार उपाशी पडचें. हेंच करचें! ह्या शेळवतांत वचून कांय पीडेंत पळचार?"

कोरान कांय जाप दिलो ना. चुप रावलो. तिणे म्हळें : "दोन चक्रां* आनी शोळशी ओरोव आसा. आज हाजान आनी ह्या दुडुवानी खुंटा कणंगय घेतल्यार आयचो दीस काडयेत."

तरीय चुपो बैसचाक कोराक मन येना. दोन तीन घडियां उपरांत मोडां भीतर सून सूर्याचीं किरणा झांकतालीं. कोरान म्हळें : "हांव चिके धनियाचे घराक वचून येतां."

त्या दीसा कामाक वचींना म्हण खंडोप करवन चेरुतान ताका खोतातंय वचाक अनुमती दिल्ली. एक घडियेक प्रकाश दीवन सूर्या मोडांत गेलो. चारीय दिकार काळुक जालो. प्रचंड वारें मारुक लागलें. काण्डणा धारेचो पावस पडुं लागलो.

चिरुतान कुञ्जप्पीचे चेड्याकरान एक चक्राक खुण्टाकणंग घेवयलें. एक चक्राक मीट मिरियासांग आनी घासलेट आनी फर्डापानय घेवयलें. त्या शोळशी वखाची पेजय केली. आनी चिरुता घोवाक राकून बैसलो. परंतु कोरा येना.

तो त्या दिसा धंदाक गेला की? म्हशीन सरी उदक आपड नातिल्या त्या शेळवतांत तो कशी बुडून चिकोल काडतलो? त्या दीसा धंदाक गेलो जाल्यार दूसरे दीस सून रोग लागून पडतलो, खण्डीत.

समय वता आसा. कसलो शेळवत. वेळ कितें जालो, हें कळना. खोमटांत पडून चिके झेमली.

कोरा येवन तिका उलो दिता सी दिसलें. तिणे आंग काळें. ती जागी जाली. कोणेय ना. ती भायर देवन चोयली. आयलो ना. फालें जालें सी दिसलें. तिका पोटांत उजो येता. त्या पेजांसून निवळेलें अखळ निर्शे काडून पीवूं म्हण लेकून ती भीतर सरली.

---

*तिरुवितांकूर राज सरकारचे नाणें (Coins)–तीन पैसे बराबर

कोपूरळ आनी मालटी रितीं आसात. एक कणगाचो कुटको जावो पेजेचो एक कण जावो थंय ना. सूणे आयल्लें जावना. तिणे सग शिक्यार दवरलेलें. कोणकी सकल काडून दवरन पिल्लेलें आसका.

तें कोण म्हण तिका कळळें. कुञ्जप्पीचो चेडो जावयेत. फूडे एक रात ताणे अशीच फारन खालेलें आसा. त्या दिसा आयदन हालुचों शब्द आयकून ती जागी जाली आनी ताका धरलो.

चिरुताक दुखय कोपूय सहन करचाक जालो ना. साजवेळे कोरा धंद जावन आयल्यार ती कितें करतली? हर्दयार हात दवरन तिणे जोरार तीन चार सवे सवले.

पेल्ले दिकार वैसून गेरशी विणतालो कुञ्जप्पीचो बायल माणीन विचारले : "आगो, तूं कोणक सवता गो?"

देखलें ना तुवें? शिकार दवरलेली पेज आनी कणगा उबकरी कोणेकी काडून खाली. हाज्या पाशीच सूण्याचो गू खावंचे न्हय चांग? ताका लागून तिणे सवचांक शुरू केलें. माणी उठावन आयली. तिणे विचारलें : "कोणे खालेलें आसका गो तें?"

"तुजे पुतान, न्हंताना कोणे?"

माणीन म्हळें कि आपणाले पुताने अशी करचोंना. चिरुताक. कांय संदेह ना कि ताणे नेणतां तें गेलेले आसचोंना. चिरुपताचें पोट व्हड देकून चिरुतानच खाल्यां आनी कोरान आयल्यार तिका मार पडू न्हयें म्हण भयान तिणे अशी सांगलेले म्हण माणीन म्हळें. तशी चिरुतान फटी अपराध तिजे पुनाचेर लायला. हें चिरुताक सहन जालें ना. ती तशी पोटारी न्हय आशिल्ली. हाजे फूडे एक दीस चिन्नान. फारलेली काणी तिका सांगून आयकयली आनी म्हळें : "सबाब सूण्यान विल्लेल्या गदो विल्यार नुपूरो. चेरडुवांक समकीच वाढोवन हाडचाक जाय."

"फू! उसळगो उसळ!"

"मागोरी, माका आंबूळचारी."

"देवंगो माजे खोंपियासून, देवंगो भायर."

चिरुता हारवली. तिका वोसून रावचाक दुसरो स्थाय ना. तांचे दयेन तीं थंय रावून आसात. आतां जिकवली म्हण लेकून माणी तशीच उलयता आशिल्ली. पण चिरुता चुप जाली.

सांजवेळा कोरा शेळवांत कडकडेवन घराक येवन पावली. ताजे हातांत

कणगां आसात. मीट मिरियासांग आसा. चिरुता कोपतली म्हण ताका भय आशिल्लें तो भियेवन आशिल्लो.

चिरुताय घराक भियेवन आशिल्ली. ती अखांतान झगडली. त्या खातीर ती आपणाक शिरपतालीा. कोपान तिणे हें सर्वय सांगलें. तिका आतां कोण सज़ा मेळतली?

कोरा घराक येवंचाकच अपराध केलेली ती बायल ताकां बोलंक लागली. "कोपान करताना हांवें आज एक चूक केली."

कोराकय तेंच सांगचें आशिल्लें. ताकाय आज एक चूक जाली.

चिरुतान पूराय काणी सांगून आयकयली. आनी तिणें म्हळें : माजी जीब कोपान करताना चूकली."

नुतोच हें सर्वय आयकून आखीर कोरान निर्णय केलो : "वच, तिजे पाय धर."

तें करचाक चिरुताक मन ना. माणीन तिकाय सवलेलें आसा.

तेन्ना घरा माणशीं एक बोब आयकली. काळकांत ल्हव ल्हव निपून येवंचो चोर चिन्ना, हाका माणी घरन खूब मारताली.

तें आयकून नुतो रावचाक चिरुताक हिम्मत ना. ती चिन्ना आनी माणी-हांचें मदें गेली. चिन्नाचेर पडचो डुमको आतां चिरुताचे फाटीर पळ्ळो. दोन डुमके.

तशी त्या दुर्बळयांचें झगडें तुरंत निपटलें.

त्या दोसा मेळेल्या पांच दंगाळी भाताचें लेक कोरान दिलें. भात भाजून काडचे वेळार घोगु तापचे कोरान कणगांचे कुटके केले. जेवण तय्यार जाता जाता दीवो संतु जालो. चूडी जळवन ताजे प्रकाशांत तीं दोगंय जेवलीं.

निदेवंचाक पळेल्या वेळार बायलेन घोवाक विचारलें : "केन्नाय दुसर्‍यालि घरांत रावल्यार पूरोकी?

"आज हावें हीं कायरीं खोता लागी म्हळीं. चिकोल घालन धड करन थंय खोंपी बादून रावचाक खोतान हुकुम दिल्या."

स्वल्प समय जावंचाक चिरुतान निमंगीलें : "ताका समय खंय?"

"केन्नाय धंद जावन येतासताना एक एक मंचूव चिकोल देववन धड करचें; उपरांत थंय खोमट बांदचें."

कोराय तेंच चिंतताली. परंतु चैत्र मासाचे फूडे नवे खोमटांत बसून रावचाक जावना.

# पाच

कोरान चिकोल घालन उदकाचे एक वेत ऊच धड केली. पौष मासांत बीं घालचे फूडे भूंय जायततली ऊंच येवुंक जाय. चांदीयाचे रात्रींतय कोरा चिकोल घालन घालन धड ऊंच काडचाक प्रयत्न करतालो. खोतान ताकामुख्य जावन सांगल्लें कि कशीय जावो, तूं धड करता. धापन्नेरा माड्या शरश्यो पुणीय दवरचे गदी धड ऊंच आसो.

आश्वीन मास जालो. मुहूर्त पळवन शेताचो बांद बांदुक शुरू करचें त्या दीसा शेतकाराचे सर्वय मजूर जमतले. त्या दीसा एक जेवण आसा. त्या दीस सून पुंचा शेताचे मजूर, परया आनी पुलया हांकां ब्रह्मचारी व्रताचे पलान करूंक जाय.

त्या संदर्भार प्रति धा जनांक एक कळसो सूर आनी पांच दंगाळी भाताचो ओरोवूय मेळतलो. धा जनांल्यो बायल्योय उरतल्यो. धा जनाचोय मुखिया (मुखेल) शमयल हो सूर रकोवन दितालो. कोरा तीन गिलास सूर पिल्लो. त्या वेळा भीतर बाकी जनानी पांच स गिलास पीवन सारलो. कोराक ताजान करतानाच तृप्ति जाली. सगटां पाशीय चढ पिल्लेल्या चेन्ना–ह्राणे म्हळें : "तें अवसुना, खण्डीत अवसुना. तुका आनी एक गिलास पीवुंक जाय."

"आनी पिल्यार हांव ओकतलों."

"एक गिलास लागेन पीवूनच पिखाड" अशी सगटानीय म्हळें. पण कोरान इनकार केलो.

तेन्ना कुञ्जपीन म्हळें : "तेन्ना तुका घरन बांदून पीवयतले."

चेन्नान कोराचे हात धरले, कुज्जप्पीन पायय. कोरा बावडो राजी जालो.

दुसरे तांत बायलो सग बैसून हें चोवन आनंद पांवतात, तींवय–चिरुता सयत–एक एक, दोन दोन गिलासां पिल्यांत.

त्या गोंदोळांत माणीन म्हळें : "चिरुते, सगटय मेळन तुजे घोवाक पिवं-चाक शिकयतात, तुका हाजें फल भोगका जातलें! राती पीवन येतलो. तुका पेट्ट घेवंका जातले."

दोन गिलास सूर चिरुताचें पोटांत पडून खवळेतालो. तिणे म्हळें : "तुमगेले घोव तशीय सगटय करतले. माजो घोव कितलेंय पीवन आयल्यारीय 'शी', 'उसळ' म्हण सांगची ना. कित्याक म्हळचार हांव माजे मर्यादिन रावून आसा."

चिरुता आपणाचो अपमान करता, अशी माणीक दिसलें. तिका कोप आयलो. तिणे म्हळें : "आगो, कसले दोष सांगता तूं? बाकी सग मर्याद सोडून आसात की? कसली अवमर्याद गो तूं देखल्या?

कुञ्जप्पीन त्या झगड्यांत हात घालो. "आगो माणी, तुजी जीभ तोण्डात दवरन बैसचाक जायना गो?"

कोरान चिरुताकय आडायली, पण माणी आनी चिरुता, दोगंय उपरांतेंय झगडतालीं. चेन्ना आनी शमयल–हाच्यों बायलो मदें येवन समजायतालीं. तरीय दोगांचेय मदें वाक्–बापा चलत उरले. माणीन म्हळें :

"मान–मर्याद ना तुकाच. रात म्हणूय ना दीस म्हणूय ना, दनपार म्हणूय ना, सांज म्हणूयना. मंचुर्वाचेर घोवाक घेवन भोवंता आसा–तें कांय माजे घोवाक ना."

चिरुताक हें आयकचाक कोप आयलो.

"जंय घोव आनी तांची बायल–हांकां मोग आसा थंय तशी सग आसता."

शमयल पुलयाचे बायलेक आतां सूर समकीच लोकटे लागलो. तिजें मातें अशी तशी लकतालें, जीभ गाळबुळावन तिणें म्हळें : "आगो माणीपुता, तरुण-पणांत सग तशीच करतात. हांवंय तूवंय कितें करतालीं? कशी आशिल्लीं?"

माणीन म्हळें : "पण माजे आम्मी! आमकां सगटांक संख्या मर्याद आशिल्ली.

व्हड अपमान पावन चिरुता कितें सांगचें म्हण कळनातिल्यान चितेस्सी जाली, माणीचोय कोप ऊणे जायना. तिणें म्हळें : "हो शिंगार–भंगार चढ जाता, कित्याक, कळता तुमकां?"

"कित्याक?"

दोळे विसकळावंचाक श्रम पावंचे शमयलाचे बायलेन विचारलें : "कित्याक सांग."

"मात्र न्हय, हें आमचे खोतांकय दोष करतलें. पुंचा शेतांत काम करचें

आसा. सूना गर्दी वांद आमची रक्षा करता. मत्याचेर तो रावला. पवित्र आनी स्वच्छ न्हय जाल्यार मत्यानाश जातलो. वांद पडयेन, ना जाल्यार कांडींनी खावयेत. ह्या हिंगायकि धंदाक दवरल्ल्या मात्रान आमचे खोनाक ताजो परिणाम भोगका जातलो. शेतांत भात पिकल्यार मात्र लोकाक फारन जावा, फार ना तिल्लें जावो, कशोय काय मेळतलें. दोषारोपण जावंचे आमचेरांच. चिन्नाचे बापान लागी न्हरन आमकां हें काम दीवयलां.

शमयलाचे म्हारीक कांय समजलेलें ना. तिणे निमर्गालें : "कितें जालें गो?" जालें गो?"

मार्णान मार्गारीय म्हळें : "न्हय गे अम्मी, ही आपणाले घोवाकय सोडना."

तो म्हारी हासली. आतां चिरुताक वोलुंक संदर्भ मेळळो. तिणे म्हळें : "अरी कमली मारी म्हण चोय. तुमचो परया तुमचे लागी येनातिल्ल्याक हांव कशी जबाबदार जातां?"

हें सांगून चिरुना मार्णी फूडांत आयली. आनी वोट नीट करन तिणे म्हळें : "पुंचा शेतांत काम कशीं करूंक जाय, हें माकाय कळता. हावंय पिळगेंत खोताची दासी आसा. तांचे कडेय व्हड जमीदारी आशिल्ली.

तशी एक दिक्कार बायलो एकमेक झगडतात आसताना दुसरे दिक्कार तांचे दादले आनी कांय एक उलयतात. चिन्नाक एक दुबाव :

"आमी, पुलया आनी परया—ना जाल्यार पुंचा शेतांत शेती कशी चमकतली?"

हो एक प्रश्न आशिल्लो, 'शेती चमकता' म्हण सांगवाक कोणाकय हिम्मत नासी दिसलें.

इटयानी हाणें म्हळें : "पुंचा शेतांची कामां कुट्टनाटचे पुलया आनी परया— हांचें निमित्तीच चमकतलीं, दुसरे गावकारानी श्रम केला. साध्य जालेना." शमयल पुलयान म्हळें :

"पुलया आनी परया—हे नातिल्लो स्थीतीय जाले ना मू!"

सूराचे लहरींत धुपसून आशिल्लें कोराचे मनांत एक प्रश्न उदेलें : "आमी आसान, पण काम ना करतात जाल्यार कितें जातलें ?"

कुन्जप्पान आपणालें वावगल्लें मातें नीट करन जाप दिली. "आमी उपाशी जातले."

इट्चार्तान तें पुरतें केलें : "खोतय उपाशी जातले."

चेन्नान आपणालो अभिप्राय सांगलो :

"पूराय देश भुकेन मरतलें."

शमयल खूब हासलो.

ओलोंपो–हाचो चिन्ता वेगळीच उरली. ताणे निमगीलें : "ह्या कुट्टनाट प्रदेशांत कितलें फार्यांची भूंय उरतली?

हें निरर्थक प्रश्न आयकून पोन्निट्टी बावडो खूब हासलो.

"ह्या दृष्टि पडचे पूराय प्रदेशांत कितले फार्यांची भूंय आसा! म्हण कोणाक कळता ?"

ओलंवीन ताजे प्रश्नाचो अर्थ समजायलो.

"म्हळ्यार शेत कसवन, शेतांत खण्णी करन, बीं ओवन, भात करपी परया आनी पुलया न्हय ?"

कोराक एक अभिप्राय लागून आशिल्लो :

"ह्या खोतानी घर वाढून रावची ही पूराय भूंय म्हारांनी चिकोल घालन उदकांसून ऊंच हाडलेली हय?"

शमयल पुलयान आपणाले चेरडु–पिरायेची एक काणी सांगून आयकयली. त्या दिनांकडे थंय आट, घा घरां मात्र आशिल्लीं. आज आट शें, न्हय, एक सासा भायर घरां आसात. सगटय पुलया आनी परया–हांचे प्रयत्नांची फळां आसात.

कुञ्जप्पीन ल्हवू म्हळें : "तांणी दाम आनी भात खर्चीलें."

"तांकां हो दाम आनी भात कशी जालें?" कोरान विचारलें.

"तांणी शेतांत शेती केली."

"कोणे? पुलया आनी परया–हांणी काम केलें. आनी बीं बोयलें, भात जालें. खोतांनी भात अर्थांत भरन घाले. परया, पुलया हांणीच आपणाले प्रयत्नांनी चिक्कोल काडून घालन उदकांसून भुंय ऊंचार हाळळी. तांत माझ्या शरश्यो बोयल्यो पण पाडो पाडोवन नारल घेवन वतात खोत लोक."

"तें खरेंच" म्हण इट्यातीन खण्डीत सांगलें.

शमचलाक तीं परनी कायरीं आर्मीकंय उडगास येतालीं. ताणे त्या दिसांचे व्हड व्हड शेतकारांचीं नांवां सांगून आयकयलीं. ते आतां नात. ते सग मरन थांगा आज तैकीळि किरलेली. पण ते सर्वय मान-मर्यादेचे मनीश आशिल्ले. ताणे

म्हळें : "भात विकचाकय दाम करचाकय मात्र न्हय तें शेतकारी करताले. भात मनीशाक खावंचाक आशिल्लें, अशी ते लेकताले."

तशी तांचे संभाषण परनेकालाचे शेतकारीं सून आयचे शेतकारीं मरान पावलें. आज लान लान शेतां ना जातात–म्हण ताणे म्हळें : शमयलान हें स्वीकार केलें. तांचें चरित्र ओलंवीन आनीकंय स्पष्ट केलें :

"लान शेतकार, शेत भाड्याक घेतात. कालार वेळार तांकां शेतात बीं घालचाक जायना. त्या खातीर खर्चाक हातांत दाम नाका? तो ना. त्या खातीर रीण घेतात. चैत्र मासांत लुवण, मोडनी जाल्या उपरांत खोताचो कर्मचारी फारोय घेवन येता आनी जालेल्या भातांसून खोतालो हिस्सो घेवन वता. उपरांत ताजे कडे रीण बाकी उरता. मागीरींय रीण घेता. तशी ताका उपासांसून वांच ना."

पोन्निट्टीन म्हळें : "तें सांगचें खरेंच. चार पांच खोतां सिवाय सग खोतय अशीच. तांची कायरीं आमचाकय वरिष्ट.

कुञ्जप्पीची प्रार्थना ही–"हे देवा, असल्या खोताचो दास जावंचे दुर्भाग्य आमकां दिवं न्हयें."

त्या वेळार पुष्पवेलीचो औसेप थंय आयलो. ताणे म्हळें : "येयात, बान्दाक चिकल दवरुक वेळ जाला." दादले, बायलांचे उलौणें बन्द जालें. सगटय मंचवार बैंसून औसेप सयत कामाक गेलीं.

दुसरे दोसा सकाळीं चिरुताचे व्हण्टींत मातें दवरन माणी सकाळंचे वोल तापून पळया. चिरुता माणीचे मात्यांसून ऊ काडून मारता आसा.

दादले–बायलो फूडे दिसाचीं कायरीं विसरलीं.

स

कुट्टनाटचे शेतांत जोरार काम करचो वेळ. सगटांक एक तरा अंवसोर लोक येता वता एकच उद्देश्यान. सर्वकडेय खूब काम चलता.

औसेपाची स सास फार्यांची भूंय स शेतांनी शिवंडून पळचा. एक एक कडे धंद चमकता आसा. तीन सास फार्यांचे एक शेत समूहांत एक न्हंयचे करा-वळीक औसेपाक आपणाली स शें फार्यांची भूंय आसा. त्या शेतांचे भोवंतणी आशिल्ले बांद बरें करचे काम सोंपलें. पण औसेपाचे भूंयचो बांद मात्र आतांय बांदुक शुरू केलो ना.

त्या शेतांत उदक आटोंवचें मशीनय काम करचाक लागलें.

एक दीस कोरा धंद जावन मंचवार खोमटांत येताली. सांजवेळा काळुक जावन दोन तीन घंटो जालेल्यो आसयेत. परते वाटेन येवंचे मंचवार दोग जनां वतात. तांत एकल्यान दुसर्याक विचारलें : "हें कितें, ह्या शेतांत यंजीन पावल्यारीय बांद बांदून सोंपलो ना कितें?"

दुसर्यान जाप दिली : "ही एक व्हड शेतकाराची भुंय. देकून वेळार कालार कांय पुरतें जायना.

पयले मनीशान प्रश्न केलें : "पुष्पवेली औसेपाचे शेतांत कोण कोण धंद करतात?" दुसर्यान शनयल, कुञ्जप्पी अशी नांवां सांगलीं आनी म्हळें कि हांत कोणाकय तांग तांगेली जवाबदारी समजना! न्हय जाल्यार हो बांद धंद पुरतें जायनातिल्लें अशीच पडतलो. आतां आनी केन्ना बांदून पुरतो जांवचो.?

कोराक हो अभिप्राय सहन करचाक जालो ना. कुट्टनाटचे एक शेत-मजूराकय हें सहन करचाक साध्य जावना.

मंचूव रावोवन कांय जाप दिवंचे, अशी कोराक दिसलें. तांका एकच स्थायार

न्हय, स स्थायांचेर शेती आसा. ते रातीय दीसूय धंद करता आसात. असल्यों कांय जापो सांगत्ताक ताका मन दिसलें, पण ती कांय जाप म्हण जावना.

त्या दीसा कोराक नींद आयली ना. तांची तीं उतरां पुष्पवेली औसेपाचे शेतांत काम करचे मजूरांक अपमान हाडचीं अशी ताका दिसलें.

ओणप्पणी वाटेन कोरा पयलेंच हांगा काम करतालो. हाजे फूडे गरज आसतल्यांक दिसकुलीक मजूर म्हण धंद करतालो. ओणप्पणिकार जालेल्यान आज दास म्हण ताका अंगीकार केलो. ताणे करचे कामाचो निर्णय फूडेच जालो. फाय कोण कामाक उलो दितलें, हें शोधून भोवंका नाका जालें. ताका आज जिम्मेदार्यो आसात. आज त्या त्या दिसाचे पगाराक जावन न्हय ती काम करता. देशाक जाय जालेलें भात ओवन करचाक. जाय जालेलें अन्न उपजाऊंक. . .ताणे काम करचे शेतांतली शेती इतर शेतांतले शेतीपाशीय चढ आसुंक जाय. तशी कुट्टनाटचे पुलया, परया हांचें मदेंची मत्सर भावना राजाचें दुर्भिक्ष दूरा करचाक सहायक सिद्ध जाली.

हे विचार मनांत आयले देकून कोराक नींद कशी पडतली? तो सयत काम करतल्यांक जवाबदारीची भावना ना अशी ताजो अर्थ जाता न्हय? त्या मुखेल पुलया शमयल, हाणे हें आयकलें जाल्यार!

कोरान उटावन कुञ्जप्पीक उलो दिल्लो. कुज्जप्पीय निदलो ना आशिल्लो. आपणान आयकलें संभाषण ताणे कुञ्जप्पीक जाणयलें. तेन्ना कुज्जप्पीकय एक काणी सांगचाक आशिल्ली. त्याच शेतांचे मदेंचे एक शेतकारान ताका साबार कांय सांगल्लें. आसा कोराक हो दुबाव कि बांद बांदना जाल्यार तें खोताकय व्हड अपमान न्हय की?

कुज्जप्पीन म्हळें : "व्हय, व्हय, तूं आतां हांगा नवोच न्हय? मुखेल पुलयाक कांय मर्यादा आनी अकल आसा जाल्यार मात्र काम चलतलें. ताका कांय तरी समजावण. बुजावण ना. मागीर पर्वत उबारचाक लागतलो. पण असल्या एक धनियाक शेधिल्यारीय मेळुंक ना. चैत्र मासांत, शेतांत काम करचे मजूरांक मजूरी दिवचें भात मोवंचें पळवुंक जाय. एक मूष्टि भात सरी आमचें आयदनांत येवंचाक दिवना. मोवप अशी आसतलें कि दामून पुसून मोवंचे वेळार मोवप्याक सगटय शिरापितले. एक फांता फडिचान खावंचाक घेवंचे एक मूष्टि भात सरी ताजे मुकार काडचाक अशिवंका नाका.

कोरान विचारलें : "तो बांद बांदचें काम फायच शुरू केल्यार कितें?"

कुज्जप्पीन म्हळें : "करयां".

फांल्यारीच औसेपाचे सग दासय मुखेल पुलयाचे घराक जमले. एक क्रमान काम करचें म्हण कोरान म्हळें. कुञ्जप्पीन तें तशीच म्हळें आनी सांगलें : "अशी केल्यारीच शेतकारी बरे भाशेन चमकतली. शमयलाचो अभिप्राय कांय भिन्न न्हय आशिल्लों, कोराक एक अभिप्राय लागेनआसा. स शेतांत शेती आसा न्हय? सगटांक एकडे करन सग कडेय काम करचें आसा. जाल्यारीय एक एकल्याक एक एक शेताची जिम्मेदारी हातांत दिवंचे बरें आसतलें. तशी केल्यार प्रत्येक व्यक्ति आपणाले भागार चढ मन दीवन काम करतलो. शमयल हाकाय कबूल जालो. ताणे म्हळें : "तर आतांच आमकां तें ठारावया.

ह्या संभाषणांत कांय भाग घेवनातिल्लें माड्या पोंदाक पांगरून बैसल्या चेन्नान म्हळें : "हांव असली कसलींय जिम्मेदारी घेवंचाक तय्यार ना."

स्वल्प घडियेक कोण कांय उलयलो ना. तरीय कोरान विचारलें : "तें कित्या? तूंवंय पुष्पवेलीचो ओणप्पणिक्कार न्हय की?"

स्वल्प घडियेक नुतो बैसून उपरांत चेन्नान म्हळें : "अरे पुता, हांव आज न्हय ओणप्पणिक्कार जालां. माजो बापा, आब आज्जो थाकून आमी पुष्पवेलीचे ओणप्पणिक्कार आसात. देकून हांव सांगता कि माजान साध्य न्हय."

हें कितें म्हण कोराक समजले ना. पिळगेक ओणप्पणिक्कार जाले पसावत जिम्मेदारी घेवन काम करचें चढ महत्व आसचें न्हय? कोरान म्हळें : "पुंचा शेतांत भात जावंचाक कारण परया आनी पुलया—हांच्यो दाष्टिकायो आसात. तो तागेलें काम करना जाल्यार गावांत दुकळ पडतलें."

चेन्नान परिहास रुपान म्हळें : "व्हय, नवी व्हासल घराचें पारवे झाडतली."

हें उलोवणें अशी मुकार गेल्यार कोरा आनी चेन्ना—हांचें मदें झगडें जातलें म्हण सगटांक दिसलें. तें जायनातिल्लें रावचाक शमयल पुलयान एक एक शेताची जिम्मेदारी एक एकल्याक वोपसून दिली. न्हंयचे करावळीचे स शें फार्यांचे शेताचो जबाबदार कोरा जालो.

चेन्नाक शेताची कांय जिम्मेदारी दिली ना. वाण्टून दिवंच्यांत ताजो अभि-प्रायूय निमगलो ना. तो थंय आसा म्हण कोणेय लेकलें ना.

चेन्ना नीट बैसली. करावळीचे वार्याचे ठंडतकायेन चेन्नाची शक्ति जागी जाली सी दिसली. ताणे हिसाब निमगचाकच ठारायलें :

"आगा शमयल अच्चा, तुणें हें कितें केलां?"

"कितें रे?"

"आगा, तुवंय तांचे मारके जालो किते? आरुपरा घरचे परया लोक पुष्पवेलीचे वरवन दीवन जालेले दास आसात. ते खयींच सून व्हळन आयलले न्हय."

शमयलान म्हळें: "हें हांव जाण, रे."

"म्हणटकच तुवें अशी करना आशिल्लें. आगा, शेती माजे खोताची. हांगाय थांगाय सून आयलल्यांक तुवें जिम्मेदारी वोपसून दिल्ली. आनी माका विरसलो. आमींय पुष्पवेलीचे शीत आनी मीट खावन आसात."

"तें तुजान जावना म्हण म्हळें देकून न्हय की?"

"आगा, तें हांव, एक वेळे, माजे खोताचे कडेय झगडता मू. एक पावटी हांव धंदाकय वचना. खोत एक वेळा माका मारतलोय. वर्साक दोन पेट्ट पुणीय हांव घेतलों. तें तूं नेण की? खोताचे शेतांत भात पिकोवंचे माजे काम आसा."

"तर तूं मनपसंद शेताची जिम्मेदारी घे."

चेन्ना पुष्पवेली आनी आपणाले कुटुंब, हांचे मदें आसचे संबन्धापासून मागीरीय सांगुक लागलो. पुष्पवेलीकार एक कालाक व्हड धनवर्तक आशिल्ले. उपरांत तांचें सर्वंय धन नष्ट जालें. तांची स्थीति सुधरली. उपरांत दुसरीय ती नष्ट जाली. आतां दुसरीय सुधरता. ह्या पूराय कालाक पुष्पवेलीचे लागी रावून तांचें सुख—दुखांत भाग घेवन चेन्नाचे पूर्वीकानी तांची सेवा केली. दुकळांतय ते पुष्पवेलीचे लागीच रावले. तांचे अभिवृद्धींतूय भाग घेतलो. ताजे चेरडु पिरायेचेर ताजो आब त्या दिसांचे पुष्पवेली खोतांक मिष्टायतालोय ताणे देखला.

त्या चेन्नाक दूरा काडून राबोवंचाक जानलें? दूराकाडून राबोवू म्हळ्यार तो दूरा सरतलो?

त्या दिसाच स शें फार्यांचे भाताचे शेताक बांद बांदचे काम शुरू करचाक ठारायलें. पण चेन्नाक तागेलो अधिकार आनी हक दाकयले विना रावचाक जायना

ताणे म्हळें: "आज माका बांद बांदचे कामाक येवंचाक जावना."

शमयलान विचारलं: "तें कित्या?"

"माजान जावना. वचून खोताकडे म्हणात."

आपणाले पूर्व संवन्धां निमित्तीं खोताकडे ताका कांय स्वातंत्र्य आसा म्हळेल्या विश्वासाचेर चेन्नांक हें धैर्य जालें. तें स्वातंत्र्य आपणाचे मित्रांक दाकोवन दीवुंक जाय.

# सात

चेन्ना जरूर अपराधी आसा. तशी आसल्या वेळार धंदाक वचनातिल्लें रावचें उचित न्हय. खोतालागी कसलेंय स्वातंत्र्य आसो, तरीय हें सरकें न्हय. हें कुट्टनाटचे पुलयाक उचित न्हय. मजूरी ना आसो, आदाय ना जावो, भात उपजावन, तें भात अर्थात पांवोंबुक जाय—हें ताजे कर्तव्य आसा. ही दायजाची व्यवस्था आसा.

तरीय ताका मारान ताजो पाय मडप, ताजी खोंवी पिसूण उडकावप—हें न्याय म्हण सांगचाक जायना. ताचें सर्वय नष्ट केलें. ताजीं कोपूर्लीं आनी मडकीयो मारन भेतल्यो. ताचे चेरडुवांकय मारली. . . .व्हळळें चेडुवान सान चेरडा सयत गोवंटो भर उदकात उडकी मारली. थांगाय तिका मारली खंय. स मास पिरायेचे चेरडाकय घेवन ती उदकात बुडाली; पण चेरडाक तिणे सोडलें ना. चेन्ना पाय मोडून गरगडेंवन पडलो, जाल्यारिय ताका मागीरीय मारलो खंय.

खोताली असली मनोशपण नातिल्ली निष्टुराय कोराक न्याय म्हण दिसली ना. ती घटना आयकून तो स्तब्ध जालो. होच ताजो खोत जांचे खालाक तो काम करता! सुख—दुखांत तांचे सयत राबलेले खंय, हे आरुपराचे परया लोक! चेन्नाक अभिमान जालो! खोताक भात पिकोवन दिवचें ताची कायरी खंय! हांवें कितेंय केल्यारीय खोत माप करतलो म्हण तो पातयेलो. सहन करचाक खोत ताजो रीणेली आसा.

कायळचाचे घोंटेरांत फत्तर मारल्यार जावंचे समान चारीय दिक्कार धावन गेलेले त्या घरकार सर्वय रात जावंचाक जमले की! . . . .चेन्ना आर्जीय त्याच अवस्थेर पळा जायत!

पिळगे सून पुष्पवेली घरकारांक आसा म्हण सांगचें तें वात्सल्य-तीं एक फटवण म्हण कोराक दिसलें. तशी एक तांकां ना आशिल्लें. कांय कळाकळ नातिल्लो जाल्यारीय सादेपणाची मूर्ति, तो गरीब परया लोक सर्वय खोताचे खातीर अर्पण करन तो हरवी फट्टी पातयेताले. . . .आता चेन्ना कितें आठयता जातलो. आनी मरण पाविल्ले ताजे बापा, आब– हे? . . .एक वेळा खोताचे खातीर जीवन करन मरण पाविल्या त्या परयांची आत्मा पाय मोडून पळेल्या चेन्नाचे भोवंतणी भ्रमण करन आश्वासन पांवंतात जावयेत! तांची समस्त सेवा व्यर्थ जाली.

कोरान कुञ्जप्पोक म्हळें : "एक दृष्टीन आमचे परिश्रम पूराय व्यर्थ आसात."

"कित्यापासून?" कुञ्जप्पीन विचारलें.

"तशोच! जोव दोवन काम केल्यारीय फायदो कांय ना. आमी बुद्दू. हांव अरक्कलचो दास, पुष्पवेलीचो ओणप्पणिक्कार, माजो स्वामी धनवंत, आमचें शेतांत चढान चढ–भात जालें–आमी अशो भावना दवरन सांगून भोंवयेत. पण कांय फायदो ना."

कुञ्जप्पी अर्थगर्भ जावन हासलो. त्या हासांसून कोरा कांय समजनातिल्लो एक निपट चेडो म्हण दिसतालें. कुञ्जप्पीकच म्हस्त कायरीं सांगचाक आसात. कुञ्जप्पीन म्हळें :

"एक परयाक खोतान चार पांच थापटां दिली. त्या खातीर इतलें सावार सांगचें कितें ? तुजे वरी चेड्याक कितें कळता? खोतान दासाक जीवनाशीं मारन मड्याक फातर बान्दून न्हंयंत बुडोवन सोळचात तो तांचो अधिकार."

कोरान विचारलें : "तें चिन्हा! कसलो तो अधिकार?"

कुञ्जप्पोन म्हळें : "आरे पुता, आयक, चिकलांत रावून, उदकांत बुडून, चिकोल काढून बांद बांदून आमी कष्ट काडतात. कित्याक म्हण तुका दिसचाक पूरो. समजोगो नातिल्लें, तूं,माजे भावा, दुख पावनाका. कष्ट आसात. तें सारकेंच. पण परया आनी पुलया–हांचो जलम अशीच मेळचो न्हय. पूर्वजल्माचे सत्कर्मांचे फलानच पुलयाचो जल्म मेळता. हें चिके चिंतन कर. देशाचे लोकांखातीर अन्न उपजावचें काम कोण की करता? परया आनी पुलया लोक, न्हय वे? आमचे निमित्तीं प्रयोजन कितें म्हण तूं निमगता.

कोराचे मनांत हें तत्वज्ञान गेलें ना. तो वेगळें काय चिंतन करतालो. पिळगेन पिळगीं सेवा करन येवंचे विश्वस्त आनी मोगाळ परयांचे पुताक खोतान मारन

ताजे पाय मोडले. तेन्ना, काल आयलल्या कोरान एक चूक केल्यार ताणे कोराक् किर्ते करचीना?

कुञ्जप्पीन मुकार म्हळें : "येवंचे जलमांत आमकां चांगवणच जातलें. पण एक कायरें आसा. चेन्नाक मारललो चिके चढ जालो. इतलोच अधीक जावंचाक पाडना आशिल्लो. आरे पुता, आयक. ते परने यजमान आज नात. तांणी मारन पाय मोडल्यार किर्ते, ते लागी वैसून स्वयंम दुख पावंतले, स्वयंम सेवा शुश्रूषा करतले. ते आपणाले दासांक आपणाले घरकारां समान लेकताले. एक चेरडूं जलमल्यार बाळांतोरो, चेरडाचें नामकरण, व्हारडोक–हाचो सर्वय खर्च तेच करताले. परने कालाक खोतान कोणाकय मारलो जाल्यार ताजें भाग्य जागें जातालें. पण आज स्थीती बदल्ली.

ती कायरीं स्वल्प सगटय सारकीं आसात म्हण कोराक कळतालें. कोराचो अज्जो मरचाक तांचे खोताचे घरकडे सून प्रेताचे दाह संस्काराक जाय जालेलें सर्वय हाळळे. अरक्कलचो म्हालगडो खोत बडियेचे सहायान चमकून येवन रावलो आनी दाह कर्म करयलें. मडें फोण्डात दवरचाक तो म्हांतारो 'भों' करन रळळो हें ताणे ताजे दोळयानी देखलां.

तें खरेंच. फूडे कुट्टनाटचो शेतकार आनी पुलाया लोक, हांचें मदें हृदयंगम संबन्ध आशिल्लो. तेन्ना ते एक संयुक्त कुटुंबा वरा उरताले.

कुञ्जप्पीन म्हळें : "फूडे खोत जनां जांघेचे खालच मारताले. पेट्टु चुकून रवयींय दुसरेकडे लागल्यार, दासाचे कुटुंबाक तेच स्वतः संबाळताले".

कुञ्जप्पी त्या परने काला पासून विस्तारपूर्वक सांगचाक लागलो.

परनी स्थीती कशी आसली? कळता तुका? आयक, उव्वारा दिसांक धंद नातिल्लें घरां बैसल्यावर रीण म्हण सांगून भात दिताले. उपरांत श्रावणमासाची उमास, ज्येष्ठ मासाचो चम्पकुळमचो मूळ नक्षत्राचो उत्सव, आनी ओणम, तथा मकम* आदि परबां वेळार कांय विशेष भेट दिताले. त्या दिसांक दिसपडतें स फारे भात मजूरी, दनपारांचे पेजय मेळताली. लुवण जाल्यार मजदूरांचो आदाय कितलो म्हण आयकतलो? दनपारांचे सूर पिवंचाक चुरूट केन्नाय दिसखर्चाक चुरूट, चेरडूवां आसात जाल्यार तांणी वेंचलेले म्हण काडून व्हरचाक साध्य आशिल्ले चुरूट घेवन वताले. मागीर हांतय तांतय भत्ताचीं कणसां दवरन व्हरतालें. शें फारे भाताचे शेताक तोन 'तीर्प' मजूरी दिताले. एक तीर्प म्हळयार धा फारे

*आश्विन मासांत मग्गें नक्षत्रा दिसा 'ओणम' परवे वरी एक उत्सव केरळांत जाता.

भात आसतालें. सग केल्यार एक मजूराक चाळीस फारे भात मेळतलें. एक कायरीं हांव सांगचाक विसरलों. ओपणीत घालेले बीं आनी मारितीर्ष मेळन पांच फारे भात मेळतलें. त्या कालाक शेतकारींचें लक्ष्य खोताक धनवर्तक जावचें म्हण न्हय. दासांकय धनियांकंय दोगांकय गुजारा करचाक म्हण आशिल्लें. पण आज तुका कळता ना? भात ओवन करतात आमी. परंतु खोत आमकां मजूरी भात जावन दीवनातिल्लें भात विकतात. फूडे खोतांनी आमचे बायलांक दोळयांनी दृष्टी सरी घालना आशिल्लें. पण आज लान खोत आमचे तरुणी चेडुवांचे मागशीच भोवंतात."

कुन्जप्पीचें हें सुदीर्घ विवरण आनी मुकाबलो—हांणी कोराची चिंता शक्तीक जागयली. पण खोत आनी दास—हांचे मदें चो संबंध एक करारपत्राचे वाटेन निर्णय करचे ह्या कालांत खोतान मारल्यार, मजूरी बरोबर दीनात जाल्यार, आनी लान खोत जनां तांचे बायलांचे मागशी सून दूरा वचनातिल्लें तांचे मागशी भोवंतात जाल्यार किते करूंक जाय?

# आठ

पुष्पवेली औसेप्पाचे सईय शेतांत उदक आटोवन वोप जाली. केन्नाय केन्नाय मजदूर एकमेक झगडता आसात. कि कोणाचे शेतांतली वोप चढ बरी जाली, हें सांगून एकमेकान हात–पाय मरान काळले.

कुञ्जप्पीची कुराति ही कि ताचें शेतांत वोप बरे मुहूर्तार न्हय जाल्या. इट्यातीची फरियाद ही आशिल्ली कि ताचे शेतांत बोयलेलें बीं बरें किरललें न्हंय आशिल्लें खंय. हाजे पासून तो खोताचेर कोपलो खंय.

"बीं चांग न्हय जाल्यार शेतकारीच करचाक नज. बीं चाग न्हय जाल्यार चांग भात कशी जातलें?"

बीं बोवंचाक प्रारंभ जाल्यार कुट्टनाटचे खोत असलीं शासनां नुतोच आयकताले.

मुद्दामचे उदक भायर धावंडावन जावचाक खंचे शेत चांग आनी खंचे शेत कमजोर हें मनात जालें. स शेतांचे शेतींत कोराचे शेताची शेती चढ मांग म्हण मुखेला पुलयान निर्णय केलो.

कोराक तो एक उत्सवाचो दिस आशिल्लो. एक शेताची पूरी जिम्मेदारी आपणान काडून काम करचें कोराचो हो पयलो सदर्भ आशिल्लो. शेती करन अनभव आसचे म्हालगडे आसात, जाल्यारीय ताका आज पयलें स्थान मेळें. त्या दिसा तो पिल्लो. सूर खूब पिल्लो. पोट भरन पिल्लो. मद्राती त्या शेताचे दूरा एक मुल्यां सून मलयाळम भासेचे निजाचे एक गींताची सरस आवाज आयकुक पडली. आळतां पेळतां शेताचे राखणे परयांनी तो गींत परतून म्हळो.

त्या शेतांचे मदेंचे बान्दा बयल्यान खारव्यांत चीरीय दामून तो ओणप्प-णिक्कार चमकून वताना भाता पाले वार्यांत उबून मुरमुरताले. तीं झाडां ताका ओळकतात.

कोरा दुसर्या शेतांचे राखण्यांकय उपदेश दिवंचाक लागलो. कित्याक म्हळचार ताका आतां शेतकारीचें मर्म कळता म्हण जालें न्हय? कितकीय व्हड भरतीचे उदक येवो, भेतुन वचनातिल्लें बांद बांदचाक, धांव चोवन खळी मारचाक, कण-सांची अंकुर चोवन भात चांग कि बालाव हें सांगचाक, भातखराब जावंचें ओळकून ताजे कारन समझुंक—अशी जायतीं कायरीं ताका कळतात.

कोराचे मित्रांक ताजेर जाळकायो. आपणाचे खेत वायट जालां कित्याक हें पोन्निटीक कळता. वोप जावन उदक आटोवंचाक दोन दीस तोडोव जालो. आटयलेल्या त्याच दीस पावसूच पळ्ळो. शेताचो रेव मिटूस जाली. ती कांय तागेलो चूक न्हय.

पेन्निटी खोताचे घराक पावलो. ताणेच त्या दिसा औसेप्पाक जागयलो. ताणे विचारलें :

"माका कितली वर्सा आसात खोता?"

"कायरें कितें रे, सांग?"

"व्हड खोत आसतांना हांव हांगा काम करतां न्हय?"

"देकून."

पेन्निटोन हर्द भेत्रल्यागदी म्हळें : "माका आज मरान इतलो अपमान जालो ना?"

पोन्निटोन तागेलें फरियाद सांगून आयकयलें आतां मरान नाणे बरें काम करण्यांत तागेलें नांव राखलें. ह्या वर्सा ताका व्हड अपमान जाला. ताणे राखचें शेत ह्या वर्सा सगटां पाशोय पाइट उरल्यां. ताका जबाबदार ताजो खोतूच. तांणी जाण जावन ताजेकडे अन्याय केला.

औसेपाक हास आयलो. पोन्निटीन म्हळें : "खंयकी सून एक चेडो आयला खोतान गरजाक लागून ताका मदद दिलें. ताजें शेत भो बरें जालें, बापा, आजो सून काम करून येतल्ले आमी सग बुड्ढ्य जाले."

औसेप्पाक कायरीं समजलीं. पोन्निट्टीक आपणाले शेतांत बरे रूपान भात जायनातिलयान दुख आसा. तांणी विचारलें : "त्या खातीर आतां कितें करचें?"

"शेतांत सारे घालचाक शेंपा आनी गोबोर जाय." औसेप्पून कबूल केलें.

पण पोन्निट्टी गेलो. उपरांत कोरा पावलो. ताजी मागणी आशिल्ली कि शेतांत आनीकंय एदें सारे घालयार भात आनीकय चढ जातलें. औसेप्पान हेंवंय कबूल केलें.

तशी पुष्पवेली औसेप्पाची शेती दिसान दीस वाढून आयली. समयार वोत आनी उदक मेळेल्यान सारें घरन शेत पाचवें लवलवी जालें.

थांब खेळोवंचें काम शुरू जालें.

बायलो त्या पाचवसाणोचे मदें रावून फांतीन थांब खेळयतात. थांबाचे गींत म्हणतात आनी तांचे ताळाक अनुसरून थांब बोयतात. जेन्ना एक गींत सोंपता तेन्ना सर्वांचेच हाथ एकसान ऊंच येतात आनी एकसान सकल वतात, अशी थांब उमाटून वोयतात.

एकठांय मेळन काम करण्यांक त्या कामांत एक खास आनंद मेळता. आनी तीं एक शक्तोचोय अनुभव करतात. त्या गीतां निमित्तीं सीरांत रगत धावंचाक लागता. तांचो राग हर्दुयाक हालायता. जशी जशी गीतांची गती तीव्र जाता, तशी तशी तितले वेगान कामय मुकार वता.

कोरा त्या दिसाय पोला. पोट भारन पीला. गावपीण ताजी बायल, तिजे चंद गळ्यासून तो सरस गींत फूटलो. दुसर्यांनी तो परतून म्हळो.

गींताचो विषय एक अज्ञात कवीन रचल्ले प्रेमकथेक आधारून आशिल्लो. एक परया, एक परयीक काजार करचो काणी. एक पावटी कोराय तिजे फूड्यांत वोसून ताळ घालन गायतालो. त्या गींतात एका स्थलार घोव आनी बायल एक दुसर्याक चोवन संभाषण करचेंय आसा. नायिका प्रश्न करता आनी नायक जाप दिता.

अशी काम करणी दनपारांचे उज्जे वोतांत आपणाक विसरन काम करताले.

खोताचो पूत चाक्को थंय आयलो. तें, काम करपी जाण जायनात. ते गायतात आनी धंद करतात.

कोरांचें गायन फक जावन रावलें. तो एक दम भीयेलो. सान खोत चिरुताचे मागशीं रावला. कुञ्जप्पीन त्या दीसा म्हळेलों ताका उडगास आयलो. ताजे कानांत तीं उतरां परतून आयलीं. "सान खोत बावगून धंद करचे चेडुवांचे मागशीं उरतात."

कोराने विचारले : "आगो, सान खोत थंय कित्याक रावला.? उंचार
चाक्को थंय सून गेलो.

चेडुवां त्या वेळाय गावून थांब बोयतालीं परंतु कोरान मागीर गायलें।
ताजो उत्साह एक दम शेळ जालो. सूराची मस्तीय एक दम देवली. सौकाश
ताका थकाय दिसूंक लागली.

# णव

कोराचे शेतांचे भात झिगी मारन वाढता.
औसेप्पाचे दुसरे शेतांची शेतीय फाव जाल्या.
तरीय सग पाशीय चांग कोराची शेतीच.

एक दीस राती चिरुता कोराक वाडताली तो आज एक चेडो न्हय. पूर्ण पेरायेचो दादलो जाला.

कोराक त्या दिसाची रावंदय भो पसंद आयली. तें ताणे कबूल केलें. ायचोकी फोण्डारो उवसून मेळेली लान मासळेची रावंदय आशिल्ली. कोरा बैसून ञ्चीन जेवतालो. घोव आनंदान जेवता पळवन चिरुता तांकां खुशीन वाडताली.

"एक दाय शीत लागेन वाडूं?"

"आम, वाड."

"कितले दीस जाले एक मूष्ट अन्न भरन खावन? बराबर बांदार बैसून न्हय वे खाण जेवण."

चिरुतान दुसरोय एदें शीत आनी ताजेर एदी रावंदय वाडली. कोरान म्हळे : शी खावन धंद केलेल्या फल शेतांत दृष्टि पडता."

चिरुता कांय उलयली ना. तिजी चुप्पी मन जागृत करची आशिल्लीं. तिका कितेंकी म्हस्त सांगचें आसा सी दिसतालें. ताणे विचारलें :

"कितें, तें तुका समजलें ना?"

"खंयचें?"

"हांवें सांगलेलें."

"ओ!"

"तें कितेंकी 'ओ' जाल्यां?"

तिणे सागलेलें ताका पसंद आयलेना म्हण चिरुताक दिसलें. तिणे म्हळें :
"हांवें काय म्हळळेंच ना मू."

ना, तूं कांच उलयना. शेतांतली कायरीं उलयतासताना, तूं कांय सांगना हासून आसता जाल्यारीय तें सांगल्यार तुजो हास गायब जाता. तुजे तोंड काळें जाता हें हांव पळयतां.

चिरुताक सांगचें तिजे हर्द्यांत खबदळता. आतां भायर येवयेत. पण तें सांगचाक योग्य की! घोवाक बरें दिसतलें की म्हणती भीयेता. आज मरान तिजे तोंडासून घोवाक अहित दिसचें कांय भायर आयले ना. सांगचाक जायतें आसा. आतां तें मनांत रावचीय ना. त्या वेळाय ती तें दबावंचाक प्रयत्न कडताली.

दोन फांता ती घोवाचे तोंडाक चोयली.

"हांवें सांगल्यार झगडें जातलें. अशी शेत शेत म्हणून प्राण दीवन धंद करन फल कितें? कितलें दिसीं आज घराक आयल्यात? बरोबर जेवण, खाण ना, आराम ना. अशी काम करन कांय रोग लागल्यार कितें जातलें? हांवेंय ओणप्पणिक्कारांक पळयल्यात. माजे बापा! खयींय अशी पळयलें ना. एक पावटी दोळे मुकार पळोवंचाक मनांक तान उरता. आतांच जेवन हात धूवंका जाल्यार बांदार वसून म्हंयत धुतलो."

कोरा सर्वय समजलो : ताणे म्हळें :

"बरोबर, तूं सांगचें सर्वय बरोबर आसा. पण तूं त्या शेताक एक फांतां वचून पळय. भात देखल्यार थांगा सून येवंचाक मन जावना."

"भात शेतांत आप्पाप वाढतलें."

"तुका कितें म्हणचाक. पुंचा शेतांत काम केलेल्या परयाची धूव न्हंय तूं? देकून तूं अशी उलयता. शेतांत भात बोवन करचें काम परयाचेंच."

चिरुताक स्वल्प राग दिसलो. तिजे बापसूनय ओणप्पाणिक्कार जावन पुंचा शेतांत काम केलां. तोवय एक व्हड कुटुंबाचो वस्वन दिल्लली दास आशिल्लों. चिरुताचे स्वाभिमानाक दुकी पावली. तिणे म्हळें :

"ओ, हांवेंय देखलें आसा पुंचा शेत आनी थांगाचें वावर. आमीय एक व्हड घरकारांचे दास आसात. वोप जाल्यार मागीर धेंदेल्यांक केन्नाय शेतांत पडची गरज ना. पुंचा शेतांत काम करचाक कळनातिले केन्नाय थंय पडतले."

कोराक कोप आयलो. ताणे म्हळें :

"तर पुंचा खेतांत बीं घालन घराक येवन तुजे म्हायींत पडूं !"

"म्हण हांवें म्हळ्यां? इतले कष्ट काडून पोडेंत पळचार त्या वेळा सहायाक कोणेय पावना. त्या समयार हांवच लागी उतरलीं."

"पुंचा शेतांत परया बांदार उरल्यार ताजो प्रभाव वेगळोच. भाताक एक खास बाढ उरता."

चिरुताक वेगळें कितेकी सांगचाक आसा. ती उगडास करता रावली. "जावो, अशी काम करता रावल्यार फायदो कितें?"

"तें कितें गो?"

"भात जाल्यार सर्वय खोत घेवन वतले न्हय? ते आमचे खोत देकून न्हय?

कोराक एक घडियेक जाप दिसली ना. शेत लवलवीच वाढचे उत्साहांतय ताका एक पोडा दुख दिताली. भात उपजावंचे काम मजदूरांगेले. शेतांत भात जाताच. परंतु खोता लागीचो ताजो संबंध आठ हाण्याचे मुद्रेकामतार बरवन विवरसला तो ताजो खोत न्हय? ताका कोराक मोग करचाक जातलें."

तिणे म्हणचे बरी चार दिसांक पोडेंत पळचार? आयुष्यापासून कोणाक कळता? त्या पीडेंत दोळे धांपल्यार? . . . . .तिणे सांगचे प्रमाणी शेतांत उतलेंय भात जाल्यार फल कितें? करारा प्रमाणीं भात मात्र ताका मेळतलें.

तरीय त्या शेताची राखणी तोच भात वाढयतातो. शेताची लवलवी पाचव-साण पळयल्यार तो बाकी सर्वय विसरता.

तो परया आसा!

चिरुताचे अभिपिरायाक सीधा जाप दिवंचाक नातिल्यान तो स्वल्प समयाक घुसपलो.

चिरुतान मुकार म्हळें : "हांव सांगतां, कि हे सग खोतय चांग म्हण माका दिसना. ते व्हड स्वार्थी आनी आशेक आसात."

कोरान ताजेय आड कांय सांगलें ना. तिणे मागीरीय म्हळें : "तांचीं शेतां चिकोल घालन धड करन आमी थांगा खोंवी दवरचें कित्याक?"

"ना जाल्यार आमी खंय वतलीं?"

"ह्या वर्साचो आदाय घेवन हांगा सून गेल्यार कितें?

"खथंय वसचाक?"

"खयींय!"

तें कोराक कबूल ना. खयींय गेल्यारीय एक नवे खोता लागी संबंध जोडका जातलो. ताजे पाशीय एक वर्सा पुणीय परिचय आशिल्ले खोतूच बरो. मात्र न्हय, पिळगेसून ते व्हड शेतकारी आसात. तांचे खाल अनेक दास आसात. तांकांय तांचे दास जाल्यार कितें?

"आगो, अशीच सग दास जातात. कांय ना जाल्यार, तांकां चार पांच सास फार्याची शेती आसा."

"तें कशीय जालयारीय बरें आसचें ना. माका पसंद ना. म्हालगडे खोताकडे कशीय दींस काडयेत. परंतु तांचे पुता कालाक आमकां हें धंद नाका. ताजे फूडेच आमकां हांगा सून वसुंक जाय."

चिरुताचे उतरांत एक भीतीची सावळी आशिल्लीं. कितें पसावत म्हण सांगचाक जायना, कोराचे मनांतय चिंता उपजली.

"कितें गो, सान खोत वायट की?"

"दोळे व्हडकरन पळवंचो ताजी रीत, ताजी चाल–चलवण कांय सुमार न्हय. तो वायटूच दिसता."

दूरा गोंदळ आयकुक पळो. कोरा खोमटां सून भायर आयलो. लोक व्हडान बोब मारतालो. उवार आयला. खंय म्हण कळना. कोरा धावलो.

कोराचे शेताचो बांद फुटलो. पन्नास फूट दूरा मरान बांध भेतून गेलो. त्या दिसा रातीय दुसरे दिसाय पन्नास साठ मजूरांनी खूब प्रयत्न केलो. त्या दिसा न्हंयंत बलवंत भरती आशिल्ली. कशीय तो बांद बांदलो.

त्या दिसाच उदक आटोवंची चार मशीनां दवरन शेतांसून उदक आटोवंचाक लागले. दोन दिसीं उदक बरोबर आटतलें म्हण निश्चय आशिल्लो भाता कणसां दोन दिसांक उदकांत बुडून रावल्यार बरें आसतलें म्हण कृषि जानकारांचो अभिपिराय.

तरीय तें राखण्यांक ऊणाव. बांध फुटलो! हें ताजे बेजागृतायेन न्हय जालां. मात्र न्हय, हाजान खोताक खर्च चढ जालो. शेती बरी जावन, तो खर्चूय ताजे पेल्यानय मेळतलें जाल्यारीय मजूरांची चूक देखून घरचाक हो एक चांग सदर्भ मेळळो.

तीन चार दिसांक शोधल्ले उपरांतच औसेप्पाक देखून मेळचाक जालें. बांद फुटचे वेळार तो शेतांत ना आशिल्लो. तो खंयकी दुसरेकडे गेल्लो. हें तागेली नाजापसालदारकी कळयता म्हण निर्णय जालो.

कोराय आतां भायर देवना. त्या दिसांकडे खोताक निपून भोवंचाक ताजे मित्रांनी तांका उपदेश दिलो. कोपान खोत कितें करतलो म्हण सांगचाक जायना. एक हाफ्तो उपरांत, भाताची कमजोरी दूरा गेल्या उपरांत खोतांक मळचार पूरो म्हण. दवरलें.

कोराक भायर देवन भोवंचाकय लज्जा दिसताली. ताजेर एक व्हड लांच्छन आयलें. बांद फुटचाक उचित कारण आसा. पुंचा शेत सत्य आशिल्लें. तो घराक वसून अशुद्ध जालो. आनी वांदार गेलो. बादूय फुटलो.

एक म्हांतारो परयोन म्हळे, : "तीं दोगंय चेरडुफिरायेचीं!"

# दुसरो भाग

## धा

एक दीस सकाळीं देवळांत आनी इगर्जेंत उत्सवाची घांट वाजुक लागली. कांय विशेष कायरें आसा. पिराय जालेल्यांक वोटाचो अधिकार मेळी ह्राजो संतोष प्रगटायताले.

परया आनी पुलया ह्रांकां त्यादीसा समजलें कि राज्याचे सर्वंकडेय तांचे खोत कित्याक सभा करताले. झेंडो धरन फांतीन रावून प्रोसेशन कित्याक कर-ताले आनी व्हड खोत कित्याक जैलांक गेलले आदि. खंयकी सगटय जनांक मारले आनी लोकांक गूळो घालन जिवंशी मारले, हें सग तांणी सांगून आयकलां. सर्वंय ह्याच खातीर जालां

कोराक एक कायरीं सांगचाक आशिल्ली. फूडेंच वोटा वेळार—तेन्ना सगटांक वोटाचो अधिकार ना आशिल्लो—ताणे ताजे अरक्कल खोतान सांगल्या प्रमाणीं वोट करतल्यांक मंचुवार चढवन विद्यालयांत व्हरन सोळचात. हें कुञ्जप्पीनय केलां.

कोरान म्हळें : "तेन्ना व्हड मजा आशिल्लें. सकाळींच उजवाड जाताच मंचुवार चळों. कापोक कापी सूराक सूर, खाणा—जेवणा वेळार तेंवंय, सग मेळळें. 'तुम कांय वोट करचो अधिकार मेळुंक जाय' हें सांगून सांजवेळा धा रुपयाय दिले आनी म्हळें 'हें तुकाय आसो रे' त्या पावटी माजो खोतूच जिकलो.

तेन्ना कुञ्जप्पीकय सांगचें आशिल्लें : "वोटाचे एक मास फूडेंच सून माजे खोताचे घरांकडे खूब खुशाल आशिल्ली. सूर आनी मांस खूब चलताले. कोंब्याक आनी बरतवाक मारचें—कातरचें काम ह्रांवंच करतालों. माजी खोतूच जिकलो."

तेन्ना शमयलान म्हळें: "आरे वोट दिलेल्यांक खूब पैसोय मेळतालों." तेवंय खरें म्हण कबूल केलें. कोराक ताजे अनुभवांत सून एक कायरीं

लागेन सांगचाक आशिल्लीं: "सगटांकय एकच लेकान न्हय पैसो दिताले. एदे जनांक एक एक रुपया, एदे जनांक दोन दोन रुपया, धा रुपया मरान एक एकल्याक दिताले. आमचे घराचे लागी एक खोताचे घराकडे चार लोकांक वोट आशिल्लें माजे खोतान वसून पन्नेरा रुपया सांगून लैलांव जालें. आखेर माजे खोतान पांच-वीस रुपया दिल्ले आमकांय मेळळे.

किर्तेकी आठोवन बैसल्या शमयलान विचारलें : "तेन्ना आमकां ह्या पाव-टीय पैसा मेळतलो?"

"व्हय, खण्डीत मेळतलो."

"अशी जावंचें बरेंच."

मळवात प्रतिध्वनी जावंचे वरी बारीक दारुवेचे खोदने फुटची आवाज आयकली. व्होडान उलो दिवंची प्रतिध्वनी मळवांत आयकुक पडली. खोतांनी तांगतांगेले दासांगेले घराक वसून सांगलें कि त्या दिसा खुशी प्रकट करुंक जाय. आश्वीन मासाचे आश्लेषें, मगें–ह्या नक्षत्रांचे दिसांचे खुशी पाशीय चढ करन खुशी प्रगट करूंक जाय!"

त्या दिसा मंचुवां खेळाचो कार्यक्रम दवरलो. सोळा व्हड मंचुवां आनी अने-लान मंचुवा हांकां शिंगारचाक ठारायलें. परया आनी पुलया, हांणी सर्वानीय चांग वस्त्रां न्हेसून मंचुवां खेळांत भाग घेतलो.

दनपारां उपरांत मंचुवां खेळ प्रारंभ जालो. मंचुवांचेर तिरंगाचे झेंडे उप-यले. कुञ्जप्पोन कोराक विचारलें : "तो कसलो झेंडो रे?" तें ताका कळना. असलो झेंडो ताणे फूडे खोतांचे सम्मेळनांत पळयला.

"आरे, तो क्रिस्तावांचो झेंडो व्हय?"

"तेन्ना तांत खुरीशाची खूज खण्डीत आसतली."

"देवळांतलो झेंडो की?"

"छी : "

"सायबांनी वचे वेळार दृष्टि पडचो झेंडो तो अशी न्हय मू, व्हय?"
"न्हय, पण देखचाक चंद आसा."
"तें व्हय."

भायर सरन आयल्ले मंचुवकारांनी गायल्ले गींत परतून गावुंक तांचान जालें ना. सग मंचुवा मेळन एकच गींत. मंचुवां मदें मत्सर ना. ह्रो एक नवो गींत

आशिल्लों. तशीच खुशालीचो उलोय परने रीतीर न्हय आशिल्लो. मंचुवां खेळा-वेळार "जय" दिल्ललो दिलली इतःपर्यंत आयकलो ना.

मंचुवां खेळ जावन इगरजेचे मैदानात सम्मेलन जालें. एक व्हड खोतान भाषण केलें. मनीशाचो व्हड जमाव. परया–पुलया जनां सगटय त्या दीसा प्रथम जावन खोतां लोकां भरशी बैसलीं.

भाषणां! आवेशान भरलेली भाषणां जालीं. त्या दिसाचें महत्व गरजेचें. देशान साबार त्याग केले. सगटांकय साबार उगडास करचाकय भाषण करचाकय आसा.

सम्मेळन सोंपलें. परया आनी पुलया, दोगंय एकसान मेळें. भाषणां पासून ते चर्चा करचाक लागले.

कुञ्जप्पीन विचारलें : "त्या खोताना म्हळें 'सग बराबर आसात.' कोरा, हें कशी जायत रे? आमीय खोतय बराबर आसात व्हय?"

त्या दिसाचे धंदान बेजार जावन कुरवुंच्या इट्यांतीन म्हळें : "सभेत उलोवपी सगटय अशीच सांगतात. एक पावटीं एक खोतान सांगल्लें हीवें माजे कानांनी आयकलें कि खोताचें आनी परयांचे–दोगांचेय रगत एक सारकेंच आसा. ते तशी समयूय संदर्भूय चोवन सांगतले."

कोरान जाप दिली. "तें सगटय तशीच तरीय आज सांगल्लें वेगळेंच आसा. आतां आयकांय वोट आंसा.' तें सांगचें खरेंच."

कुञ्जप्पीन म्हळें : "त्या व्हड खोतान दीवान हांचे पासून म्हळेलें आयकलें ना?"

"त्या वेळार ताका भी कोप आयलो."

आनी एकल्याक उचोत दुबाव जालो. "आनी आमीच आमचीं कायरी संबाळ-तात म्हण सांगलें. तर रायाची गरज ना?"

"ना जातली."

तेन्ना मार–फार आनी लूट–हांचें राज्य आसतलें. आज राय आसतानाच मनांत समाधान ना. मनःशांती ना. तेन्ना, रायूच ना जाल्यार कितें जातलें? तर पुलीस–वुलीस कांय आसचीना, व्हय?

"कोण जाण ? ह्या गुसपणी पासून माका कांय कळना."

तेन्ना कोरान एक दुबाव सुचयलो. "माका ताचो कांय न्हय दुबाव!' सगटां-लीय कायरी ते चोयतले म्हण सांगतात. हें कशी साध्य? 'आमकां मजूरी चढ

मेळका' म्हण सांगल्यार सरकार खोतांकरान आमकां मजूरी अधीक दिवयतलें न्हय?"

शमयलाक हें आयकचाक हास आयलो. तो कसली गिरगिर उलयता! आरे तूं किते म्हणता? मजूरी सरकार कित्याक दीवयतलें? हांत सरकाराक कितें काम? मजूरी खोताकडेसून आमकां घेवुंक जाय."

सगटांक शमयलान म्हणचें खरेंच दिसलें. सरकाराचें काम तें काय न्हय. तशी सरकारान हांत हात घाललोय ना.

कोराक ताजे पिसपण समजलें. सरकाराक दुसर्यानी सांगचे वरी हांत कसलीं कायरीं? तरीय ताणे सोळेना. ताणे म्हळें :"सरकारान आमकां उचीत मजूरी दीववुंक जाय, हीच माजी मागणी."

तेन्ना एक युवकान म्हळें : तें वंय एक खोतान सांगलां. तो एक पिराय पिराय ऊणे उरललो. खोत आशिल्लों. माका ताजे भाषणच चड चांग दिसलें.

शमयलान अविश्वास प्रगटावन म्हळें : "आरे, तुमकां पिशें की? ह्या सरकारान आमच्या कार्यात कांय जाग्रताच दाखोवना. सरकाराक हांत कांय कायरीं ना. भाषण केलेले सर्वय आता खोताचे घरां बैसून खूब खातात जेवतात. तांकां खोत दुडुय दितले.

"तशी दीवोत, भावा! भात रातीन रात फार्याक पाच रुपयानी विकतात न्हय?"

"आरे हांवें म्हळेलें तें न्हय. भाषण करतलो सगटय ताचे मुकार तांचे तोंड घोवन अशी उलोवंचीना. ते खोतानी सातुचचे आयकवले.

कुरवुंचे मर्दे इट्यातीन म्हळें : "हे सूर बंद करचाक वतात."

शमयल भियेलो. "भूखेन तानेन वापस येवंचे वेळार एक फांता कायरीं चमकतालीं. आतां आनी तेंवंय नातिल्लें रावतलें की?"

"अशी दिसता."

एक तरण्याटाचे मनांत त्या दिसाचे भाषणांतलें एक खास कायरें उगडास आयलें.

"नायर खोत आनी क्रिस्तांव खोत, ह्याचे मर्देंचे झगडें सोंपलें म्हण एक भाषण दिवन्यान सांगलें न्हय. तशी झगडें आशिल्लें व्हय?"

कोराकय तें भाषण आयकचाक तोच दुबाव दिसललो. ताणेय तें प्रश्न केलें शमयलान ताका जाप सांगली : "तें साबाव रे पुतानों कांय अर्थ ना. शेत आनी भुंय बखन दिवंचे वेळार आनी शेतांत कृषि करचाक करार बरवन घ्येवंचे व्हड खींचा-तानो आनी झगडें जाता. तेवंय दामेल्यां मदें. दक्षिण भागाचे मात्यु आनी माधव हे खोत आसात मू. तांचे मदें कितलो प्रेम आसा. पळय. तशीच दुर्बळ नायर आनी दुर्बळ क्रिस्तांव हांचे मदें कांय झगडे ना".

इट्यातोनय हें कबूल केलें. झगडें दामेल्यां मदेंच उरता. पण आपणाले वर्गाचे चंगपणाची कायरीं येताना तांचे सगटांचेय मदें खूब एकटाइ उरता. मात्यु आनी माधव, औसेप्प आनी गोविंदन नायर, आयप्प आनी किट्टु पिल्ला—अशी साबार, जनांची नांवांय ताणे आयकलीं. हे केन्नाय वोट्टु रावचे मित्र.

सगटय आयकप मात्र न्हय, स्वल्प चिंतनय करचे कोरान म्हळें : "सग-फट्टी, हरवी फट्टो. हांव सांगतां. नायर लोक क्रिस्तावांक गाळायतले, क्रिस्तांव नायरांकय. पण वास्तवाक वर्ग दोनीच आसात. एक धनवंतांचो आनी दुसरो धनहीनांचो. उगडास दवर! एदे दीस फूडे एक क्रिस्तांव खोतान रीण दीवपाक आता म्हण सांगून आमचे खोतान पुलोस्ताचे सहायान ताका घरांसून भायर देवंयलली. देकून भाताचींय दामाचींय कायरीं आयल्यार जात ना.

दुसर्‍या एक तरणाट्याक स्वल्प लागेन चढ सांगचाक आशिल्लें." तरीय हागाचे दुर्बळ क्रिस्तांव आनी नायर स्नेहान रावतात. तरीय आमचे लागी ते धनवंत खोतांचे सनान व्यवहार करतात. फरक होच कि आमचांत कोणेय उपाशी पडना. ते पुराय उपाशी कोरा भावान सांगचे वरी जात दोनीच.

त्या मध्यवर्गाचे संबन्धापासून म्हळेलें आयकून शमयलाची बुद्धि जागली. तशी आशिल्ले सुमार कुटुंबाचें पन्नास वर्सांचे चरित्र ताका कळता. सगटांक राव-चाक तांगतांगेलो घरां आशिल्लीं. पण कराराक शेत घेवन आनी रीण घेवन कृषी करन सर्वय नाश पावले तो कथा शमयलान अशी समाप्त केली.

"आतां इट्टयानी भावान म्हळेल्यावरी ते सगटय उपाशी दीस काडतात. खोत आसात न्हय? स्वयं धंद कशी करतले? उपासाचेर उपास काडतात."

अशी तांचें संभाषण चलता आशिल्लें.

# इखरा

थोडे दिसींच पुष्पवेलोचें घरकडे साबार कायर्या पासून चिंतन करचाक सभा जालो दूर दूर सूनं प्रमुख क्रिस्तांव महंत आयले कुट्टनाटचे दोनीय इगर्जाचें पाद्रींचे सिवाय तीन चार मठांचे सन्यासी–पाद्रीय ह्या सभेंत भाग घेवंचाक आयले.

खंयच्यय विषयाचेर चर्चा जाली हें कलायांक आनी परयांक कळना. तरीय तांणी कांय अनुमान केलें. कोरान म्हळें : "वोटापासून आसतलें. ताजे फूडे आमकांय चिंतन करचाक नाय."

थोडे दीस फूडे त्या गावचे एक नायर महंताचे घराकडेय एक कायर्यापासून आलोचना चमकली म्हण आयकलें. तांत नायर, चोगवंचो, * ब्राह्मण ह्या सर्वांनाय भाग घेतल्लो. खंय तीन चार सन्याशी आशिल्ले.

कितलेकी व्हड कायरीं जावंचाक वतात. क्रिस्तांव आनी हिंदू हांचे मदें व्हड झगडेंच जातलें अशी दुबाव जालो.

एदे दीस जावंचे फूडे तीन चार क्रिस्तांव पाद्री त्या गावांत आयले. तांणी इगार्जेंत व्याख्यान केलें. ते मुख्य क्रिस्तावांचे घरांकय गेले. मुखेल क्रिस्तांवांक घेवन परयांचे आनी पुलयांचे घरांक येतात वतात दृष्टि पळळे. थोडे दुर्बळचांक तांणी पैसो दिल्लो. थोडे जनांक वस्त्र दान दिल्लें. तशी ते पराया–पुलयांचे बन्धु जाले.

एक हफ्तो उपरांत एक दीस सांजवेळा कुज्जप्पीन कोराक सांगलें : "आरे हांव बाटुंक वतां."

हें आयकून चिरुता स्तब्ध जाली. "आरे हें कसलें तमाशा ?"

---

* केरळची एक अवर्ण हिंदू जात. श्री. नारायण गुरु ह्या जातीचो एक महापुरुष.

कुज्जप्पीन म्हळें : "कितें रे, आमी सगटय देव नातिल्लें? पण आमीय मनीश न्हय ? मरणोपरांत आमकांय उदरगती नाका ?"

कुज्जप्पी मनीशच एक दम बदल्ला. तांचे मदें कांय कळनातिल्लो म्हण लेकललो कुज्जप्पी मरणा नंतरचे कार्यापासून उलयता. कोराकय अद्भूत जालें. चिरुतान म्हळें "तर बाटनातिल्याक उदरगती ना ?"

"आमी माटन आनी पिशाच हांकां पूजचे न्हय? त्या पाद्रीन सांगचे आयकुंक जाय."

कुज्जप्पी जाणतल्या वरी सांगचाक लागलो. ताणे म्हळें " हे पाद्री व्हड ज्ञानी आसात. आमी इट्यानी ओलोंपो आनी पोन्निट्टी सर्वय थांगा आशिल्लो."

कोरान विचारलें : "ते सर्वय बाटुन क्रिस्तांव जावुंक वतात की ?"

"हांवंय इट्यातीनय बाटचाक निर्णय केला. खोतान तुमचे कडेय म्हणुंक सांगलां. पाद्रीन आमकां खोमट सम करोवन दीन म्हण वचन दिला. इटयातील एक नवी खोंपी दवरोवन दितलो. आण माका दोन रुपयाय दिल्ले."

चिरुपान म्हळं : "आमी आज बाटून क्रिस्तांव जावना. आमी 'काळी' आनी 'मातन' हांची पूजा करचीं घरकारां आसात.

"हांवंय तशीच."

कुज्जप्पीन म्हळें : "खोतांन सांगचां—बाटल्यार खोन आनी आमी समान जातले."

कोरा हासलो. "शमयल भाव चेरडु पिरायेरच क्रिस्तांव जालो. पण आजीय तो पुलयाच आसामू."

कुज्जपीक हाका कांय जाय ना. ताणे ताजो निर्णय एक फांता लागेन परतून आयकयलो.

"हांव क्रिस्तांव जातलो."

कोरान मनपूर्वक कुज्जप्पीक म्हळें :"आज परया आनी पुलया हांचेर इतकी रुचि कित्या म्हण भावा, हांव सांगन. आता सगटांक वोटाचो अधिकार मेळळा. तावें संबन्धी कांय जावयेत."

चिरुतान मागीरीय आपणालो निर्णय परतून सांगलो.

लागोचे आयतारा कुज्जप्पी आनी तांचे घरकारांचे बाप्तीस जालें. कुज्जप्पीचे नाव पत्रोस जालें आनी बायल माणी आशिल्ली 'मरियन' जाली.

अशी बाटोवन क्रिस्तावं करचें काम हांगा चलतासनां मानत्तु घरकारांचे मांटवांत एक सन्यासी येवन रावून फूडे क्रिस्तावं जालले परया आनी पुलया हांकां शुद्धी कर्म करन पुनः हिंदु करतालो. कुञ्जप्पी 'पत्रोस' जालो; योहन्नान 'अनंतन' जालो, क्रिस्तावं आनी हिंदू करचे फाटिबळाचे मतलब परयाकय, फलयाकय समजलें ना.

ह्यां मत्सरांत कुट्टनाटचे परया आनी पुलया–दोगंय आपणाक हंय सून थंय आनी थंय सून हंय पायांचो मार घेवंचे पेला समान अनुभव करताले. परंतु त्या समयारीय तांची नित्याची मजूरी दोन दंगाळी भातच आशिल्ली !

त्या नवे व्यवस्थेन राज्याचे जनजीवन वेगळेच एक वाटेर घुवंडावन सोळळेंच. कसलेकी उद्देशान पुलया आनी परया हे अशीय तशीय बाटून धर्म पर्तून आशिल्ल्या त्या कालाक व्हड व्हड मध्यवर्गाचे शेतकार, व्हड व्हड खोत, जमींदार आनी धन-वर्तक हांजें आपणाले हितांनी राष्ट्र पक्षाचें रूप धारण करन प्रवर्तन शुरू केले. तांचें नाव "स्टैट कांग्रेस."

गान्धी तोपी घरशिल्ले कांय प्रवर्तक गांवांन गांव भोंवताले. मानत्तु आनी पुष्पवेली घरकार सगटय तांचो सर्व सहायूय करताले. पाद्री आनी सन्यासी, दोगंय तांकां उपदेश दित्ताले.

एक दींस आयतारा मीस जावन लोकांनी वसचाक प्रारंभ करचे फूडे पाद्रीन क्रिस्तावं भावंडांक उळदून सांगलें :

"सगटांकय स्टैट कांग्रेसांत मेळुंक जांय."

माघ मासांतले संक्रांतीचो दीस आश्रमात भजन करचाक आयल्ल्या लोकांक स्वाम्यांनीय हेंच सांगलें. एन. एस. एस. करयोगम* आनी एस. एन. डी. पी. योगम** हांचें सम्मेळनांतय ह्याच उपदेशाची घोषणा केली.

सगटांकय वोटाचो अधिकार घेवन दिलो. स्टैट कांग्रेस संस्थेन देकून ताचेर आसचें आमचें रीण आमी विसर न्हयें.

दक्षिण भाटाचो मात्तु आनी उत्तर शेताचो मात्तु–दोगंय राती जेवणाचे उपरांते मेळचाक दोगांकय एक विषयाचेर उलोवंचाक आशिल्लें. तेंह्नीळ मरान

---

* नायर सर्वीस सोसाइटी (नायर समाजाचें सेवा संघ)

** श्री. नारायण धर्म परिपालन योगम (श्री नारायण गुरु–हाचे धर्माचें परिपालन करण्याचें संघ)

तांणी चिंतन करनातिल्लें, जीवनांत गरजेचें म्हण दिसनातिल्लें कार्यापासून उलोवुंक लागले.

मातुन विचारलें : "तूं कांग्रेसांत मेळळो ?"

"आरे कितें सांगूं ? चार दाम त्या खातीर खर्चले. हांव, माजी पत्नी, व्हड चेडो, आनी ताजी बायल सग मेंबरां जाल्लीं. पाद्रीन गेल्ले आयतारा म्हळें, मागीर त्या तोपीकार सयत तो घराक आयलो. आमचे औसेप्प आणी कृष्ण पिळळा हांजीय वोग्रीय दिल्ली. तूं मेंबर जालों ?"

मातुक मेंबर जालो. ताणे पांच दाम खर्चले. ते मेंबर जाले, स्वाम्यानी सांगून. तांकां मेंबर करचाक येतासताना थांगा गावंचे मुखेल आशिल्ले. सर्वोपरी गेल्ले फांतां करयोगमचे वसकेंत ठारायलेलेंय आशिल्लें.

मात्तुक कांय दुबाव आशिल्ले. ताणे विचारलें : "मात्तुककुञ्जे* हे लोक सगटांक मेंबरां करतात. कित्याक? करयोगम आसा. इटवका! आसा. हांचो मेंबर जावंच्यांत उद्देश आसा. पण स्टॅट कांग्रेसात मेळचें कित्याक?

मातु नायराकय ताजी बरोबर जाय दिवंचाक जायना. तरीय स्टॅट कांग्रेसांत मेळचे उद्देशा संबंधीं ताका सुमार पारखोणे आसा.

"आतां सगटांकय वोट करचो अधिकार मेळळा. त्या खातीर जावचेत. मानकोंपु गावांत सून हांवें परतून येतासताना मुन्नारमुखम स्थायार एक सभा जातालो. भाषण एदेंच आयकलें. सगटानीय कॉंग्रेसात मेळुंक जाय. जाल्यार सगटांचेय हिताचीं कायरां आमी करूं म्हण भाषण करचें हांचें चिके आयकलें.

मात्तु माप्पिळा केरळांत क्रिस्तावांक 'माप्पिळा' म्हणतात. हाचे मनांत एक दुबाव सगटांचेंय चांगपण हे कशी करतयले? हें कशी साध्य?" "तें काय मांकां कळना. हांवें अशी आयकलें."

हो संवाद आयकून आशिल्या मात्तु मायिळेची पत्नी, त्रेस्यान विचारलें : "ते आमकां ओरोव कि भात दितले?"

मात्तुन म्हळं : "व्हय, व्हय, तें मेळन जेवंचाक रावल्यार पूरो. भात जाय जाल्यार फार्माक पांच रुपया दीवन घेवूंक जाय. राती वचून घोवुंक जाय.

"मागीर हे लोक करतात कितें?"

---

*कुरुचे पुता, चेरडा, ह्या अर्थान प्रयोग करतात. १. क्रिस्तांव लोकांचे ग्राम संघ.

अविश्वास प्रगट करून मात्तु माप्पिळान म्हळे : "तें सगटय हे सांगतले. आमकां कळना की, ह्या करयोगाची आनी इटवकेचीं कायरीं. दामेल्यांक इगर्जो आनी करयोम हांचे निमित्तीं फायदो आसा. आमकां कितें? कांय ना. आमी धा फार्याचें शेत कराराक काडून, दाम वाढीक घेवन थंय कृषि करतले. जमींदार आणी रोणेली येवन भात मोवन घेवन वतले. तरीय रोण बाकी. काळळेले कष्ट मात्र उरतले. रीणा वाढून कांय दोन सेन्ट भूये आसल्यार तीवय त्या रीणाक घेवन वतले. तशी आमचो नाश जाता. अशी आमकां सोसून खावंचाक संदर्भ वढ करचे खातीर, आतां आमचे कडू सून पैसो वसूल करन ह्या कांग्रेसाचे निर्माण केला.

मातु नायरान म्हळळें : "कांग्रसाक दुडुय आनी सगटय वेगळेंच मेळतलें. एक एक सास रुपया, पुष्पवेली आनी मानत्तू–ह्या घरकारांनी दिला."

"तो कित्याक दिल्ला? आमची भूंय गीळुक. रातींचें, भात विकचे वेळार बरनातल्लिें रावचाक. आनी शेताचें कर ऊणे जायनातिल्लें. रावचाक सौकाशाय मेळचांक

हें आयकचाक मातु नायराक चिंता विकल्प जालो. कितेंय जावो, तो मेंबर जालो. फुरात सांगचाक पुणीय एक जागो जालो म्हण ताका आश्वास जालो. ताणे म्हळें. :

"मानत्तु घरकाराक आमचे घरकारांची पन्नास फार्यांची भूंय जामीन दिल्या. माजें घर आनी जागो घाण आसा. कांग्रेसाक एक फुरात दीवुंक जाय. ते कितें करतले म्हण पळवया."

तसली एक फुरात मात्तुकय दिवंचाक आसा.

# बारा

शमयल, कोरा, कुज्जप्पी हांणीं सगटानींय मेळून बीं घालेले शेतांत बी किटलेवन अंकुर्यो आयल्यो. ओपे उपरांत भात वाढल. आनी ताका कणस आयलें. भोंवंतणीची पाचवसाण कालारवेळार भांगरानें रंगात बदल्ली.

पुष्पवेलो औसेप्प हांचे शेत लुवंचो समय जालो. लुवण कोरांचें सशें कार्याचे शेतांत सून प्रारंभ जातली. शेतांत भात पिकून लुवंचाक तय्यार रावली. औसेप्पाचे करा राचे स कुटुंबाचे दासां सिवाय; चेड्डनूर आदि दूसरे देशांसून मजूरांक उल्लो दिल्ला. त्याच शेताचे एक भागाक बांधाचेर कोरानी खोंणी आसा. चात्ताय लुवणीक आयला.

त्या शेतांत त्या वर्सा वरी एक कालाकय भात लागलें ना. शेत सगळेंच चांग दाटायेन भाताचे पिकल्ले कणसान भरन आसा. भाताचो एक पाल्लो सरी दृष्टि पडना. कणस मात्र.

लुयतल्यांकय लुवचाक फांतीन रावचाक आनंद दिसलो. लुवचांक लागल्यार दूरामरान, तलवार पर्यन्त लुवन. वचेत कणसा भारान भात एक तांत वावगून पळलेलें देकून लुवंचाक सोंवें.

शमयल आनी कोरा शेताचे दक्षिण पश्चिम मुल्याक देवन करावळीचान एक तांत पावले. लुवण प्रारंभ जाली. रावले कडेच रावन चार चांग चुरुट लुवन काडयेत. तुतलें खूब भात आसा. देकून लुवण लहवू लहवू मुकार वताली. तरीय चारीय दिक्कार चुरुटन दृष्टि पडताले.

कोराक लुवंचाक जालेना. तो हातांत व्हीळोय घेवन लुयतल्याचे फाटी भोंवतालो. लुवंचो भाता कणसां बेपरवा खाल घानकातिल्लें चोवंचें ताजे काम.

तोवच आज आनंदान आपणाक विसरलो. त्या शेतीक कसलें कसलें गोलमाल जालें! कसले गाळे ताका घेवंका जाले. आतां ताका एक मजूर म्हण अभिमान पांवयेत.

लुयतच्या मागशीं भाताचे एक कणस सरी भूंयचेर पडल्यार कोराक सहन जायना, तो बोब मारता: "आगो लुवंचे चेडवा."

लुयतल्लेन मातें ऊंच काडून पळयलें. कोपान कोरा न विचारलें: "हें कितें, गो, पळचां?"

तो चेडनूरसून आयल्ल्या लुवनकारांत एकली आशिल्ली. तिणें म्हळें: "ही कसली तमाशा? पुंचा शेताचे लुवणींत एक दोन कणसां कुटके खाल पडतलें हें. नवेंच कांय न्हय."

कोराक आतां कोप चढ जालो. "तुमी सग कितें खातात? भाताचो ओरोव न्हय? हें माजे कठोन प्रयत्नानें फल, एक एक भाताचे झाडय सावधानेर वाढोवन हाळचां. हें सर्वय शेतांत पर घालचाक आशिल्लें न्हय."

तिजे लागो रावून लुवंचे चेडुवांनी हें झगडें आयकलें. तुतलेंच चढ कणस पळळेना. दोनींच कणसां पळचांत. पुंचा शेतांत हाजाकय चढ जाग्रतकायेन लुवचें साध्य न्हय. हें दृष्टि पडतें भात पूराय मनोशाचे हातानच लुवेका जालेलें.

एका पुलयोन म्हळें: "पुंचा शेतांत पिकलेल्या भाताचो चारीतलो एक वाण्टो शेतांत शिवंडून पडना जाल्यार शिराप लागतलो.

कोराचो आवेश आनी कोप चढजावन परिहास करचे गदी जालो. एकलेन विचारलें: "हो खंयचो दरिद्रवासो रे, हाणे पुंचा शेत देखलेंच ना म्हण दिसता."

"आगे, तुवें कितें सांगलें?" कोरा व्हीळोय तिजेकडे गेलो. कसलो कोप आसल्लो ताजो! ती पुलचीच पारजालेली आशिल्ली.

तिकाय कोराची अत्याशा आनी आंबड्यां चांग दिसलीं ना. समृद्धीचे त्या चैत्र मासांत सर्व प्रकारानय योग्य न्हय जालेलो कोराची ती अत्याशा देखून तिका लज्जा जाली. भात दखल्यार मनीश ताकताकाच विसरता की? खोताक सरी तुतलोच. अत्याग्रह ना. तो कोराक जाग्रतायेन पळयतालो.

त्या पुलयीचे आड धावन येवंचे कोराचे हातांक ताजे बायलेन मुकार सरन धरलो. घरण्यांसून सुण्टून मुकार वचाक कोरा श्रम पावलो. चिरुतान सोडलोना. तिणे विचारलें: "कसलें पिरशें हें?"

"भात मरघालचाक नज म्हणचाक तिजो अहंकार पळयला तुवें?

कोराक धरन हाडचाक चिरुताक साध्य झालें. तिणे लुवंचे फांतीर कोराक व्हरन रावयलो. शासन करचे रूपान तिणे म्हळं : "भात देखचाक तुमचें माते फिरलें.? फिरलें?"

कोरा चिके निवलो. ताजो आवेश लेकाचे भायर जालो म्हण ताका दिसलें. तरीय तो आपणालो चूक स्वीकार करचाक तय्यार ना. ताणे म्हळें : "फडिचान खावंचाक आसल्यार दी."

चिरुताची व्हण्ट मेकळून ताणे फडचानाची पटळी काळी. चिरुतान विचारलें "गेल्ले वर्साय पुंचा शेतात लुयललें न्हय?" मागीर आतां इतलो. कोप कित्याक?"

"आगो, व्हय, हांवे केलेल्या कठीन धंदाचें फल हें. खाल घालनातिलें लुयल्यार मात्र उपज दृष्टि पडतलें."

"ओह, अशीकी! लुण्णीचें काम केलेल्याक, पुंचा शेतांत लुवचें वेळार भात खाल पडयेत म्हण कळना?"

चिरुताचे तर्कक 'ना' म्हणचाक कोरा शक्त जालो ना. ताणे कांय जाप दिल्ली ना.

फडचान खालें उपरात तो चढशेळ जालो. तेन्ना चाचाय थांगा पावलो. चिरुंतान कोराक विचारलें.

"व्होळो घेवन अशी भोवल्यार पूरो? एकडे रावून दोन चुरूट भात लुय-ल्यारच कांय चढ मजूरी मेळतली." "लुतयल्या मागशीं भोवना जाल्यार भात नष्ट जातलें." कोरान म्हळें.

चात्तान म्हळें : "इतकेंच झगडें जालें देकून आनी भात परघालना."

कोरा चिरुताने दावे तांत रावून लुवंचाक लागलो. चाता फांति परतून चिरुताचे उजेकडेन आयलो. लुयतां लुयतां कोरा, चिरुता आनी चात्ता तेगंय, तांचें मदें उलयातलीं.

चिके दूरान मरान लुयल्या उपरांत चिरुता कोराचे मागशी सरन चोयलो आनी चात्ताक म्हळें : "चात्ता, भावा, चिके आळतां धूवन पळय. कितलें भात परघल्या!

कोरान लुयलल्या स्थायारीय भात पळचां. तो आतां बुद्दू जालो. ताणें म्हळें. 'वोतांत देकून हांवें देखलें ना."

खरोखर जाप दिसनासिल्यान कोरान अशी करन सांगची जाप आयकून तिका हास आयलो. पण तो हास ताका खेबडावंचाक न्हय आशिल्लो पुताचें बुद्दू-पण देखून एक आवयन हासचों हास.'!

तें सर्वय चात्ता रावून पळयतालो. कोपान कली कुदच्या ताका तिणे घरन हाळो. भेष्टायचो तेन्ना ताणे एक फांता फडचान खावंचाक मागलें. तिणें तें ताका दिल्लें दिल्लें. स्वल्प समयाक ती लागी आशिल्यान कोरा शांत जालो. आपणालें पिशयण तो समजलो. तिकाय सामर्थ्य आसा!

चात्तान दीर्घ उसवास सोळो. तीं मागोरीय लुयतां रावलीं. चात्ताय आसा.

फूडे वर्सा लागी रावून लुयल्यांसून आतां ती कितलेकी दूरा गेली! तेन्ना चात्तान जायतीं तमाशेची खबरां सांगलीं. सांगचाक ताका कांय तोन्द्रे ना आशिल्लें. ताजें मन सरळ आशिल्लें. कितेंय सांगयेत सांगचाक दिसतलें. परंतु आज? ताजे मन निराशाचे वोज्यात जड जावन बावगलें. ताका आज तमाशा सांगचाक येना. कांय सांगचाक दिसल्यार तें गळचांसून भायर फूटना. तो आता एक घरकारनीकडे उलयता! मानमर्यादेचें पालन करचाक कळुंक जाय. आयचे गदी तेन्नाय कोरा तिजे दावे कडेन रावून लुयतालो, आज ताका चिरुताचेर अधिकार आसा. तिका ताजेरीय. तीं दोगंय आज एक जाल्यांत. तें परिवर्तनय चात्तान. देखलें.

कांय उलयनातिल्लें तो लुयतालो. एक मत्सरांत हारवल्या ताका चिंतन करचाक जाय तितकीं कायरीं आशिल्लीं.

कोरान म्हळें : "माका स्वल्प पिवंचाक आग्रह जाता. मनांक संतोव्र आसा. जाल्यारीय भूक आनी तान लागल्यार कांय खावुंक जाय, पीवुंक जाय.

चिरुतान विरोध सागलोंना. त्या दिसा सकाळींच खोंपियांत कांय ना आशिल्लें वेळशेल्लें पेजोनिश्शे पीवन ती धंदाक आयल्लीं.

कोरान ताजे फांतोर सून एक चुरुट काडून आपणाले थैलींत दवरलो. दूरा सातेंय घरन रावून लुवयतल्या औसेप्पान तें देखलें. कोरा थैलीय खावयां मारन भायर सरलो.

"आरे, थैलींत कितें?" औसेप्पान व्हडान निमगलें..

कोरान जाप दिली : "दोन भाता कणसां, स्वामी, हांवं आज कांय खालें ना सू पिवंचाक."

"कणसां ?दवर रे कांगा. हांगा हें कांय चलचीना." म्हणतां म्हणतां औसेप्प

उठावन कोराकडे गेलो. "कांय खालेना जाल्यार, खोंपियांत बसून खावंक जाय. हें कांय पाडना. हांवें खराराचे वेळारच सागलां, न्हय? चुरुट थांगा घाल."

कोरा स्तब्ध जालो.

"घाल रे थांगा!" खोत गर्जलो.

कोरा मेलेल्ल्या समान आपणाचे फांतीर चल्लो. बाकी सगलुवपी हें पळ-तयाले. धुटियांसून कोरान चुरुट वोडून काण भायर दवरलो आनी पेंळतांतल्या बांदार बसून मातेंच खाल घालन बैसलो. तेन्ना ताजी स्थीती भो दयाळ आशिल्ली. मनीश भूख, तान सर्वंय सहन करतलो. पण ही अपमान कशी सहन करतलो.

कोराचे लागी स्वल्प फूडे झगडल्ले लुयतल्ले चेड्ड्नूर कारनीन म्हळें : "ताका तशीच जाय."

तेन्ना वेगळे एकलेन म्हळें : "तशी सागंचा नज गो ! ताणेय चिकलांत खातडींत पडून प्रयत्न करन हें भात वोवन केल्यां तो चुरुट परतून दवरयलली बरें जालें ना."

तीसरीन म्हळें : "ताजे समान खोताचें चांगपण आठोवंचो मनीश हांवें कोणाकय दुसर्याक पळयलोना."

चौतेन एकलेन म्हळें : "खोतांचें चांगपण आठयतल्यांक असलोच अनभव मेळता."

एदे घडियांक कोरा त्या बैसपांसून उठायलोचना. तो नुतो बैसल्यां देकून खोत ताका कोपलो. मागीरीय तो उठावन लुयतल्यां मागशीं भोंवचाक लागलो.

# तेरा

भात पिकल्या उपरात लुवणीचेर दृष्टि दवरन लोक दुर्भिक्षाचो मुकाबलो करतालो. कोराचे खोंपियांत, जायते दीस जाले, खावंचाक कांयना. दुसर्याकडे सून जितलें रीण घेवयेत, तितलेंच रीण घेवन जालें. आतां तांचे हातांतय काय ना. अशी उपाशी पडचे दिसांत लुवण आयली.

सांजवेळा चुरुटा भोरे बादून खळार व्हरन दवरलें. त्या भीतर काळुक जालो. घरांत बसून खोतान आज्ञा दिली : "आज कांय मेळना. सगटय तांगतांगेली थैली आनी पुटो हांगा दाकोवन वचात."

अशी खळार सून सर्बय गेले. न्हेसल्ल्या वस्त्राक थापून सरी कोणाक एक मणी भात सरी व्हरुंक जाले ना. इट्यातीचे परयीन तिगेले व्हण्टींतलीं भाताची कणसां एदी व्हण्ट मकटळोवन खोतान थांगा दवरयले.

'तो दीस कशीकडचें' ह्या चिंतेनिमित्ती चिरुताचे मनांत उज्जो जळळो. कोराचे मन आनी शरीर दोनीय थकलीं. त्या दीसा साकाळीं उण्डाळेवन ऊंच आयल्लो आनंद तशी दाबलों! ताका कांय सांगाचे ना. पण तो कांय चिंतन करतालो.

पत्रोसाची बायल चिके हुशार आशिल्ली. खोत भो जाग्रतायेन रावलो, जाल्यारीय ताजे दोळयांत पुडी घालन ती सुमार एक दंगाळी भात घेवन आयली. तें एक दंगाळी भात पत्रोस आनी कोरा, हांणी वाण्टून घेतलें. रातीच तें उकडून, सुकोवन, काण्डून ओरोव केलो. आनी सिजोवन पेज करन जेवलीं.

दुसरे दिसा साकाळीं रिते पोटार कोरा आनी चिरुता लुवचांक गेलीं.

कोराक लुयताना कांय कांय करचाक आनी कांय कांय सांगचाक दिसलें. एक वेळा ताणे खोताचे विरुद्ध विद्रोह कर्येत. लुयतल्यांचे मागशी तो आतांय भोवंता. पण भात नष्ट जाता कि ना, हें तो चोयना. तांचे लागी झगडना. आनी ताणे आपण समान लोकांकडे झगडें करचीना.

तशी ताणे भोवंतासनाता चेड्डन्नर सून लुवंचाक आयल्लया एक मजूर बायलेन ताका फडचान खावंचाक उळदीलो. फडचान खाता आसताना तिणें म्हळें : "कोरा भावा, गेल्ले वर्सा तुका काम खंय आशिल्लें?

"हांवें ह्या वर्सा हांगा ओणप्पनी घेतल्या??"

"आमी गेले वर्साय हांगा लुवंचाक आयल्ली. ह्या वर्सा शेतांत खाल शिवंडून वचे भात गेल्ले वर्सा शेतांत पिकलेना."

स्वल्प समयाक कोरा कांय उलयलोना तिणे लागून म्हळें : "गेल्ले वर्सा बांदार येदत रावचाक शेतांत देवंचाक दिसले ना. शेतांत भात कांय ना आशिल्लें. ह्या वर्सा लुवन लुवन पुरतें जायना. कांय लोकांनी शेताची जिम्मेदारी घेतल्यार अशीच फल जाता."

कोरा एक नीट जालो. ताणे म्हळें : "खरें सागता भयण! हांवें कितलें कष्ट काळळे, सांगचाक जायना. हांवें जाण जावन धंद केलां. पण. . . ."

कोरान अर्द सांगून रावयलें. ताजे दोळे भरले. ताणे आपणाली त्या दिसांची अवस्था सांगचाक प्रारंभ केलो. स्वाभिमाना पसावत ताका मुकार काय सांगचाक जाले ना. तरीय त्या बायलेक ताजे मनांतलीं कायरीं समजलीं. तिणें म्हळें : "हो स्वामी व्हड आशेक आसा. इतको आशेक कि हांवें असले आशेकाक हांगा गावां खंय पळयलोना."

उपरांत ती औसेम्प्पानचे अत्याशेचो काणियो सांगचाक लागली. त्यो सग आयकून जाल्यो उपरांत कोरान म्हळें : "माका एकच कायरें आसा. हांव तरुण. धंदाक वस्तु न्हय. उपकार सुमिरण नातिल्लो अशी सग सांगोवंचाक नज म्हण मात्र आसा हांवें कष्ट काळळें. भात जालें. माका एकीच आशा आसा हांवें प्रथमच राखण्याची जिम्मेदारी घेवन काम केलां. भात कितलें जालें हें, माका कळुंक जाय, तितलेंच."

लुयतल्यांक उलोवन रावून आडायच्या खातीर खोतान कोराक भेइसायलो.

दनपार परतचाक कोरा औसेप्पाकडे गेलो. ताका उठावन रावचाक जायना. स्वल्प सूर पिवंचाक एक मुष्टी भात मागचाक तो गेला. परंतु आशेक खोताचें तोण्ड देखचाक मांगका नाका म्हण कोरान निर्णय घेतलो.

तोण्डाचेर कितलो व्यत्यास दृष्टि पडता! बीं वोवंचे समयार आनी आता कसलें बदलव. तेन्ना देखल्यार हासतलो. कुशाल निमगतोलो, सहताप प्रगट करतलो.

कसरी प्रसन्नताय आशिल्ली तोण्डाचेर! पण आज? वळकूचो म्हणून दिसना. मात्र न्हय, ताका आज दुस्वास आसा.

औसेप्पा व कोराक भारो दृष्टीन पळयलो.

कोरान म्हळें: "दासाचो एक मागणी आसा."

"ऊम किते रे?"

"दास प्रथमच ओणप्पणी, हाका आयला."

"देकून?"

"न्हय, ह्या शेतांच जालेलें भात वेगळेंच मोयल्यार हांव कितलें भात जाले म्हण कळतेलें,"

औसेम्पान स्वल्प घडियेक जाप कांय दिल्ली ना. ती मागणी ताका पसंद आयलो ना.

कोरान म्हळें: ""दासाक,...हें जाण जावंचाक...."

माजो वर्साडेचो आदाय आनी खर्च होवय तुका जाण जावकां न्हय? माजे लागी तुजे हे वेष काडनाका रे! वस, वुसळ हांगा सून."

कोरा थांगासून गेलो. ताणे ह्या मागणोत कितें चूक म्हण ताका समजलेंना. ताणें सांगल्यांत कांय चूक जालो? तें सवालच चूक? एकवेळे तें मजूराचे अधिकाराचे भायरचें कायरें जावयेत.

त्या दोस दनपार परतचाक औसेप्प गेलो. सांजवेळा खळार चाकको आयलो. त्या दिसा लुवण जाल्या उपरांत एक एक मजूराक एक एक चुरुट मेळचाक आशिल्लो. चुरुट खळार पावयल्या उपरांत एक एकलोय चुरुट चाक्वोंचे मुकार दवरतालो. तो तांत सून एदो भाताकणसां वोढून काडून बाकी तांकां व्हरुक दितालो आपणाले चुरुटांसून चढ भाता कणसां वोढून काळळीं म्हण कोराक दिसलें. पण चिरुता तिगेलो चुरुट घेवन वचाक नेमाक विरोध जावन, चांक्को चुरुट उबारन चोयलो. आनी उपरांत तिजे तोण्ड जाग्रतायेन पळोवन नांवांपुरश एक कणस मात्र वोढून काळळें.

चिरुतान आपणांक मेळळो चुरुट कोराचे चुरुट सयत बांदुक लागचाक कोरा एक वागा समान गर्जलो—"नाका माजे चुरुटसयत बान्दचें नाका. ताजान माका काम आसा."

चिरुतानय सोळळें ना. तिणे साधिकार विचारलें : "काम कितें ? सूराचे तावण्यींत व्हरन दिवंचाक न्हय की ?"

"बस, गो, बुसळ. ताजो निर्णय हांव करीन."

कोरा रावून दांत किरडतालो. ताजो कोप ताका नियंत्रण करचाक जायना.

मरियान चिरुताक समजायलें "आगो तूं कित्याक सांगता? दादले एकेपावटीं पितात न्हय ?"

चिरुतान जाप दिल्ली : "न्हय गे आवसू, हांवेंच ताका पिवंचाक दुडु आनी भात दिल्यां. आतां ह्या भरलेल्या चैत मासांतय घर उपाशी आसा. आज थोडेंच जें मेळ्ळां तेंवय व्हरन तावण्यींत दीवन येवंचाक इच्छा पावंता. तशी जाल्यार ?"

"चिरुते, तें सग तशोच! स्वल्प सग आमी देखल्लें, ना देखलें, म्हण करचें. ह्या दादल्यांक सहकार दिवन व्हरचे आमीच न्हय?"

कोरा आपणालो चुरुट थैलींत दवरन भायर सरलो. चिरुतान म्हळें : "सगटां-चेरीय आणि विरोध. आतां पीवन आयल्यार छट करन शीत बी जावना हांवें घराक बसून भात उकडून, सुकोवन, काण्डून, ओरोव तय्यार केले उपरांतच शीत करचाक जातलें."

कोरान म्हळें : "हांव आज येना."

भाताचो एक चुरुट दिल्यार जितको सूर मेळतलो, तितलोच सूर घेवन पिल्लो. पण आपणाले वाढचें दुख आनी कोप तितलेचान विसरचाक जालेना. तो विसरचाक आग्रह करतालो. पण एक बातल सूरा निमित्तीं तें विसरूंक शकत जालो ना. ताणे दूकानदाराकडे एक बातल सूर रीण मागलो. पण रीण मेळ्ळो ना."

"ह्या चैत म्हयनांत तूं रीण मागता?"

ह्या प्रश्ना पसावत ताजें दुःख चढ जालें. चैत मास! तो सगों फार्याचे शेताचो राखणो! पण एक बातल सूर घेवन पिवचाक थैलींत भातना. आपण रडतलो म्हण कोराक भय जालें.

तेन्ना चात्ता थंय पावलो. ताजे लागी पैसो आसा. दोगंय मेळन पोट भरन पिल्ले.

त्या दिसा मद्रात उपरांत त्या विशाल पुंचा शेतांत प्रज्ञा नातिल्यो एक पर-धाच्यो पुप्पूयो परतून आयकुक पळळचो. त्यो केवळ पुप्पूया मात्र न्हय आशिल्ल्यो

सूराचे मस्तींत, ताजे मात्याचे कापसांत अशान्ततायेन उपजचे विचारांचे जे वाक्य आनी शब्द उरलेले तांचीं अस्पष्ट आवाजां आशिल्ली.

तो स शें फार्याचे शेतांचो राखणो खंय! त्या उळदून सांगतल्यांत ताकत आशिल्ली. अभिमान आशिल्लो. मागीर काकुळतकायेचो एक इतिहास! खोताचो पूत ताजे चिरुताक चोयल्लो ताणे देखलें.

# चौदा

लुवण मूर्धन्य दशेचेर पावलें. पुराय दिस लुवण आनी राती मोडणी. कुट्टनाट प्रदेशांत रात आनी दीस हांचे फरक दृष्टि पडना. कोणाकय नीद ना. सर्वकडेय चुरुट, भाता कणस आनी बयकोल. रातीय दीसूय काम केल्यारीय काम सोंपना. मनीशाचे तन, मन आनी ताजी बुद्धि तीनीय एकसान यंत्रा समान काम करतालीं.

दृष्टि पावनातिल्या दूरा मरान पातळून पळळेल्या व्हड व्हड शेतांत सून एक एक कणस व्हीळचान कतरन चुरुट बादून दवरचें सग काम मनीशाचे हातां-नीच जातालें. मागीर चुरुटांचे भोरे बांदून ते मान्यार व्हावन हाडून खळार दव-रुंक जाय. खळार पर्वता सारके राश केल्लेलें कोटि फार्यां लेकान आशिल्लें भात पायान मोडून वेगळें करचें आसा. मनीशाचो स्पर्श पावनातिल्लो एक मणी भात सरी तांत ना. आनी आतां तें सुकोवन तांत सून पोल परघालन भाताचे अर्याचे काळके कूडांत व्हरन दवरचें काम बाकी आसा.

हें महत् कार्य करचाक मेळेल्या कोणाकंय थकावट ना, आळसाय ना, भूख ना, तान ना. कोपुर्ल भरन रांदुक ओरोव आसल्यार भूख आसा? तान आसा? आळसाय कुट्टनाटचे प्रदेशांत खंय ना.

औसाप्पाचे खळार लेकनातिल्लें काम आसा. जायते दीस लुयलेले चुरुट एक दिकार पळचात. एक कडे चुरुट मोडतात. दुसरे कडे मोडल्लें भात मोयतात. एक कडे वार्याक घरन पोल परघालेलें भात—तशी खळाचेर तीळ उडकावंचाक स्थाय ना.

ह्या गादाळां भीतर, स्थाय ऊणे जाल्यारीय, तागेले शेताचें भात खंय दवरलां म्हण कोराक कळता. तें कितळे फारे आसा म्हण ताका कळुक जाय.

एक दीस लुवण जावन खळार येवंचांक, त्या भाता राशीं सून कांय राश्यो दृष्टि पडनात. त्यो सर्वय कोराचे शेतांतले भाताच्यो राश्यो आशिल्ल्यो. भाताची पोल परघालन ते पूराय भात औसेप्पाचें अर्यात पावलें.

औसेप्प खळाचे झोंपडींत बैसलो. कोरान समीप वसून निमगलें : "दासाचे राखणदारीचे स शें फार्याचे शेताचे तीनीय राशीर वोट्टु कितलें भात आशिल्लें?"

"जाण जावन कितें करतलो ?"

"अशीच जाण जावचें."

हें जाण जावंचो अधिकार कोराक आसा म्हण कोराक विश्वास आशिल्लो. औसेप्प, झोपडाचे पाक्यार खोयललें वेत काडून ताजे आंगार आयलो आनी कोराचे फाटोर बेतान एक पेट्टु मारलो. दुसरो पेट्टु पडचे फूडे पत्रोसान ताका ताण्डून दूरा व्हेल्लो. इट्याती थांगा सून ताका वोडून घेवन गेलो. वेताचे हुंकाराची प्रतिध्वनी खळार जाली.

औसेप्प भारी कोपान ताका गाळायतालो. त्या वेताचो हुंकर गाळावचांचो नाद जालो.

त्या भोतर चिरुता येवन कोराक खळाचे एक तांत घेवन गेली. प्रश्ना नातिल्या वरी तो चल्लो.

शमयल पुलयान ताजे समीप येवन विचारलें : "आरे पुता, तुका कायरी काय नातिल्लें तुवें निमगल्लें न्हय? हांव मुखेली आसा. इतकीं वर्सां जालीं, माका हीं कायरीं कांय कळना. हांवें निमगपय ना."

तेन्ना पत्रोसान म्हळें : "भात कितलेंय आसो, ताका कितें? ताका कित्याक जाण जावचें? खोतान भातय दुडुय खर्च केला. आमी काम केलें. आमकां मजदूरीय मेळळी. जाण जावंचें कित्याक?"

ताचे प्रश्न अनुचित आशिल्लें? चिरुताय ताका वायट सांगताली. ताणे विचारलें : "तेन्ना आमी भात उपजावू, परंतु हें जाण जावूं ना कि कितलें पिकलें?"

"ते तशीच." शमयलान जाप दिल्ली.

"आज मरान कोणेय पुरया आनी पुलया हें जाण जालो नां."

त्या दिसा कोरान खळार रावचें नाका म्हण सगटानींय मेळन ठारायलें. चिरुता आनी कोरा, दोगंय घराक वसून पेज तय्यार करन जेवण जावन उपरांत चिरुता मात्र मोडचाक खळार येवंचें. चांग चांदण्याची रात. कोराक खळार देखल्यार एक वेळा खोत ताका मरचाक पुरो.

तेन्ना झोंपडोचे समीप व्हड बोब, कोपान सवंची आनी मारची आवाज आयकचाक पळ्ळो. खोत ओलोंपीचे पुत्ताक मारतालो.

कोराय दोस्तय रावून उलयतल्या लागी चाको रावल्लो. 'आमी खळार सून वतात' म्हण सांगून कोराय चिरुताय थंय सून गेलीं.

मद्रात जाल्या. चांग चांदण्याची रात. हंय थंय आशिल्या खोंपियांत भात धाडावंचो आनो काण्डचो आवाज बन्द जाली. पण सगळया कडेय उजो जळता. रातचे जेवण तय्यार जाता मात्र.

सर्व खळांचेरोय मोडणो चलता. औसेप्पाले खळाचेरीय मोडणी चलता.

धावन, खरशेवन, धापेवन चिरुता खळार येवन चळ्ळी. ती भयान कडकडतालो. आतांय तिजे तोण्डार भयाचो लक्षणां दृष्टि पडतालीं. तीं धूवन चोयता. भात मोडचे मरियान विचारलें :

"कितें गो चिरुता, कितें जालें गो ?"

चिरुताक उलोवुंक जायना.

"चेडूं भियल्लें म्हण दिसता. कितें गो, काय देखलें बी?" एक म्हालगड पुलयोन निमगलें. तिणे म्हळें : "रात दोस म्हणातिल्लें एकलीच भोवंचे बरें न्हय. ह्या शेतांत भूतां–प्रेतां आसात."

चिरुताचे हृदयाचो थडथड चिके ऊणे जालो. भूतां–प्रेतांचे भयान न्हय तिजो ही अवस्था जाल्या. हें स्पष्ट. भो दूरा मरान तिजे मागशीं फाटीं घेवन येवंचे एक विषाचे सरपाकडे सून ती भयान धावन वाचलीं सी दिसलें.

"कितें जालें?" सर्वांनीय पुनः पुनः विचारलें.

चिरुतान जाप दिल्ली : "हांव धावां धावीं आयलीं. देकून खरशेतां."

एकलेन तिका जोरार पळवन सांगलें : "छीः, तूं भियली म्हण दिसता भूं गो. भियली जाल्यार सांग. उवाळन परघालूं, न्हय जाल्यार झाड घालूं."

भियली ना म्हण तिणे म्हळें. स्वल्प जावन ती मोडचे कामांत लागली. ती कांय उलयचनाः

मरियान विचारलें : "आगो, तूं कांय उलयना कित्या? कोरा निदलो?"

"ना, कितेंकी आलोचना करता. धंद केल्लेल्याक दिसना की ? शेतांत कितलें भात पिकलें, हें कळचें म्हण?"

"कित्याक गो, ते जाण जावंचें?"

"तरीय–"

"तें तशीच. ताणे कांय म्हळचां?"

"ना, उलयलों ना."

चिके घडियेक चुप बैसून मरियान ल्हव आवाजान विचारलें : "तूं कित्याक थूवे भियेवन धावल्ली?"

मरियाक कायरीं समजलीं म्हण तिकां दिसलें.

"आतांच सांगन, आवसू, गो, थंय वचा." चिरुता आनी मरिया दोगंय बयकलाच्या राशीचे मागशीं गेलीं.

आनी दुख भरल्ले आवाजान ती कथा सांगून आयकयली. शेताचे पेळतांत सून सरश्यांचे मदें पावंचाक खंयकी सून चाक्कोन तिजे मुकार उडी मारली. . . . चिरुतान आपणालें हर्दें मरियाक दाखयलें. थांगा नांखटांची निशाणां लागल्यांत. तिजे काप-डाचें वरलय पींजलां. . .तरीय ती चाक्कोचे धरण्यां सून विसाटून दूरा धावली.

हें खबर आयकून मरियाक कांय अजाप जाले ना. चिरुतान कडेर म्हळें : "जेन्ना सून आमी हांगा आयलीं तेन्ना सूनच ताका माजेर दृष्टि आसा. धंदाक देवल्यार तो फाटीं आसा. लुवंचे तलवारीय तो आसा. एक पावटी कोरान ताका म्हळेंय : "खोता, बायलां मागशी सून दूर वोस. माका शुरू सून हाजे पासून दुबाव आसा."

मरियान संत जाप दिल्ली : "पुता, तें तशीच गो. सर्वंय तरण्या चेडुवांचेर ताजी दृष्टि उरता. एदे जणाक ताणे धरलेलींय आसात. ह्याच लुवणीक आयलल्लीं चार पांच चेडुवां आसात. तांका तो भरन–करन दितलो. तुजेर ताजी दृष्टि आसां, तें हांवेंय देखलां."

"हांवेंय देखलां. परंतु हो यमकाळ निपून येवन माका धरतलो–हें हांवें लेकलें ना."

"तशीच गो, हे सान खोत अशीच करतात. तांकां परयी पुलयी चेडुवां पुरोत. जेन्ना सून परयी–चेडुवां ब्लाउस आनी जंपर घालचाक लागलीं तेन्ना सून हाजो आरंभ जाला."

तेन्ना चिरुतान म्हळें : "हें खंयीय धरकार जाण जाल्यार. . . ."

मरियान भयान म्हळें : "ओ, पुता, नुतो राव. ताका भावड्याक सूळार

घालुक दिवंचा वोस नाका! तो जाण जाल्यार उडी मारन येतलो. ते ताका मारन जीवंशी मारतले."

"माकाय तीच भीती आसा."

"जाग्रतायेन रावल्यार पुरो. तशी एक दोन वर्सां भीतर एक, दोगं चेरडुवांय जातलीं. तेन्ना मागीर तुवें भियेवंका नाका. कोराक सांगशी बी."

"माकाय लजा ना की? कशि सांगतलीं?"

# पन्नेरा

त्या दीस पुष्पवेली औसेप्पा थंय दासांगेली हिशोब फारीक करताले. ताजे स दासय हाजीर आशिल्ले.

प्रथमच शमयलाचो हिशोब काळळो. शमयलान पांचवीस फारे भात आनी पांचवीस रुपया रोण घेतल्यात. कराराक अनुसरून काम करका जाल्ले दिसांक ताणे कामंय केला. आनी बाकी–साकी करन आनीकय चाळीस फारे भात दिवंचाक आसात. म्हण औसेप्पान हिशोब केलो. ताणे विचारलें : "कितें रे, हिशोब खरो न्हय ?"

ह्या हिशोबा पसावत शमयलान चढ–ऊणे कांय सांगलें ना. ताका बेरीज वजाबाकी आदोची कळाकळ ना. तीस वर्सां भायर जालीं ताजो हिशोब अशीच उलोवन फारीक करतालो. खोत कांयकी बेरीज आनी वजाबाकी करतलो. एक संख्या निर्णय करन विचारतलो : "खरो आसा न्हय ?"

सदाचें प्रमाणी 'न्हय' म्हण ताणे सांगलें तें ताजो स्वभाव.

हें सग पळवन आनी आयकून राबल्ले कोराक एकदम अजाप जालें. हो कसलो हिशोब करप! एक सास फार्याचे भुंयचे मुखेल पुलयाचो आदाय हो! चाळीस फारे भात! रोण आनी उसीणे घेतल्याचो हिशोब केला. सग खरें आसतलें की? कोराक हें कांय मनांत जाले ना. ह्या लेकान दुसरे मजदूरांक कितें मेळतलें. वांटून दिल्लेल्याक, मोयल्याक, राखणदाराक एक चुरुट सरी मेळोना.

ताका लागून एक एक मजदूराचो हिशोब फारीक करतालो. सगटय खोतच करतालो. इट्यातीक धा फारे भात, ओलोम्पीक पन्नेरा अशी हिशोब फारीक करतालो.

एक एक हिशोब फारीक करतासताना कोराचें मन अशांत जातालें. ताका मागचें. आसा खोतान मात्र हिशोब फारीक केल्यार कशी? हांत व्हड फटवण आसा! ताजे रगत तापुंक लागलें. कोण कांय उलयना. सगटय हिशोब स्वीकार करतात. आपणालो हिशोब काडचे वेळार.....

आखीर कोरालोय हिशोब काळ्ळो. औसेप्पान सदांचें प्रमाणी विचारलें : "तुवें कितलें घेतलां रे ?"

कोराचे मनांत रात दीस तोच उगडास आशिल्लो. पण ताणें म्हळें ना. औसेप्पान हिशोब पळवन सांगलें : "तीस रुपया आनी वीस फारे भात."

कोरा 'ढम' जालो. ताणे केवल वीस रुपया आनी पन्नेरा फारे भात मात्र घेतल्यां. ताणे नेणतांच एक वाक्य म्हळें : "तें फट मू खोता."

हें आठोवन उगडास नातिल्लें जालें. कोराय 'ढम' जालो. औसेप्पूय ढम जालो. हिशोब पुस्तकाचेर सून मातें उबारन खोतान विचारलें : "तूं कितें म्हणता रे ?"

"दासान उतलोच घेतलो ना. हांवें ओप घालन दिलेल्या कागदार बरयलां."

"उसळेल्या, तूं हिशोब करतां रे ?" रागान अंध जावन खोत उडी मारन उठायलो आनी

"पळय रे, माजो हिशोब फटवणेचो ? तुका मात्र माजो हिशोब फट जाला, धिक्कारी !"

पत्रोसन म्हळें : "आरे कोरा, खोतालो हिशोब तुका मात्र कशी फट जाता, रे ?"

"हांवें तितलेंच मू घेतलां."

खोतान पत्रोसाक गुन्यावुकार केलो. "असल्या धिक्कार्याक हांगा हाडून धंदाक लावोवन तुवेंच चूक केली. हांवें तेन्नाच सांगल्लें. धिक्कारी! माजो हिशोब फट जायत, रे ?"

थंय तेन्ना आशिल्लेपुराय मजूरांनीय कोराक गुन्यावुकार केल्लो. ताणे सांगचें सग उगडास चुकून! खोतालो हिशोब फट जावना.

चिरुताक कापड घेवुंक जाय, खोंपो करुक जाय, बापसूक एक म्हयन्याचे खर्चाक दाम धाडून दिवूं जाय. . . . . .अशो सास कायरीं पुर्ती करचाक आसात. ताका सगटाक इतलेंच भातय मेळतलें. ह्या स्थोतीक ताका उडगास–चूक कशी येतलो ?

तरोय तागेलें खरें आतां फट जालें. ताजे जीवाचे रगतान रंग दिल्लेलें सत्य, फट खंय. ह्या व्हड धोखेबाजोंत पडून ताजे दोस्तय ताका गुन्यावकार करतात. सत्य तो कशी रुजवात करतलो?

कोरा अनाथ जालो. खोत मार्गारीय हिशोब करुक लागलो.

प्रत्येक निमिष कोराची आत्मा नवे नवे विकारां आनी आवेशां निमित्ती व्याकुळ जाताली. असले विकारांचो आनी आवेशांचो अनुभव आज मरान ताका जालो ना! असले संदर्भ हाजे फूडे आयल्ले आसात. पण त्या समयार असले विकार उपजल्ले ना... 'खोत' म्हणतल्या चेर उतलोच विश्वास कित्याक दवरचें?... तो हें भात आनो दाम जमावन कितें करतलो?...हें भात उपजावंचाक ताणे कितलो प्रयत्न केला? आज पयलेंच कोराक दिसलें कि ताजे परिश्रमाचे सर्वय फल बावगून बैसून हिशोब करचे प्रेतान गिळळें! ताजे जोवाचें रगत तो सोसून पिता !... ताकाय जोवन काडुंक जाय. ताकाय हक आसात. तो मजूरी करता...तें भात आनो तो दाम–दुडु हांत तागेलोय भाग आसा. कोणालेंय दंबयार नाका...कोरान दांत किरडून दामयले.

व्हडान रडल्यार कितें म्हण ताका दिसलें. चांग चार जापो सांगल्यार कितें? त्या भाताक तोवय हिस्सेदार आसा म्हण! तो दोना जाल्यार बळान तो आपणालो हक घेतलो म्हण!...त्या फटरायाचो गोवंटो धरन मोडून–एक चुरुटाचे पोंदाक पूरन घालूं–न्हय जाल्यार एक लान चूड काडून ताजे घराक उजो दोवूं–कोराक उसरमेट येता सी दिसलें.

लागो राबल्या आपणाले दोस्तांक पळयले. सग विकार शून्य रूपान रावल्या हांकां हें कांय दिसनाकी! फातरावरी लाबल्यात.

खोतान नातें उबारन म्हळें : "तुका बारा फारे भात मेळतलें."

"आरे हो कसलो हिशोब." कोरा गर्जलो.

औसेप्पाक तेन्ना परनो कोप ना आशिल्लो. ताणे हासून म्हळें : "आरे, हिशोबान फट उलोवना."

"माका कितले फारे भात करार आसा?"

"करार पत्रार तें स्पष्ट सांगलां."

"एक खबर हांव सांगन. माका पप्पयर्यान एक एक चुरुटूच दिल्ला. एक फांतां एक चुरुट सूर पिवंचाक, काडचाक तो उप्पून काडलों. कसलो हिशोब हो?"

"आरे, हें सग त्या दिसाच उलोवन ठारायलां. परने रीतीक अनुसरून आदाय दिवना. ठारायलेल्यांत घेतल्लें बाकी मोवन घेवुंक जाय. हें सग फूडेच सांगलां. तुवें वरवन दिल्लेलें करारय तेंच."

"त्या प्रकारीं माका हिशोब जाण जावुंक जाय."

"दूसर्या गेलो हिशोबूय अशीच फारीक केला."

"हांवें कितलो रुपया घेतला. कशी हिशोब करन भाता मोल ऊणे केल्यां?"

"तेवंय बाकी जनांचो हिशोब फारीक केल्या त्यावरी तुजोय हिशोब फारीक केलां."

"मनांत कांय आठोवुंक नज. हांगा कोणेय हिशोब विचारल्लो ना.हो कित्याक निमगता? अशी आठोवंचाक नज. माका खोंपी दवरुंक जाय. ह्या वर्सा चैत्र मासांत हांगा न्हताना माका लुवणीचें काम ना. हांगासून कितेंकी सग मेळचा, तेंच माका पावंल्या. त्या सिवाय दूसरें कांय, खंयीच सून माका मेळळेना. दासान घा चुरुट सरी ह्या मासात लुयले ना."

औसेप्पान सर्वय नुतोच आयकलें. एक परयान सांगचें ताणे हाजे फूडे इतलेंच क्षमेन आयकलेना. आज ताजांत एक परिवर्तन दृष्टि पळळां.

कोरा आपणाली दयाळ काणी आयकयता रावलो : "दास हांगा ओणप्प-णींत प्रथमच मेळता. दास एक तरणाटो. 'हो चेडो उसळलो' अशी कोणेय दासा पसावत सांगू न्हये. ह्या विचारान दासान कठिन प्रयत्न करन भात पिकयलां."

कोराचो गळो भरन आयलो. ताजे दोळे भरले. खोतान म्हळें : "आरे तुतलेंच चढ भात जाले ना. चोंबयाक शेती बरी आशिल्ली. पण भात चढ जाले ना."

"तरीय फूडे वर्सा पाशीय चढ भात जालें."

"तशीच तुका आदायूय ऊणे केलो ना मू. तुकाय हांवें आपणाले दुसरे दासां समान लेकला. तुवें एकच् वर्सा हांगा काम केलां अशी लेकून न्हय, तुजो हिशोब फारीक केला."

कोराक आनीकंय जायतें सांगचाक आशिल्लें.

खोतान सगटांकय विचारलें : "हिशोब अनुसरून फारीक करन तुमकां मेळचें आतां जाय कि मागीर पुरो ?"

सगटांकय त्याच वेळार जाय.

औसेप्पान तांचे चांगपण मागचे संरक्षकाचे रूपान म्हळें : "सग आतां घेवन वचून सूर पीवन कपडां घेवन, व्हारडीकेक खर्च करन कूळी करुंक जाय. मागीर उपास. बाकी आशिल्ले कशी चोवन बैसतले? नष्ट जातकांचो वर्ग. खंय सुधरुंक ?"

तेन्ना घेवंचे भात कोणेय धूळि करन उडकावना म्हण सर्वानीय म्हळें. कोरान मात्र कांय म्हळेंना. ताका दिसलें कि औसेप्पाक तांचे चागबालाव सांगचो हक ना. गुण–दोष सांगचे ताजे वेष निपट मिथ्या आसात. औसेप्प भितर वचून परतून आयलो. ताणे शमयलाक आपोवन कांय करेन्सी नोटां मेजून दिल्लीं. आनी म्हळें : हीं धांचीं, ही पांचांचीं, हीं दोंचीं, आयकल्लें रे. चुकून नज."

पत्रोस, इट्‌याती, ओलोंपी तशी एक एकल्याक. आपोवन तांकांय दिल्ली. हें देखून हर्दें लासचे कोराची पावटी आयली. ताजे हर्दयाची दुकी अशी फूटली. "माका नोटां नाका. हांवें पुंचा शेतांत काम केलां. भातय खूब जालां.'"

त्या उतरांत हक मागतल्याचो जोर आशिल्लो. आनी निपून पळळेले शक्तीचें तेजय. ताणे कांय निर्णय घेतला अशो दिसतालें.आद्‌भूत दिसलें. औसेप्प माप्पिळा हो कोपलों ना. तो हासतालो! तांणी विचारलें : "भात घेवन तूं कितें करतलो ? सांग रे !"

"माका खोंपी बादुक जाय."

"तें हें भात विकून मेळचे दुडवानी वासो, मडळ आदी मोल्लाक घेवन करतलो, न्हंय ?"

कोरा भकभकलो. औसेप्पान म्हळें : "आरे, भात खंयींय व्हरन विकचे बदलाक माका विकता म्हण आठय. हांगा भात आसल्यार तुमकांच बरें. आषाढ सून तुमकां मजूरी म्हण भातच मेळतलें. ह्या वर्सा हांगा भात ऊणे आसा. सरकार येवन पुराय घेवन गेलें.

शमयल, पत्रोस आदी सर्वानीय खोतान सांगल्लें खरें म्हण कबल केलें. पण कोरा विश्वास जालों ना. ताका आडखळ करुक जाय. आडखळ करनूच पिरवाड. ताणे विचारलें : "कितें मोल्लाक घेतलो, खोता ?"

"वाजवी मोलाक."

"म्हळयार ?"

"तें आमी कोणेय ठारायतात व्हय ? सरकारान मोल ठारायलां. ते वाजवी मोल आसा. ताजे पाशीय चढ कि ऊणे दराक भात घेवंचें अपराध जाता. जयलांत वतलो."

पोटांत उण्डाळो येवन कोरान विचारलें :

"देड रुपया, खोता ?"

"तें प्रामाणीक फार्यांक. गांवचे फार्याक सवाय रुपयाच मेळतलो."

"आतां फार्याक तीन रुपया मोल आसा."

"आरे, चुप. उलोवनाका. जयलांत वतलो."

ताका लागून 'हूं' सांगचाक ताजे दोस्त तय्यार आसात. औसेप्पाने म्हळें : "आतां हें घे. वाट करूं."

मनोनुकूल न्हय जाल्यारीय, निवृत्ती नातिल्लें कोरान तें घेतलें.

# सोळा

चिरुता खंडीत सांगता कि थांगा खोंपी बांदून रावचें नाका. पुष्पवेलीचे शेतांत मात्र न्हय, त्या प्रदेशांत कसलेंय काम नाका. थंय सून खंयींय जाल्यारीय वसुंक जाय.

"आमकां खयींय वचा." भीयल्या चेरडावरी ती पुनः पुनः म्हणुक लागली. त्यारीय तांत तिका भय दिसचें कितेंकी आसा. रात दीस तिका भय जाता.

पण कोराक थंय सोडून दुसरे कडे वचाक मन ना. ताका पुष्पवेलीचे लोकांलागी खास ममत्व आसून न्हय. तो एक परया. परयांचे काम शेती करचें. खंयींय गेल्यारीय तेंच काम करुंक जाय. तेन्ना वळक आशिल्या लोंकां मदें रावून करचें बरें, न्हय? मात्र न्हय, ताणे उदकांसून खोंपी बांदुक लायक भूंय ऊंचार काडून धड सामकी केल्या. तेंवंय कितले म्हयनांचे कठीन प्रयत्नात! ती सोडून व सपाक ताका मन दिसना. नवे कडे गेल्यारीय खोंपी दवरचाक भूंय तय्यार करचाक जाय. चिरुतान हठ धरन म्हळें : "माजान हांगा रावचाक जावना."

"तें कितें गो ?"

"जावना. हांगा रावल्यार नुकसान जातलो."

"ताका कारण कितें ?"

"तें तशीच."

तिणें सांगचें कारण केवळ मरियाक मात्र कळता. पण ती उलयली ना. त्या दोगंय बायला मदें दोळ्यांनी काय इशारो जालो.

कोरान मरियाक म्हळें : "ही सांगता कितें ? या तो तिजें हठ न्हय जाल्यार मनांत कांय निपयता."

मरियान जाप दिल्ली ना. चिरुतान म्हळें : "हांव सांगन मू. . . ."

ती मरियाचे तोण्डाक चोयली. मरियान दोळे मोडून इशारो केलो. चिरुता आपणाले भयाचें कारण भायर सांगून सर्वय नाश करीत म्हण मरिया भीयेली. तेन्ना कायरीं चढ वायट जातलीं.

चिरुतान म्हळें : "पुष्पवेलीचो खोत आनी तुमी, दोगांकय एकमेळ ना. तण्टा उरता. तो खोत आनी ताजी चेरडूवां वायट आसात. व्हड आशेक आनी देवत्तां आसात. ह्या वर्सां हांगा रावल्यार मार–फार जातलो खण्डीत देकून हांगा सून वचा म्हण हांवें सांगलें."

चिरुतान चमत्कारान खबर घुवंडावन सांगलें देकून मरियाक व्हड आश्वास जालो.

हो पुराय संवाद आयकून रावल्या पत्रोसान म्हळें : "चिरुतें, तें तूं सांगचें नाका! तशी सांगल्यार हांवें कबूल करना. ह्या गावांत मात्र न्हय, लागीचे गावांतय खंयींय इतलेच बरे खोताक मेळचें कष्ट. एक एक स्थलार मजूरांक मारन जीवंशी मारतात, तुमी जाणात की ?"

चिरुता परतून सांगताली कि ते सग देवत्तां आसात.

जेन्ना कोरा आनी पत्रोस भायर गेल्ले तेन्ना मरियान चेरुताक म्हळें: "आगो रुता, तूं कितें सांगता? खयींय गेल्यारीय अशीच. हाजाकय कष्ट उरतले. प्रत्येक स्थलाचेर लान खोत लोक तरुण, सुंदर परयी आनी पुलयी चेडुवांक शोधून आसात. हांगाच स्वल्प चिन्हां. तूं एक काणी आयकतलो ?"

मरियान तिका कळच्यो सग काणीयों तिका सांगून आयकयल्यो. खोतांनी पुलया आनी परया चेडुवांचे पातिव्रत्य भंग केलेल्या काणीयों! ते खोत कोण आसात? मरियान कांय प्रसिद्ध कुटुंबाचो नांवां तिका सांगलीं. चिरुतान प्रसिद्ध कुटुंबां पासून आयकलां. थांगाचे तरुण वर्ग–तांत नायर आसात ईषव *आसात, क्रिस्तांव आसात, नवायत आसात. चिरुता एकदम भियेली. बंद करचाक कवड, कांय ताले आदी नातिल्ले खोंपियांत निदेवंका जालेल्या, भायर देवन धंद करका जालेल्या परयी आनो पुलयी हाचे चारित्र्य खंतंय, कशी संरक्षण कर्येत? एकलान मात्र तिजेर दृष्टि दवरल्या म्हण कशी ठाराव्येत?

मरियान लागून म्हळें : "माजे जवानीचेर गांठवळे बांदल्लें धोवान न्हंताना

* केरळचो एक अवर्ण हिंदुवर्ग. हाका हांगा कोकणींत 'चोगवंचे' म्हणता. श्री नारायण गुरु हांचे जातीचो.

वेगळचान आपळळेली एक परयी कि पुलयी चेडूं ना. आज चाकरी करचीं चेरडु पिरायेची चेडुवां सान खोतांचेर दृष्टि दवरतात."

चिरुतान म्हळें : "माका भय जाता. तो आनीकंय मेतलो."

कोरान खोंपी बांदचाक वासो, मडळ आदि मोल्लाक घेतलें. शमयल, पत्रोस, ओलांपी आदि लोकांनी मेळन स खांब्याचेर एक कूडाची एक खोंपी तय्यार केली. पाकें सीवन जावंचाक चारीय दिक्कार आड करचाक वासो आनी मडळ पावले ना. घेवंचाक दुडुना. तरीय एक एक मडळ दोरार घालन गांतून लांबोवन चारीय तांतल्यान आड केलें. तें आड सान वार्यातिय हालतालें.

तशी घटा आड नातिल्या एक खोंपयांत वसून रावचाक चिरुता राजी जाली ना. तिणे येवना म्हण खंडीत सांगलें. कोराक कोप आयलो. चिरुताचे आग्र-हाक सर जालेली मोवंतणी बलवंत आड, आनी भीतर सून बंद करचे कवडय आशिल्ली खोंपी कशी करचें? पुंचा शेताचे बांदार मचान बांदून कितलीं कुटुंबा दीस काडतात ?

कोरान विचारलें : "व्हड कवडां–बिवडां लावन घर केल्यार तांत दवरचाक आसा कितें ? कांय खजनाव बी फारन व्हरचें भय आसा ?"

चिरुतान निमगलें : "आड–मरा नातिल्लें घरांत एक बायल मनीश कशी रावतली ?"

"आड ना जाल्यार कोणेय येवन तुका घरन व्हरतले ?"

"तेंवंय जावना म्हण कशी सांगचें? उव्वारा वेळार सिसरी येवन घरन घेवन वचेत."

"मागोरी ! लोकांक सिसरी घेवन वतली ?"

खोंपियेच्या चारीय दिकांर आड बांदून जाले उपरांत गेल्यार पुरो. त्या दुर-हठाक अनुकूल आशिल्लो मरियाय. तिका वेगळोच एक उपदेश दिवचांक आसा. "बायलांनी चांग बन्दोवस्त आसचे घरांतच निंदवुंक जाय. होच नेम."

तिणे सांगचे तकीत खोंपी चांग करचाक धा वीस रुपया जाय. आनीकंय औसेप्पाकडे सून रोण घेवुंक जाय. कशीय जाल्यारीय ताका आपणांक एक घर जाय.

कोरा औसेप्पाक मेळळो. फूडेच्या वरी कोरा करार दस्तखत करवन धा रुपयाय, धा रुपयां मोलाचे मडळ आनी वासे दिल्ले. एक कायरी ताणे कोराक खण्डीत सांगलीं.

"ह्या वीस रुपयांक लागीचे वर्सा चैत्र मासांत तुजे आदायांसून बीस फारे भात धरतलों. तू हिशोब करतल्लो आसा. देकून फूडेच हांव सांगन मू."

कोरा कांय उलयलो ना. कितलेंय ऊणे जाल्यारीय एक फारो भाताचें मोल तीन रुपया आसयेत म्हण ताणे लेकलें. पण . . . पण

पत्रोसाले घरांसून एक चांग दीस चोव. कोरा आनी चिरुता आपणाले खोंपियांत गेलीं. तशी येवन रावचें शेजारच्यांक, कळुंक जाय. तांकां जाणवन तीं आयल्यार तांकां साबाव धाडचाक पाडना. तांचें स्वागत करुंक जाय. त्या खातीर कोरान पुष्पवेलीचे खोता लागी सून धंद करून दीवन पावोंवचें रीण घेवंचाक ठारायलें.

पत्रोसान विचारलें : "असलें रीण घेतल्यार फालगुण चैत्र म्हयनांत हिशोब फारीक करचे समयार तूं कितें करतलो ?"

कोरान काय जाप दिल्ली ना. ताजे तोण्डार एक दृढ निश्चय प्रगट जातालो. ताजे तोण्डांसून 'ऊंह', उत्तर भायर आयलें. हें ताजे दृढ निश्चयाचें प्रगट रूप जावुंक पुरो. शमयल, पत्रोस आदी जनांनी फरियाद सांगलो : "ह्या चेड्चाक रीण घेवंचाक कांय दुबाव ना."

ताणे तांकां जाप सांगली. पुष्पवेलीचो औसेप्प जितलो दाम ताका रीण दिवंचाक तय्यार आसा, तितलो पुराय दाम घेवंचाक ताजे हाथ कडकडवना! मात्र न्हय, परतून परतून रीण माजचाकय तो तय्यार आसा !

ताजी निश्चित भावना अजाप प्रगटायताली. ती कल्पना करचाचे भायर आशिल्ली. तीन फांतां आनीकंय तीस रुपया हाडचाक चिरुताक भो अखांत जालो. "कितें देखून रीणार रीण घेता ?"

चिरुताचो अखांत देखून कोरा हासलो. आनी हासूनच ताणे म्हळें: "तूं भियेता कित्याक ?"

"रीण घेतल्यार दीवन पावंकां न्हय ?"

"मेळतर देवूं."

"वाह! तें चिन्हा, नाका. नाका. तशी नाका. आशिल्यान जीवन करूं."

कोराचे जापेन एक नवी वाट धरली. "आगो, हो दाम आनी हें भात, तांणी खंय सून, मळबार सून हाळयां ?"

"ताणी काम केल्लेल्याचें फळ."

"कोणे, तांणी काम कांय केल्लें ना. आमीच प्रयत्न करन तांचे खातीर भात केल्यां. ताणी मारचे काम केलां, तेंच काम ?"

"कितें पिशें उलयता ?"

कोरान आपणाले बंन्धु बांधवांक एक व्हड जेवण दिवंची तय्यारी केली. त्या जेवणांक चात्ताय आयल्लो. अशो तीं दोगंय नवे घरांत रावचाक लागलीं.

रीण चड जालें जाल्यारीय चिरुताक एक अभिमान आनी नवो उत्साह दिसलो. तिका आज आपणालें घर जालें. उपाशी पडका जाल्यारीय सांज जाल्यार कुरंगटळो जावन पडचाक एक घर जालें. एक घर म्हणचाक आनीकंय म्हस्त कांय जावुंक जाय. दोन कोपुलीं, चार मालट्ची आनी मांदरो मात्र आसात. रीण नाकां ऊंच पावलें.

एक दीस कोराचे व्हण्टीत मातें दवरन चिरुता पळळेली. व्हीळचाचे मोन्यान केस वळोवन ऊ शोधून काडून तो ऊ मारतालो. ताणे म्हळें : "माका आनी एक कायरें लागेन जावंचाक आसा." तिणे विचारलें : "तें कितें?" "तें आसा."

ती तोण्ड ऊंच काडून कोराक चोयली. तिजे दोळयांत कसली ज्योति ?

कोरान आपणालें मातें बावगयलें. चिरुतान तिजे दोनीय हाथ उबारन ताजे गोवंटेक वेष्टन केले. दोगांचेय ओट उमो घेवन एक जाले. चड समय गेलो. कोरान विचारलें : "माजे चेडुवाक आलपळे वचून सिनेमा पळोवुंक नाका ?"

एक सान चेरडावरी तिजे खुशीन 'हां' म्हळें.

"आलपळें वसपाक एक ब्लाउस आनी चांग कापड जाय."

तो एक नवो प्रश्न आशिल्लो ! एक न्हय, साबार प्रश्न ! जांची कोरा कल्पना सरी ना आशिल्ली. नवें ब्लाउस आनी नवें कापड न्हेसून भायर सरल्यार. . . .

तिणे विचारलें : "हेंच ब्लाउस आनी कापड न्हेसून गेल्यार कितें?"

"हें बुरशेल्लें न्हय?"

"पुरो, हेंच न्हेसल्यार पुरो !"

मरियाचीं उतरां तिजे कानांत किन्नरी वाजुंक लागली. "सुंदर खटी-मुटी परयी आनी पुलयी चेडुवां जेन्ना साज-शिंगार करन भायर देवंतात तेन्ना. . . . चाक्कोची जीव-सोडून चोंवची दृष्टि तिणे देखली. तिणे भियेवन म्हळें : "माका एक परने परयीचे वरी रावचे पसंद लागता. हें बुरशेलें कापड न्हेसून आसल्यार तूं माका मोग करचीना ?"

चिरुतान मनांत कांच फटवण लेकनातिल्लें विचारलें कि ती तशी भोंवल्यार घोवाचो मोग तिजेर स्थिर आसतलो? हो एक नवे सवाल!

कोरान ह्या प्रश्नाची जाप 'उमो' चान दिल्ली. चिरुतान आनी म्हळें: "माका साज–शिंगाराची गरज ना. माका पळोवंचो एकलो आसा. हांव अशी आसल्यारीय तो माका मोग करतलो. माका....माका...."

तिणे उपरांत कांय सांगलें ना. पण तिजे दोळ्यानी तिजी इच्छा प्रगटायली.

कोरान उमाळ्यान विचारलें : "माजे चेडुवाक कितें जाय?"

"माका...माका..."

"कितें गो, सांगना कित्या?"

"माका एक आवय जावुंक जाय." कोरा हासलो. चिरुताच लजा जाल्ली.

# सतेरा

त्या वर्सा पयले उवाराचे दीस जाले. कुट्टनाटचे परया आनी पुलया हांचें हातांत आशिल्लें पुराय सरलें. एककलोय एक न एक शेतकाराचो ओणप्पणी करचाक लागलो.

पुष्पवेलीचो औसेप्पाक एक एकड भूंय उदकांसून ऊंच काडून घर दवरुंक लायक करची आसा. हें ताजे ह्या वर्साचें मुख्य काम आसा. ताजे एक एक दासाक मंचुव दीवन तें व्हड काम शुरू करयलें.

पयलें दिसाचें धंद जालें उपरांत मजूरी घेवंचाक मजूर सर्वय पुष्पवेली गेले. प्रति एकल्याक बारह आणे मजूरी दिल्ली.

कोराक त्या दिसा रातीं भात घेवन गेल्यार मात्र जेवयेत. ताणे म्हळें : "खोता, दासाक भात दिल्या पुरो. पैसो नाका."

एकच्च जापेन औसेप्पान ही मागणी इनकार केली. "भात ना देवत्तांनो! आतां भात व्हरन चोर बाजारांत पोटे मोल्लाक विकचाक, न्हंय ?"

"न्हय धनया, आपणाक खावंचाक जाय"

"वच, वच!"

बाकी मजदूर थंय उलयनातिल्लें घराक वचाक मंचुवार चडले. कोरान मात्र थंय रावून प्रयोजन कितें? तोवय गेलो.

त्या दीस मद्राती मरान कोरा ते दुड व्हण्टींत घालन वोरोवु शोधून भोंवलो दुकानांत आनी घरांक वचून मागलें. सगकडेय वोरोबु आसा. पण एक

दंगाळी वोरवाक देड रुपया दीवुंक जाय. तें मोल दीवन तो वोरोव कशी घेतलो ? घेतल्यारीय दंगाळी वोरवान पुरोजायत की ?

रात कोरा अशी वोरोव घेवंचाक भोंवचे वेळार, रात्रीचे भिणर्भाण काळ-कांत चलेच व्हड व्हड व्यापार ताणे देखले. एक व्हड शेतकाराचे घराचे मुकार मंचुवां लागचे घाटार तारुवां आकाराचीं दोन मंचुवां पळयांत. त्या व्हड घराकडे सून भाताचे साकान साक व्हरन त्या मंचुवांत घालतात.

तांत सून एक दंगाळी भात कोराक मेळळें, जाल्यार! तो त्या दीस दनपारां पुष्पवेली सून पेज जेवलो. पण चिरुताक निशें सरी ना. दंगाळी वोरोव मेळळो जाल्यार ती कितेंय पुणीय करतली आशिल्लीं.

औसेप्पान भात मजदूरी रूपान दिल्लेना. कित्याक, हें कोराक कळळें. भाताक चांग मोल आसा. अशी रात्रींत थांगाय व्यापार चलता आसतलो. कोराचे मनाचे मुका वोरोव मेळनातिल्यान भोगचे उपासांचे दीर्घ दिवस दृष्टि पडुंक लागले. अशी वोखाचे मोल चडून रावल्यार पुष्पवेलीसून धंदेल्यांक भात मेळचीना. खण्डीत!

रातीचे चलचे व्यापारां पासून कळोवणी केल्यार कितें? भात मजरी म्हण मेळळी ना जाल्यार, धंदाक गेलो ना जाल्यार कितें ? कोरान चिंतन केली. ताजे दोस्तांक पुराय तो ओळखता. ते कामाक वतले. तो एकलोच वचनात्रिल्लो आसतलो.

मद्रात उपरांत स ह्राणे दीवन घेतल्लें पाव दंगाळी तांदूळ चार चक्रां दीवन घेतल्लें खुण्टा—कणंगय घेवन कोरा खोंपियांत आयलो.

चिरुता नींदली ना आशिल्ली. कवड बरे रूपान बंद करन ती भितर वैसल्या मंचुव लागल्लो शब्द आयकून तिणे भयान विचारलें—"कोण तें?" "हांव न्हय गो." तिका समजलें. तिणें खोंपियेची कवडी उघाटली. ती भायर आयली. तशी मद्रात उपरांत रांदणींत उज्जो सांपलो आनी त्या खोमटांत उजवाड जालो.

कोरा ताका पोटाक सुखना म्हळळेले निब घेवन पळळो. पेज आनी कणंगाची रावंदय तय्यार जावंचाक चिरुतान कोराक जागयलो. ताका स्वल्प पुणीय खावय-ल्यारीच तिका संतोष जातलो. ताणे सुखना म्हळळेलें निब काडून सांगलें : "माका नाका."

"तर माकाय नाका."

"माजे पोटां दुकता."

चिरुतान एदेंच जेवंचाक हट धरलें. आखीर तिजे प्रेरणेक तो बावगलो.

एक कुळयाच्या दोनीय तांत बेसून, रांदणीचे उज्याचे संतु जावंचे प्रकाशांत घोवूय वायलय जेवंचाक लागली.

तिणे म्हळें : "पेज जेवता म्हण दाखयता मात्र मू.

"म्हय गो, हांव जेवतां."

पेजें सून एक भाग तिणे राखून दवरलो तें कोरान देखलें. "आगो चोरी, तें निपोवन दवलीं कित्याक ?

चिरुता हासलो. तिजे व्हणवक धरन वात्सल्यान हालोवन ताणे विचारलें : "तें कित्याक गो दवलीं ? पाव दंगाळी वोरोव म्हय सिजयला ? काडून पी."

"फाय दनपार परतूनच पाव दगाळा पेजेचें निशें मेळतलें. बुडून चिकोल काडचाक आसा म्हय ? साकाळीं कालोवन पोवन वचेत."

"तें नाका. तू आज सगळो दीस निशें पिल्ली ना मू ?

"माजे पोट भरलें. फाय सकाळो पोवंचे समयार कुळयांत एक थेंबो निशें माजे खातीर दवरचें तें माका पुरो."

पोट भरल्लें ना– जाल्यारोय तो नोदलो. ताजे बलवंत शरीराक लागून पडचाक भय नातिल्लें तिका नींदुक जालें. फात्यापारचो कोंबो रळळो.

हरदीस सकाळीं तें अखळ पेजेचे निशेंय चार कुटुके कणंगय एक झगड्याक कारण जालीं ताणे पुरतेंच खालें म्हण म्हय, तिणे कांय खालें ना म्हण.

त्या दोसाय कोरान भात मागलें. पण एक रुपया मजूरी मेळळी. खंयकी सगळया भोवन अर्द दंगाळी वोरोवुय कणंगय घेवन कोरा परतून येवंचाक ताजे खोंपियांत संवाद आयकुक पडता.

तो ताजो बापा आशिल्लों. झगडून ताका सोडून गेल्ललो बापा! ताका आज देखल्यार ओळखुन्ना. घासलेटचे दिव्याच्या उजवाडांत बैसून तो चिरुताक सांगता तिका "धुवे" म्हण उळदिल्लें कोरान अयकलें.

तें दोळे शेळकरचे एक दृश्य आशिल्लें. "अय्यो आपा," उल्लो दीवन कोरा भीतर आयलो.

"पुता!"

बापा आनीपूत, हांणी दोगांनीय परस्पर आलिंगन केलें. हें दृश्य देखून चिरुता भी आनंदली.

म्हातारो सर्वांग सूज येवन हळदुव सो जालो. ताजान उठावंचाक सरो जायना. तरीय पुताक देखचाक आनंद पावन तो उठावन रावलो. पाय कड-कडेवन पडुक वच्या बापाक नीट धरन पुतान निमगलें–"बापा, तुका हें कितें जालें? तुजे सर्वांग सुजलां मू."

"व्हय रे पुता, आतां माका आनी साबार दीस न्हांय."

कोरान मदद दीवन बापाक संत बैसयलो.

म्हांतर्यान म्हळें : "पेजे निशें जोवन आजीक धा दीस जाले रे. खुष्टा कणंग खावन दीस काडतालों. देकून ही हळदुवसाण आनी ही स्थीती जाली रे पुता! भात आशिल्लें, तें भायर दाखयनात. रातचें, फार्यांक सात रुपयानी विकतात."

निसरलेली अंगूठो म्हांतर्यान ताराटली. बापाली ही स्थीती पळवन कोराचे दोळयां सून दुखां गळुंक लागलीं. आज ताजान उठावन रावचाक सरो जायना.

आपणान अपराध केला म्हण दिसचाकच कोराक व्हड दुख जालें. त्या म्हांतर्याक तकषी गावांत एकलो सोडून आपणाले सुखा खातीर चिरुताक घेवन दुसर्या जाग्यार रावुंक लागलां. कसलो माप करूक जायनातिल्लो अपराध केला ताणे! ताणे अशीं करचें कसलेय स्थतींत उचत अशी लेकचाक जायना. त्या म्हांतर्यान कितले कष्ट सहन करन ताका वाढयलो. रागान रावलो जाल्यारीय आज तो, तागेले आपणाले पुताक शोधून येवन पावला. त्या म्हांतर्याक तो न्हंताना आज कोण आसा?....खंयच्याय प्रश्नापासून निर्णय घेतल्यार तांत सून तोळाक दूरा सरचो मनीश न्हय आशिल्लो. पुताचे लागी राबल्यार एक वेळा म्हांतर्याची स्थीती अशी जावना आशिल्ली.

आतां ह्या स्थीतीर ताका आनंकंय उठावन पुंचा शेताचे बांदार वचाक जावना. एक बांदार रावून दुसर्या बांदारचे परयाक उलो दीवन आयकोवंचाकय ताका साध्य न्हय. ताजे श्वास कोशाक आनी ती शक्तिना अन्त्यकाल आपणाले पुताकडे रावून काडचाक तो शोधून येवन पावला. वोरोव घालन सिजयल्ली पेज जेवुंक जाय हीच ताजी अन्त्यकालाची इच्छा उरली.

ताणे धा सास फार्यांचे शेताचे खोताकडें आपणालें आठ वर्सा पिरायेर काम करचाक शुरु केल्लेलें. उपरांत तो खोत क्रोडपति जालो, आनी भागीर भिखारी जालो. परतून धनवर्तक जालो– कितले कोटि फारे भात ताणे आपणालें बासष्ट वर्सां जीवना भीतर वोवन केलां! कितने लुयलां, कितलें मोडलां, आनी कितलें करोडांचे पोट आपणाले प्रयत्नाचे अन्न हाजान भरलां! साधारण लोकांचे जीवनां

खातीर ताणे कसले कसलें भेट केलें ना? तोच मनीश आज श्वासाची "घर्र घर्र" आवाजात आपणाले जीवनाचे अन्त्य कालाच्यो घडियो मेजून काडता.

भिजयल्ले वोखाचें निळें पोन्न आज धा दीस जाले. ताणे बोवन केल्लेलें भात दुसर्या खातीर आशिल्लें.

म्हांतर्यान निमगलें—"पुता, तुमकां हांगा मजदूरीक भात मेळता व्हय?"

समीप बैसल्या बापाची फाट परसून कोरान म्हळें : "ना, बापा, भात खंयींच भायर देखचाक सरो मेळना. काल रात शोळशी वोरोव घेतल्लो. आजा बारा हाण्याक अखळ वोरोव घेवन हाळा."

कोरान चिरुताक विचारलें : "आगो बापाक काय दिल्लेंना ?"

तिणे हासून सांगलें : "दिवंचाक किते आसा?" हांवें काल एक गेरशी वोण दवरलेली. ती विकून अवूट हाण्याचो वोरोव घेवन येतालीं. तेन्नाच बापा आयलो. त्या वोरवाची पेज सिजोवन आमी दोगंय पिल्लीं."

म्हातर्यान तिणे सांगल्याचे आखीरचे भागाचें खण्डन केलें. "आमी पिल्ली" म्हण सांगचें खरें न्हय. म्हांतर्यान म्हळें : "तीन शोळशी वोरोव घालन सिजयलो हांवच तें पेजेनिशें पिल्लों. ती पिल्ली ना. माका भरन भरन दिल्लें.

चिरुताक भो संतोष जालो. तिणे म्हळें : "बापा साबाब सांगता. हांवंय पिल्यां."

म्हांतर्यान चिरुताक पळवन कोराक फुरात सांगली. "आरे पुता, कितली मोवाळ, म्होवाळ आनी पोणसाचे गोर्या वरी दिसचें चेडूं. आज हाडां पंजीरें जालां."

कोरान आपणालो अपराध मान लो. खबर खरेंच. व्हारडीकेचे फूडे ती कितली थोर आनी बलायकेची आशिल्ली.

कोरान म्हळें : "ती दूसर्याकि खावयता आनी ती सूखता. माजे नांव वायट करचाक नाज म्हण हांव केन्नाय सांगतां.

"व्हय, व्हय, हांवें तें आज देखलें." म्हांतर्यान आज ताजे समर्थन केलें.

अर्द दंगाळो वोरवाची पेज आनी खुंटाकणंग दांचान त्या लान कुटुंबाचो तो दीस गेलो. तो दीस कोराले जीवनांत उगडासाक योग्य दीस आशिल्लो. ताणे एक दिसाचे मजूरीचें रीण त्या दिसा तो दीवन पावलो.

त्या म्हांतार्या बावड्यक शोळशी वोरवा पेज पुरो. चढ जाय म्हण आग्रह आसा. पण वोटांत जायना. अरक्कल घरानेचे व्हड पोडग्यां भरन शीत ताका चार घासांक आशिल्लें. ही घा खोल्लीयो पेज भरन जेवन जावंचाक म्हांतर्यान एक व्हड डेंक काडलो. कोराकय तृप्ति जाली.

हेरदीसा सकाळीं चिरुतान एदीच पेज दवरलेली. कोरान काय विरोध सांगलो ना.

तरीय त्या दीसा भातच मजूरी घेतलों—अशी ठारायलें. बापाक ऊणे एक फांतां पोट भरन वाडुक जाय. तीच ताजी एक मात्र अभिलाषा आशिल्ली.

शमयल, इट्यानी आदीनीं कोराचे अभिपिरायाक समर्थन केलें. तांच्या घरां-तय फूडे दिसा रांदलेंना. वोरोव ना आशिल्लो.

पण परया आनी पुलया, हांचो बावड्यालो निर्णय खंय सफल जावंचाक'? एक एक रुपया तांचे मुकार बिंदून दीवन औसेप्पान गंभीर तायेन म्हळें : "जाय जाल्यार घेवन वचात. हांगा भात—कीत कांय ना. काम करचीना जाल्यार रीण वापस दीवन वचात."

तांणी कोणेय रुपया घेतलो ना. औसेप्पान रागार म्हळें : "सगटांकय हांव सांगतां : "फाय सग मेळन कामाक देवांत. उपाशी पडचे वेळार धंद पळोवन दिल्यार नुपुरो? धिक्कारपण दाखयतात ?"

फूडे दिसा सून उपाशी पळलेल्या शमयल रुपया घेवन चल्लो. उपरांत दुसर्यां-नीय तशीच केलें.

# आषा

कुट्टनाट प्रदेशांत खंयींय मजदूरीक भात मेळना जालें. हो सर्वंय शेतकारांनीय मेळन केल्लों एक गुप्त ठाराव सो दिसतालो.

सग परया आनी पुलया मजूर दुखी आशिल्ले एक दीस त्या प्रदेशांत रावचे सग मजूरांनीय कोराचे घराक मेळचाक ठारायलें.

"आरे, आमी सग मेळन आशल्यार मात्र कायरीं जातली. खोत—शेतकार सग मेळन एक जाल्यात हें खबर कोणेय समजावनातिल्लेंच एक म्हांतारी पुलयीन म्हळें.

त्या मंचुवां खेळा दीसा जे युवकान गरीबा संबंधी भाषण केलें ताका आपोवया म्हण कांय लोकांनी अभिपिराय म्हळो.

हें मागीर करूं म्हण ठारायलें.

त्या आयतारा पन्नास साठ परया लोक मेळळे. एक एकल्यान ताग तागेली फरियाद सांगून आयकयली. सर्वांनीय मेळन एकठाईन रावचाक ठारायलें. तितलो परया आनी पुलया लोक एकसान मेळेले देखून आमकांय शक्ति आसा म्हण तांकां दिसलें. आमकांय कांय करचाक जातलें. विरोध करचाक जातलें. कोराचो म्हांतारो बापाय हाती बडी घेवन ताजे बळान उबो रावलो.

लागीचे आयतारा नरेंद्र नांवाचे एक परया तरणाट्याचे यजमानपणार सम्मेळन जालें.

पण शेतकार खोतांक ताजो उद्देश समजलो ना. उदकांत बुडून चिकल काडचें, वारें—झोड वोत-सावळी सहन करन काम करची शक्ति राखचे परयांक आनी पुल-

यांक आज भूख शुरू जाली. प्रकृतीचे सर्व तरा शक्तीचेरीय जय पाविल्या पुलयांक तांची शक्ति कशी जागोवयेत हें तांकां समझले ना. खोतांनी आलोचना केली. त्या सम्मेलनाक नेमानुसरण कांय मोल आसा? प्रसींदी कोण आशिल्लो? खंयचोकी एक परया युवक. ताणे काय ठराव केल्यात खंय! प्रस्ताव कोणे हाळो? कोणे समर्थन केलो? कायदे प्रमाणीं रिवाज नातिल्या ह्या सम्मेळनाक नेमाचे कसले बळ आसा ?

अशी चिंतून शेतकार हासले.

पण त्या दोसा राती एक घडना घडली. त्या तालूकाचे कांग्रेस मुखेलीचे घरांसुन भात मोलाक घेवन भरलेलें एक मंचव त्या सम्मेळनांत भाग घेतल्या एदे परया आनी पुलया हांणी मेळन धरलें.

तशी गरीब एकठांय जावंचाक परया आनी पुलया हांचे जीबेक बळ आयलें. जेन्ना परयांक शेतकार खावंचाक पिवंचाक दोवन संरक्षण करतात आनी तांकां मुफ्त मजूरी दितात म्हण सांगचाक लागले, तेन्ना तांणी जाप दिवंचाक शुरू केली.

एक व्हड मत्सराचो आरंभ हो म्हण कोराचे बापाक दिसलें. हांत कोरा एक मुखेली आशिल्लो. खोतांचो कोप ताजेर जालो. कितेंकी सग आफेत्यु जावंचाक वता की !

त्या म्हांतर्याक आपणाले युवापणाचे खबर उगडास आयलें. कसलो वेत्यास ! त्या दिसां शेतांत उपजल्याचो एक भाग मजूरांचो आसा. दास आनी ताजे घरकार हे शेतकाराचे कुटुंबाचो एक भाग आसा अशी ते मानताले. त्या कालाकय मजूराक फुराद आशिल्लो. तरीय भो भेद आशिल्लो.

म्हांतर्याक एकीच मांगणी आशिल्ली. कोराक कांय आफेत्यु यँवूं व्हयें, पुताक आफेत्यु येवंचे फूडे ताणें मरचें बरें. तो केन्नाय कोराक समजायतालो : "माजे पुताक कांय जावूं न्हयें."

एक दीस म्हांतारो एक जेंवणाक विस्तरून खूब जेवलो. सग दिसांकय एक फांतां जाल्यारीय ताका शीत आसा. फडचान खावंचाकय दीवय आसा. गांवचे वोयद्या निमित्ती ताजी चिकित्साय जातालो.

मानत्त घरकारांचो एक दास चेन्ना ताजे पुताक व्हारडीक जावन हाडचो वेळ. त्या दिसा चेन्नाचे घराक एक समाय जावंचाक आसा. कोराय थंय गेलो. घराक कोरा नातिल्लें विरुताक एक रात काडुंक जाय. दोळयानीं बरे रूपान दृष्टि नातिल्लो,

आनी उठावंचाक बैसचाक असमर्थ आशिल्लो. म्हांतारो बापा घराक आसचें. केवल संभाषण करचाक साथी म्हण न्हताना सहायेक कशी जातलो? तरीय चिरुतान आपणाले मनांतले भय प्रगट केलें ना.

कोरा गेल्लेल्या दोन घंटांनी म्हांतर्याक कडकडो शुरू जालो. श्वास सोडचाकय कष्ट जाले. ताजी जीव गळबुळलो. तो मरचाक वता सो दिसलें.

रात कांय आठ वरां जालीं आसयेत. अट्टष्टान दीव्यांत तेल आशिल्लें. चिरुता म्हांतर्याचे लागीच बैसल्ली. ताजे तोण्ड पळवन तिका भय दिसतालें. तें तिजे मांवाचें मोगान पळवंचे तोण्ड न्हय. तेन्नाय तो उलयता जाल्यारीय तिका 'धुवे' म्हण आपयता जाल्यारीय तो तिजो भाव आसा म्हण तिका दिसना. कसलो वेत्यास !

स्वल्प समय लागे वचाक उत्तर बंद जालें. श्वास ताण्डचाक अडचन चढ जाली. तो मरता आसलो.

चिरुतान ताका उलो दिल्लो. उलयना. स्वल्प घडियेक मरण गोष्टि दाखोवन म्हांतारो मरण पावलो.

ती एकलीच! ती मोग करच्या आनी तिजेर मोग आशिल्या मनीशाचें जाल्यारीय त्या मड्या लागी ती एकलीच त्या मद्राती बैसल्या. चारीय तांत भतां–प्रेतां भोवंतात सी तिका दिसलें.

एक पुताचें कर्तव्य नि भावुंक कोराचान जालें ना. वापस येवंचाक, कोरा बापाचे पाय धरन विळाप काडचाक लागलो.

तशी रोडून–धरून रावल्यार पुरो? कायरी जावुंक जाय न्हय? म्हांतर्याक थंय खंय पुरचें? ताणे रावचे कडे स्थाय ना. नुपुरो जाल्यार थांगा रेंव नवी. एदें खोळ्यार उदक आसता. पुष्पवेली औसेप्पाची विजन ऊंचट भूंय आसा. थांगा जाल्यार बरें. औसेप्पाक विचारून अनुमती घेवंचाक एकलो गेलो.

ताणे वापस येवन म्हळें. औसेप्प अनुमती दीना. मरचे वेळार इगर्जांत वचून तांकां कळयलें जाल्यार म्हातर्याचो अन्त्यक्रिया करन मडें चिमत्तेरींत म्हारांक पुरच्या स्थायार पुरता आशिल्ले. आतांय कोरा बाटचाक तय्यार आसा जाल्यार, अनाथ प्रेतांक पूरण घालचे स्थायार म्हांतर्याचे मडें पुरोवंचाक जातलें.

वैसून रडचे कोरान म्हळें : "पूरण घालचाक कोणेय स्थाय शोधचें नाका. हांवें ठारायलां.

तो कोणेय मनांत व्हेलेना. सगटानी मेळ चिंतन केलीं. दुसर्या खंचच्याय घराक वचून विचारल्यार कितें? ती चिंता कोराक सहन जाली ना. तो उठावन रावलो. हें कित्याक म्हण कोणाक कळे ना. करावळीक पळेल्या मंचुवार चढून सीधा बडकार गेलो. वेगळे कडे वचून विचारचाक जावयेत म्हण सगटानीय आठयलें.

कशीय आसो, मड्याक न्हाणवया म्हण एकल्यान अभिपिराय म्हळो. म्हांतयचिं मडें न्हाणवन मात्यार गांद आनी भस्म लायलें. चिरुतान एक धवें वस्त्र हाळें. आनीं पुरचाक स्याय मात्र जाय.

कोरा वापस आयलो. मंचुवांत एक व्हड मैलाचे कुरवेचो फातर आशिल्लो.

न्हाणवन तयार करन दवरल्या बापसूचे मड्याक पटोवन धरन कोरा रळ्ळो. बापाक इतलेच दिसां उपरांते देखल्ल्यान ताका तें तोण्ड पळोवन तृप्ति जाली ना.

एक मांदर्यात मडें धांपून बादलें. तें तशी करचाक पाडना म्हण ताका म्हस्त जनांनी सागलें. तें बादिल्लें मडें ताणे स्वयम उबारन मंचुवांत दवरलें. थंय एकठांव जालेल्यांक अजाप जालें. असलें एक मडें—पूरय कोणेय देखले ना. ताणे फातर मड्याक लागून बांदचाक लोकाक ताजो उद्देश समजलो.

कोरान पत्रोसाक सहायाक आपयलो. पत्रोस थांगा मेळेल्या सर्वांकिय चोयलो. कोणेय उलयना.आखीर तोवय मंचुवार चळ्ळो. मंचुव न्हंयचया मद्दें पावंचाक कोरा आनी पत्रोस—हांणी दोगांनीय फातरान बादिल्या त्या भारी मड्याचे वोझें उबारन उदकांत सोळ्ळें. वोझें उदकांत बूडलें. तीन चार फुगे ऊंच आयले आनी फुटून गेले ! बस ! तितलेंच !

स पावलां भूंय सरी मेळनातिल्लें दुसर्याची चाक्री करन प्रयोजनाक आयल्लें त्या म्हांतर्याचिं जीवन चरित्र सोंपलें.

# इकुणीस

विधान सभेंत मेंबरांक वेंचून काडचो समय. त्या प्रदेशाचो एक व्हड शेतकार स्टेट कांग्रेसाचे तरपेन चुनाव लडचाक रावला. दुसरो एक स्वतंत्र उमेदवारूय आसा. दोगांचेय मदें व्हड मत्सर चलता.

ह्या मत्सराचे मदें शेतांत काम करचे मजूरांचे संघाची रजिस्ट्री जाली. ह्या संघांत परया आनी पुलया मजूर मात्र मेंबरां जाले. गरीब मजूर—नायर, क्रिस्तांव आनी ईषवा—हांणी हांत मेंबर जावंचाक इनकार केलो. तांणी म्हळें : "तें परयांचे संघ आसा. ते स्टेट कांग्रेसाचे मेम्बर आसात. तांकां इगर्ज, करयोगम आनी श्री नारायण धर्म परिपालन संघ—हांगा सून आदेश मेळा कि कांग्रेसाक वोट करचें.

ह्या चुनावांत हारवण आनी जिकवण हांचो निर्णय करपांत शेत—मजदूर संघाचो बलवंत हात आसा. तांचा संख्या ऊणे न्हय. तांणी तांचो निर्णय स्पष्ट केलो ना.

स्वतंत्र उमेदवारान एक व्हड रकम शेत—मजदूर संघाक दीवीन म्हण उत्तर दिलां. संघाची कार्यसमितीचो एक बसका कोराचे घराक जमली. नरेंद्रान स्वतंत्र उमेदवाराचें उत्तर तांकां जाणयलें.

धा सास रुपया! अजापाचो रकम! परयांक आनी पुलयांक इतलेंच मोल आसा की! तितलेंच न्हय. ताजाकय चढ मोल आसा म्हण नरेंद्रान म्हळें. एक परयाचें मोल रुपया—हाणो—पैसो हांचान लेकचें न्हय. त्या दिसाचे बसकेंत जे जे जनांनी भाग घेतलों तांकां सर्वांकय आपणाचे शक्तिचो दुगुणा अनभव जालो.

साबांर समय चर्चा केल्या उपरांत समितीन त्या उत्तराचो इनकार केलो. बसका जावन वचे प्रति एकल्याचे मनांत हो प्रश्न आयलो कि इतली भारी रकम सोडचाक कशी दिसलें? धा सास रुपया! धा धा रुपयांचीं एक सास नोटां! आपणाचे एकठावन जाल्लीं शक्तीचेर सर्वांकय अभिमान जालो. त्या दुर्बळयांकय धा सास रुपयाचो त्याग करची शक्ती आयली!

"एकठावन रावल्यार अशीच आसता!" अशी तांणी एकमेकांक म्हळें.

पण लागीचे चुनावांत खंयचो मार्ग आमी स्वीकार करचें? धा सास रुपया नाका म्हण, आनी आमी कोणाक वोट करचें? कोणाक वोट दिल्यार परयांक आनी पुलयांक चांगपण जातलें?

स्टेट कांग्रेसाचे तरपेन एक कळोवणी भायर आयली कि स्टेट कोंग्रेस जिकवून अधिकार आयल्यार सगटांचेय चांगपणा खातीर काम करतलें. आनी गरीबांची गरज दूरा करतलें. तेन्नाय परयांनी एकमेकाक विचारलें:

"हें कशी साध्य? शेतकार आनी मजूर हांचें दोगांचेय चांगपण एक समान कशी करचाक जायत?"

हो दुबाव, दुबावूच रावलो.

चुनावाचो दीस, व्हड उर्जितकायेचो आनी गोंदोळाचो दीस. सर्वथा ऊर्जाचो आनी उत्साहाचो दीस. वोट करच्या स्थलार लोकाचो व्हड खीट आशिल्लो तिरंगाची झण्डांनी शिंगारलल्यो बोट्यो, मंचुवां आनी स्टीमरां न्हंयंतल्यान आनी तोंडांतल्यान धावंतालीं. स्वतंत्र उमेदवाराचे पक्षाचे जनपदय खूब प्रयत्न करतालें. पण संघाचे निर्देशाक अनुसरून ताजे नौकरान पुलयान सरी कांग्रेस उमेदवाराक वोट केलें.

कांग्रेस उमेदवार जिकवलो. त्या जिकवणेचो उत्सवूय सोंपलो. तांणी वोट दीवन जिकवल्लो तो महंत मंत्रीय जालो. हें वंय सगटांक कळें.

कुट्टनाटचे शेत–मजदूरांचे एक सभेत नरेंद्रान म्हळें: "हें सरकार आता गरीबां खातीर कितें करतलें, पळवया."

ही सतर्क करची सुचौणी आशिल्ली.

कुट्टनाटचे शेतकार, खोत आनी जमीदार भियले. परया आनी पुलया सग एकठांय जाल्यात. एकठांय जालेली शक्ती तांणी चुनावाचे वेळार देखली. त्या एकठांयें द्वारा परया आनी पुलया जागे जाल्यात. बलवंत जाल्यात.

दोगं शेतकार जेन्ना मेळतात तेन्ना पुलयांचे खातीरीच उलयतात. तांकां आपणाले जनांचें संख्याबळ आसा. मागशीं मुकार कांय तांकां पळवंचाक ना. परया आनी पुलया हांकां स्नेहाची भावना नष्ट जाली. ताची प्रश्न करची रीतीच परतली. नवें सरकार. . . .हें कितें करचाकवता? हेंच सगटय विचारतात. प्रति दिवस मजूरी मेळचे पांच दंगाळी भातांत दोन दंगाळी भात आनी बाकी तीन दंगाळी भाताक सरकाराचे लेकान पैसो दिवंचो नेम चालू जालो. हो संघाचो व्हड जय उरलो.

कोरा संघाचो प्राण आशिल्लो. ताका कुट्टनाटचे परया आनी पुलया हांचें मदें बरें स्थान आसा. हांत चिरुतान एक प्रकाराचो अभिमान अनुभव केलो. दोन दंगाळी भात मजूरी मेळचाक तिजो घोव कारण न्हय? दुसर्या परयींचे मुकार तिजो दर्जो ऊंच जालो.

बेजार परया आनी पुलया हांचेकडे करचे अन्यायां पासून ताणे आवेशान सांगतासताना तिजे रगतय हूंन जातालें. जेन्ना कोरा सांगता कि हे सग अन्याय बन्द करूंक जाय, तेन्ना ताणे जाण जायना तिल्ले अनेक अन्यायांपासून ताका सम-जावुंक जाय म्हण तिका दिसतालें. परया आनी पुलया हांणी नेणतां, कळकांत, खळाचे बैकोल राशीचे खांचींत, दोळयांची दृष्टि पावनातिल्ले दूरा मरान पातळन पळळेल्या शेतांचे पाचवे भाता झाडांचे मदंचे बांदार जावंचे अन्याय, कुकर्मां! हांचेपासून तांचे बायलांक मात्र कळता. त्या अन्यायांचें शिकार जावन कितले बायलांचो आत्मो तळवळेवन नाशाक पावंतात! तें कोणेय जाणां जायना! तो घरंघोर संसाराचे अंतकरणां कानांत मरान पावोंवचाक जालें जाल्यार! पण तो दयार्द्र काणियो दुसरे एक परयाचे बायले वरी आपणाले घोवाकडे सांगचाक तिका व्हड आशा जाली. पण कोराक हें सांगून समजावंची ताकत तिका आसा म्हण तिका दिसलें ना.

त्यो काणियो जाण जाल्यार परया आनी पुलया लोक उजो लावुंक आनी हत्या करुंक लागतले. मरियाची उतरां तिजे कानात गूंजली. "हें सग दादल्यांक जाणोवंचें न्हय. तांकां सूळार घालुंक दोवूं न्हयें." व्हय, कुट्टनाटचे परया आनी पुलया हांचे पिळगेचे संस्काराचो प्राण होच पातिव्रत्य धर्म आसा ताजे बायकोचे पातिव्रत्य धर्माचेर कलंक येतलें म्हण जाण जाल्यार ताची अमोघ शक्ती कितें कितें करची ना, हें खबर सांगचाक नज. . . .पण एक परयी नवयुवती रंगाचे ब्लाउस आनी चंद कापड न्हेसची आपणाली एक लान इच्छा पूर्ति करन ताका लागून आपणाले

पातिव्रत्याची रक्षा करन कशी जीवन काडतली ? हें दलाचारपण दाल्यानी जाणुंक जाय न्हय ?

देशांत साबार आसात म्हण सांगचे त्या दुर्भाग्य भोगचे भयण्यांक देखचाकय तांचो परिचय प्राप्त करपाकय चिरुताक व्हड आशा जाली. तांच्यो दुखां भरलेल्यो काणियो तांचे तोण्डांसून आयकचाक जालें जाल्यार! साबार फांतां चिरुताक दिसलें कि बायलांची एक सभा किर्तें पसावत करूं नज.

घोवाचे सर्वंय काम स्तुति करचाक योग्य आशिल्लें. तरीय ती एक स्त्री, एक बायल. तिजो घोव खोताकडे झगडतां. तांकां सगटांक कोराचेर विरोध आसा. एकलोच वचे वेळार कोराक मारन दिवंशी मारन न्हंयंत बांदून उडकायल्यार किर्तें करचें? कोण विचारतलें ?

चिरुता कोराक एकलोच भायर वचाक सोडना. सांजें येवंचाक तोडोव जाल्यार तिका भय जातालें. तें तिणे एक दोन फांतां कोराक म्हळेलेंय आसा.

# वीस

एक दीस चिरुता पुष्पवेलीक गेली. त्या दिसा खोत तिकाय कोराकय कोपलो. ताका एक पाठ शिकयतलो म्हण ताणे म्हळें. तो मात्र न्हय, त्या देशाचे सगळय ताका तय्यार वसल्यात. ताणे म्हळें :

"दुर्बळ परया आनी पुलया हांकां आडवाटेन व्हरन.....ताका जाग्रत कायेन रावचाक सांग."

त्या दिसा सांजे कोरान येवचांक चिरुतान ताका विवरण सांगलें. सगळय 'हूं' म्हण आयकून ताणे चिके हासून विचारलें : "तूं भियेवन गेली की ?"

चिरुतान बावडेन म्हळें : "माका केन्नाय भयच.

त्या वाक्यांत जो अखांत मेळन आशिल्लो तो कोराक समजलो ना. ताका चिरुताक मुखेल खबर सांगचाक आशिल्लें. तें आयकचाक आणी समजुंक तिका ताकत आसा कि ना हें जाण जावंचे खातीर तो तिका जाग्रतायेन चोयलो. ताणे म्हळें : "आगो चिरुता, लोक माका दिवंशी मारोत, तरीय परवा ना. मरचो समय मरान माजो प्रयत्न होच आसतलो कि परया आनी पुलया हांणी आनी मुकार असले अत्याचार सहन करूं न्हयें."

त्या ठारावणीची दृढतकाय चिरुता समजली. त्या निर्णयासून घडचे कोराचे जीवनांत भाग घेवंचाक निर्णय ठारायलें.

कोराक आनीकंय सांगचाक आसा. जायतें सण सांगचाक आसा. तो म्हणचाक लागलो :

"हांवें एकच पिशेपणाचें काम केलां. तें पिशेपणच, तेंच आज माजे मार्गार अडचण जालां.

"तें कितें ?"

"तें....तें आसा...." चिरुताचे तोण्डार दृष्टि दवरन ताणें विचारलें : "तूं रडतली की ?"

"हांवें रण्णा. आज मरान हांव केन्नाय रळचां बी ?"

"तरीय हांवें तुका व्हारडीक करचे वेळार हांव अशी सगटय जातलो म्हण तुवें आठयल्लें की.

"तुमी कसले जाले ?"

"तूं आयक. ह्या संघांत मेळचार, ताजे खातीर भोवल्यार, व्हड आफेत्यु जातलो. एक वेळा मरयेत, जेयलांत गेलो म्हण जावयेत. तसले कार्यक्रम तय्यार जावन येतात. आवय-बापूस, बन्धु-बान्धव, हांकां विरोध करन एक चेडुवाक व्हारडोक केली. तशी एक चूक केली. पायांक एक बंधन पळलें सी दिसता."

चिरुताक जाप तय्यार आशिल्ली. "हांव खंयच्याय कायर्यांत तुमकां अडचण जावना. तुमी खंयीय वचात. हांव आपणाक तुमकां एक वोझें जावुंक दिवना."

"तें बरोबर आसा. पण माका कष्ट दिसतात. एक चेडुवाक हाडून अशी कष्ट दिवंचे कितलें पुरश खरें आसा? व्हारडोक दीस जेन्ना झगडें जालें तेन्नाच व्हारडोक नाका म्हण माका वापस येवुंक जाय आशिल्लें. तेन्ना दुसरो कोणेय तुका व्हारडोक करतलो आशिल्लो. तुका सुखान रावयेत आशिल्लें. मजूरी करन दिस पडतें तुकां मजूरीचो पैसो हाडून दिता आशिल्लो."

चिरुता 'घम' जाली. कोराचे उतरांचो पातळलो अर्थ तिका समजलो ना. तरीय ती भीयली. घोव सांगता कि तुका हांवें व्हारडोक करचाक नज आशिल्लें हें तो कशो सहन करतली. तिणे म्हळें : "तुमी हें कितें सांगतात? तुमी रोज काम करून मजूरी हाडतातच. हांव ते नुपुरो म्हण सांगता मी ?"

"आगो है न्हय खबर. आतां दिस पडतें धंद करन मजूरी हाडून दिवंचाक साध्य न्हय जालां."

"काम ना जाल्यार हांव उपाशी पडतलीं."

"न्हय गो तुझ्या लोकटेचो बरो चांग न्हय देखून तूं माका मेळी. हांवें तुका व्हारडोक केलो. ना जाल्यार तुका बरें जातालें. आनी माका सुखान माजे वाटेक वचेत आशिल्लें."

चिरुताक ताणे सांगचे समजलें. तिणे म्हळें : "हांव आपणाले फिरायेच्या

खंयचाय परयी पाशीय भाग्यशालिनी म्हण मानतां. माका कांय ऊणाव ना. माजो घोव माका भोग करता देहानय हांव सुभग आसा."

एक मिनट उपरांत कोरान म्हळें :"चिरुते तूं बावडी सरळ गो ! तूं आठयता कि तुजो घोव केन्नाय पुंचा शेतात मजूरी करन तुजें संरक्षण करतलो म्हण. पण तो जेयलात वचो वाट शोधता."

चिरुताक जाप तय्यार आशिल्लो : "आनी हावेंय तशीच करतलीं."

तांत कोराक विश्वास जालो ना.

चिरुतान मागीर म्हळें : "सम्मेळन आदी करचें दादल्यांचेंच काम आसा." आमी बायल्योय सम्मेळन करतलीं. आमकांय कायरीं आसात."

कोरा हासलो. ती जाग्रतायेन सांगताली : "अरोग दृढ गात्र तरण्या चेडुवांकय संरक्षण मेळुंक जाय. त्या खातीर हांवंय जेयलांत वतलीं."

"आगो, पिशेपणाचीं उतरां उलोवनाका. तुका हेंच बरें आसतलें कि तूं कोणेय दुसर्याचे मागशी वच." आखीर ती रडली. तितले व्होगी तें सांगका नाका आशिल्लें म्हण कोराकय दिसलें. ताणे तिका समजावंचाक प्रयत्न केलो. खोणस काडून रोडून रोडून तिणे विचारलें : "तुमी खंयींय दुसर्या चेडुवाक पळवन दवल्यीं न्हय?"

"छी, कितें पिशें रडता गो तू ?"

"तुमी कित्याक म्हळें कि तुमी माका व्हारडीक करचीना आशिल्लें आनी हांव कोणाचेय दुसर्याचे मागशी वचें म्हण. एक वेळा तुमकां माका सोडची इच्छा जाता ?"

कोरान हें स्वप्नांत सरी आठयलेना कि ताका असले सवालांची जाप दिवंची पडतली. तो बेजार जालो. ताणे प्रतिज्ञा केली. पवित्र वस्तुंचे नावार ताणे आपणाले सत्याचें प्रमाण दिल्लें.

चिरुतान विचारलें : "तेंन्ना, हें म्हळ्ळेलें सवंय खेळाक आशिल्ले की"

एक नवो समस्या! तें व्हय कि न्हय म्हण सांगचें धैर्यय ताका ना. सांगल्लें सग खेळाक सांगल्लें न्हय. देकून तें तमाशेक उलयलें म्हण सांगचाक ताका जायना. सांगल्लें यथार्थ म्हळ्यार तिजे हर्दें भेततलें.

ताणें त्या संवादाचें थांय घुवंडायलें. "तुका राखचाक जायना मू म्हण सांगल्लें गो माजे चिरुता! तूं कितीली बेजार जाल्या?"

आश्वासन पाविल्या चिरुताक त्या दिसा पूराय रात कोरा संघाची कार्यावळ पतळावन समजायतालो. मुकावेलो समय भो जोखम भरललो आसा. तो एक झूझाचो समय आसा. कुट्टनाटचे शेतकार मात्र न्हय, शासक वर्गय संघाचोय ताजे कर्मचार्यांचोय मुकाबलो करतले. ताणे म्हळें :

“आम्ही वोट करचाक तांणी सांगलें कि आमकां जीवन कडचाक योग्य मजूरी दीवेयन म्हण. तें सग बेकार जालें. मंत्रीगण ह्या पुंजीपतियांचे, दामेलियाचें आपलेच मनीश आसात. आमकां मेळका जालेलें आमी झूझ करनच घेवंका जातलें. अशी करचे खातीर आमकां जेयलांत वचाकय मार खावन मरचाकय तय्यार जावंचें पडतलें.”

कसलें अंधकारांचें भविष्य! चिरुताचे मनांची शान्ति सदा—सर्वदा नष्ट जाली.

# एकवीस

कुट्टनाटचे शेत–मजूरांची पयली मर्यादेची मागणी संघा तखेन भेटोवन दिल्ली. ही मागणी केवल शेतकाराक मात्र न्हय, बुनावावे समयार शेत मजूरांचे कष्ट दूरा करीन म्हण ध्येय प्रकट केल्लेले प्रतिनिधीय आशिल्ले सरकाराकय दिल्ली. संघाची मागणी मजूरांचे अधिकारांक मात्र न्हय प्रगट करताली, पण भविष्यात कितें जातलें, ताजो उगडास करची ताकीतय आशिल्ली.

परया आनी पुलया एकठावन वाढल्यात आनी सबल जाल्यात सी दिसलें. तांचे घोषणात बळ आयलां. मजूरी दिवचें भात तांजे मुकार मोवुंक जाय. दंगाळी भरन मोवुंक जाय. अशो ते सांगचाक लागले तांचे जीवनरीतींतय परिवर्तन आयलें.

परया आनी पुलया मजूरी चड मागताले. हें एक हिशोबाचे आधारार. एक तत्वशास्त्रच ताका आधारून आसा. शेतकारांक जाप सांगचाक जायनातिल्लीं तर्का ! तांकां तर्का करचाक कळता. उलोवंचाक तांकांय ताकत आसा.

काल मरान मूक प्राणी वरी, जनावरा प्रमाणों तुमचे सवे आनी आंबडपा घेवन, तुमा दिवंचे स्वीकार करन वतल्ली परया आनी पुलया कशी परतले ? तांकां कोणे शिकयलें? हें सगटय अजाप उरलें.

हें सर्वय तांचांत सहज आशिल्लें. हस्तीक आपणालें बळ कळ्ळे. ताका ताजें महत्व समजलें आनी आता तो बोलुंक लागलो. ताका बोलुंक विषय आनी रीत, दोनीय मेळचो. शताब्दीचे अनुभव आसात ना? तत्वशास्त्र आप्याप जावंचें न्हय.

उपजाचो एक अंश ताका मेळुंक जाय ! तें कितलें म्हण हिशोब आसा खंय ! खोताक मेळचो लाभ ताजे कामाची मजूरी खंय. जमींदाराचे भूय–कर–ताजेपासून ताका आपणालें तत्व सांगचाक आसा.

तांच्यो ह्यो मागणीयो सळिष्ट, निष्ठुर आनी न्यारहित आशिल्यो. जमींदारां तरपेन तांचेर अशी आरोप आयलो. पण ते भियले. परया आनी पुलया ह्याणी सांगतल्यांत कांय पुणीय सत्य आसाकी ना? तांकां अशी दुबाव जालो.

दिसान दोस चढ जावंचे मजूरांचे ह्या वावरांचे सवालांक समाप्त करचें गरजेंचें म्हण तांकां दिसचाक लागले. शेताचे कामांसून परया आनी पुलया हांकां एक दम सोडवाड केल्यार कितें म्हण शेतकारांनी आलोचना केली. दुर्बळे नायर, ईषवा आनी क्रिस्ताव हांकां काम शिकयल्यार कितें? एक, दोग शेतकारांनी करन पळयलें. पण ना, थांगाय संघान हाथ घालो. संघान ताजोय विरोध केलो. संघ आता भिसरावंचाक लागलें कि अशी केल्यार....!

परया आनी पुलया हांकां बरोबर मजूरी मेळुंक जाय म्हण सांगचाक शेत-मजूर नायर आनी क्रिस्तांव—हांकां दिसलें कि आमकांय मजूरी चढ जाय म्हण मागल्यार कितें! तोवय मागुंक लागलो. मात्र न्हय, संघांत मेंबर जावन तो मागचाक लागलो.

पिळगेंतल्यान चलून आयल्ली समाजाची व्यवस्था मूळासून हुमटून वचें भय जालें. इतःपर्यंत 'पवित्र' अशो मानल्ले साबार विषयांक प्रश्न करचाक लागले. जमीं-दारांक भूंय—भोग दिवंचाक नज. मजूरांक तांचो योग्य हक दीवनातिल्लें रावप, आनी निजाचे आस्तीचेर अधिकार हें पाप आसा, अशी समझून घेतलें. परया, पुलया, मायर, सर्वंय एकमेळेन दोस्त जाले. सर्वोपरी दैवनोतीचेर आशिल्लो विश्वास ऊणे जावंचाक लागलो. मिरवणुको ल्हव ल्हव शेत-मजूर संघाचीं सम्मेळनां आनी समस्त प्रदेशांत चलुंक लागलीं. सर्वकडेय दामेल्यांचे मनांत थडथडो येवंचे वरी 'घोषणा' प्रतिध्वनीत जावंचाक लागलो. ज्वालामुखी पर्वत अवश्य फुटतलो सी दिसतालें.

साबार स्थलांचेर हडताल जालें. मागणीक अनुसरून कांय स्थलार मागल्ली मजूरी मेळनातिल्ल्यान मजदुर काम करचें सोडून गेले ना. ते खोताचे घराक रावून घोशणा करचाक लागले.

ही स्थीती अशी मुकार वचें बरें न्हय म्हण सरकाराक दिसलें. सरकारान मजूरांक जाग्रतायेची हुकुम दिल्ली. सरकारान सांगलें—मजूरांक एकठांव जावंचाक आनी नियमाक अनुसरून आपणाले कष्ट दूर करचाक उपाय करचे खातीर अधिकार आसा. पण कुट्टनाटचो मजूर आपणाले अधिकाराचे भायर वचून शांति भंग करचाकय खाद्यान्नाचे ऊणावाचे ह्या कठीन परिस्थितींत विध्वंसाचे काम करन

देशाक उसरमेट दिवंचाक चोयता. हाजे मुकार सरकाराक दोळे धांपून बैसचाक साध्य जावना.

ताका लागून संघाचे सुमार प्रवर्तकांचेर सरकारान केस काळळें. मुखेल प्रवर्तक सग निपले. एदे जनांक धरलें. धरलेल्या सगटांकय पीडा दिताले. तरीय सम्मेळन आनी मजूरो मेळुं पर्यंत सत्याग्रह दोनीय चलताले.

कोरा निपलो. खोंपियांत चिरुता अखांतान ताका राकून बैसताली. सुमार कांता पुल्लोस ताका शोधून थांगा आयलें. त्या प्रदेशाचे मुखेल्यांचो अभिप्राय आशिल्लो कि ताका धरन एक पाठ शिकयल्यार सग झगडेंय थांबतलें. तोच हाजे सगटांचेय मूळ.

कोरा थेडे पावट रातीचें घराक येतालो. येवन परतून गेल्यार आनी तो वापस येवूं पर्यंत चिरुताचे मनाक शांति ना. ताका धरलो तर उपरांत कितें जातलें? हाजी कल्पना सरी तिजान करचाक जायना.

ताचे शिवाय? थंय सून घर खालो करचें म्हण खोत भिसरावंचाक लागला, जबरदस्ती करचाक लागला. देवन वचना जाल्यार घरन देवंयतलों खंय. देवंयल्यार खंय वतलो? वापस गांवांत गेल्यार वेगळे एकल्याक व्हारडीक करका जातलें. वापा व्हारडीक करयतलो.....ना–ना ह्या जल्मांत हें साध्य न्हय.

एक रात कोरान न्हंयतल्यान पोवन येवन चिरुताक आपयली. चिरुता निदली ना आशिल्ली. "कोण" चिरुताने म्हळें.

"हांव, हांव."

चिरुताक चिके समयाक कोण म्हण कळळेंना. कोण कटकटायता म्हण तिका कशी कळतलें ?

"आगो हांवंच."

कोराच म्हण चिरुताक समजलें. तिणे उठावन कवड उगडायलें. एक हप्तो उपरांत तेन्ना तो तिका देखता, एक हप्तेंतच ती भो दुर्बळ जाल्या. अशी ताणे पळयलें. ताणे विचारलें: "आगो तूं कांय खायना–पीना की ?"

"हांव खाताच." तिणे म्हळें.

"आनी अशी दिसता कितें ? शरीराक आपडल्यार हाडांच लागतात."

ती चिके हासली. नक्षत्रांचे अस्पष्ट प्रकाशांतय कोराक तिजे हासाची झळक मेळळी. त्या हासांत फूडे कांय नातिल्ले नवे आनंदाचें गूढ रहस्य आशिल्लें. पण कोराक तें समजलेंना.

"तूं हासता कित्याक ?"

"वाह ! हांवें हासचाक नज ?"

"जेन्ना हांव सांगता कि तूं दुर्बळ जाल्या, तेन्ना तूं हासता !"

चिरुतान लज्जेन तोण्ड बावगोवन म्हळें : "माका ह्या दिसांक खावंचाक पिवंचाक कांय नाका सी दिसता."

"किते कांय रोग आसा ?"

चिरुताक चिके हासली. तांत मदें तिणे म्हळें :

"व्हय, ही एक तराची बीमारी आसा. धा मास उपरांत भायर प्रगट जातली."

कोराक अत्यंत आनंद जालो. चिरुताक व्हण्टीत काडून तो मोगान पुनः पुनः उमो दिवंचाक लागलो. तिका खालाक राबोवन तिजे पोट परसून चोयलो.

"आतां पोट वाढले ना." चिरुतान म्हळें.

"तरीय स्वल्प व्हड जाल्यां."

"एकवेळा पोट व्हड व्हड जाल्यार बाळांत जातली की ?"

"तें कित्या?"

एक गरजेचें प्रश्न तांचे मुकार आयलां. तिणे म्हळें : "खोतान येवन सांगलां कि घर खाली करुंक जाय, ना जाल्यार बलात्कारी भायर घालतलों.

"भायर घाल्यारीय, मागीरीय हांगा येवन रावुंक जाय."

"तें जिवशीं मारतले."

"मारोत".

"ही कसली दृढतकाय! भायर घालप, परतून येवन रावप, मारतात जाल्यार मार घेवप—हें फूडेचे निर्णय केल्लेले कार्यक्रमा वरी सांगता. ताणे स्पष्ट म्हळें : "ते मारन जिवशीं मारतात जाल्यार ताजो परिणाम भलोच आसतलो. परया—पुलया जातीक त्या निमित्तीं लाभूच जातली."

"ताजान तुमकां दुख जाव ना किते?"

"आगो तें दुसेंर. तें परवा ना. माका तुरंत वसुंक जाय. एक वेळा माका घरचाक माजे मागशीं हांगा मनीश पांवतले."

चिरुताचे पेजे आयदन केन्नाय खाली उरना. त्या दीसूय थोडी पेज आनी कणगाचो रावंदय आशिल्ली. चिरुतान कोराक वाळळें. कोरा पेजे—निशें पिल्लो. तीन चार दिसांक खर्चाक म्हण सांगून ताणे तिजे हातांत एदे दुड दिल्ले आनी चल्लो.

# बाईस

कोरान गेल्या उपरांत साबार कायरीं विचारचाक आशिल्लीं म्हण तिका उगडास आयलो. आनी केन्ना तो येतलो? येवंचाक जायत कि ना? घरांसून भायर घाल्यार दुसरीय येवन रावचें, मारल्यारीय मार खावन थंयच रावचें, मारन जिवशीं मारचें–हांचे पासून ती परतून परतून चिंतन करचाक लागली.

चौते दिसा रात्रींत कोरा आयलो. तो ठंडीन कडकडतालो. तो चार पांच घडियांक उदकांत पोवन आयला. कवड बंद करन रांदणींत उज्जो सांपून तो धग तापचाक बैसलो.

चिरुतान म्हळें : "अशी कितले दिस काडतले ?"

"कितलेय आसोत."

"तुमकां धरले जाल्यार."

"जयलांत पडतलों."

कोरान आपणाली प्रतिज्ञा पुनः केली. ताणें आपणालें जीवन आपण सयत मजूरांचे बरेपणाक अर्पण करन जालें. तो आनीकंय शेतांत काम करन बायलेक खर्चाक दुडु दितलो म्हण आशा पावंका नाका. चिरुतानय आपणालो निश्चय परतून दृढ केलो कि कोराचे जीवनाचे सुख–दुखात ती वाग घेवंचाक तयार आसतली.

कोरान म्हळें : "आगो चेडुवा, हांवें तुका पयरे एक सत्य सांगल्लें कि व्हारडीक करका नाका आशिल्लें म्हण. तूं माजे रास्त्यार एक अडचण आसा एक चेडुवाक व्हारडीक करन तिका कष्टांत घाल्या–हो विचार माका दुख दिता

शांततायेन घर–गृहस्थी करन रावचें माजे कपलांत ना."

कोरान आपणाले हृदयांसून हीं कायरीं म्हळयांत पण तेन्ना ताजो गळो भरन आयलो ना. तरीय कोरा भीतरचे भीतर एक व्हड दुखाचो अनभव करतालो म्हण चिरुताक समजलें. चिरुतान म्हळें :

"हांव कसलीय अडचण जावना, अशी हांवें सांगलां नाकी ? हें सग माका भो संतोष दिता. तुमी खंयोच वचात आनी कसलेंय काम करात, माजी मंगल कामना सदा सर्वदा तुमचेकडे आसतलीं. हांव भूक तडसून रावचाक तयार. चेरडूं जाल्यार हांव ताजे पालन पोषण करीन. तुमी कित्याक दुख पावंतात ?"

कोराचे खांद्यार तिणे आपणालें माते दवरलें. ताजे विशाल हृद्यार आपणाले हाताचो ताळवो दवरलो. कोरान चिरुताक बळान पोटलून धरली.

"चीरुता !"

"ऊं".

"हांव एक कायरें सांगतां, तुका वाजाव दिसचाक पाडना."

"ना."

"आयक, थोडे वर्सां फुडे वायलार प्रदेशांत जशी मजदूरांक गोली मारन धूळि केल्लो, तशीच आमकां, परयांक आनी पुलियांक गोली मारन धूळि कर्येत. तशी सग कायरीं जातात. माका धरन जेयलांत घालयेत. देकून—"

कोराक मागीर सांगचाक जायना. ताका धैर्य जायना. तो व्याकुल जालो.

"देकून."

"तुका कोणाचेय लागी सोडून गेल्यार हुसको सोडून माका आपणाले कामांत मन दिवंचाक जातलें.

"कितें सांगतात?"

कोरान शांततकायेन म्हळें : "चेडुवा, हें सग संत आलोचन करन जें उचित तें करुंक जाय. ह्यो बायलो, चेरडूं-बाळ सग कोणाक ? तें घरगृहस्थी करन रावतल्यांक चिन्हा. माजें कायरें–"

चिरुता कोराक जीव सोडून पळयता रावली. एक मशीना वरी मनांत कांय एक विकार नातिल्लें ताणें म्हळें : "तो चात्तान, आमचे गेलो चात्तान ? तो बरो आसा. तुका व्हारडीक करचाक आवंगण करन भोवंतालो. आताय ताण व्हारडीक केली ना. ह्या जल्मांत ताणे व्हारडीक करना म्हण सांगून भोवंता ?"

"देकून ?"

हें सवाल आयचाक कोराक अजाप जालें. चिरुता कोराक खाल सून ऊंच भरान एक फांतां तीव्र दृष्टोन चोयलो. ताणे व्हड अपराध केला सी तो अनभव पावलो. चिरुतान दृढ स्वरार म्हळें : "हावेंय कांय निर्णय घेतला."

एक मिनिटाक कोरा मौन रावलो. चिरुताक म्हस्त सांगचाक आशिल्लें. पण तोण्डासून उत्तर भायर फूटना.

"उगडास करन पळय, चेड्वा, उगडास करन पळय."

चिरुताचे मुकार रावचाक आनी तिजे तोण्डार दृष्टि घालुक जायनातिल्लें तो उदकांत उडी मारन अप्रत्यक्ष जालो.

एक मिनिट उपरांत चिरुताक होश आयलें. तिजो पति तिका सदा सर्वदा सोडून गेला अशी तिका दिसलें. "उगडास करन पळय चेडुवा, उगडास करन पळय." शेताचे वार्यातिय हें वाक्य प्रतिध्वनीत जातालें.

स्वस्थ श्याम रंगाचें है शरीर आनीकंय देखचाक साध्य न्हय की? तीं एक-लीच जालो. तिका व्हडान बोंब मारुंक दिसलें. मुकार पळेल्या त्या उदकाचे विस्ता-रार तें मातें ऊंच दृष्टि पडता सी तिका दिसलें.

ना.

ह्या प्रकारी तो येवन वतासताना एक उमो तिका हक आशिल्लो. काळकांत जाल्यारीय एक मूष्टि पेजे कणां तिणे वाळळेलीं, तीं खावन तो वतलो. सुमार कायरीं वोपसून दीवन वतालो. त्या दिसा कितें सग सांगलां!

आनी आयलोनाच जावयेत! वायलार देशाचे मजूरां वरी गूळचाक खाण जालो जावयेत! माका राकून बैसचें नाका! आखीरची जागा सांगून वतालो की!

चिरुताक आता आपणाले व्हारडीकेचो उगडास आयलो. आपणांगेले बंधु-बांधवाचो विरोध आशिल्लो. जाल्यारीय ताणे तिका व्हारडीक केली. तिका व्हारडीक करोवन धाडून दीवनातिल्लें रावचाक तिजे बापान ठारायलेली सर्वंय व्यवस्थांय पालन करचाक तो तयार जालो. ताजो कसलो आवेश आशिल्लो! ताजे उपरांत! आपणापासून आशिल्लो मोग ताजो जीवश्वास आशिल्लो. हर्दयाची दडदडाय ताजी उत्कण्ठा आशिल्लो. तिणे पोट भरन जेवंचें, धवें वस्त्र न्हेसचें, आनी हासून खेळन भोवंचें हीच ताजी एक मात्र आशा आशिल्ली. ह्याच खातीर तो जीवन करतालो. परने दिसांचो एक एक मिनिटाचोय तिका उगडास आयलो. त्यो सर्वंय तिजेर आशिल्या ताजे मोगान भरन आशिल्यो.

ह्या विशाल जलाशयाचे मदें वार्यांत हालचे एक खोमटांत तिका एकलीच सोडून 'आलोचन करन पळय' म्हण सांगून तो अप्रत्यक्ष जालो. ही कसली बदलावण! मोग म्हळोलो इतलोच दुर्बळ आसा की ?

पुष्पवेली चाक्कोची टुकटुकी दृष्टि! मरियाचीं उतरां! ती आपण्याकच कशी रक्षण करतली ?

कशीय धा मास पुरते जावन बाळां जाल्यार, विल्यार, –भियेवंचाक कांय ना म्हण सांगतात. त्या धा मासांच्यो रात्रीयो कशी काडचें? तरीय तिका आपणाले मोलादीक धनाचें रक्षण करुंक जाय.

थांगा येवन गेल्ललो तिजो घोवूच म्हण तिका विश्वास ना आशिल्लो. तिजे घोवाक इतकी बदलावण! तिजे मोगाची झरि सुकून वतली म्हण तिका विश्वास ना आशिल्लो. ती झरि केदप सुकून वचश ना. तेंवंय ती आवसु जावंचें ह्या समयार चेडो जावन तो व्हड जावन आपणाले बापा पासून विचार तर ती ताका कितें जाप दितली? ती विशाल उदकाची राशि दाकोवन तिजान सांगचाक साध्य जायत कि तो तांत बुडून अप्रत्यक्ष जालो.

चिरुता कडकडली. व्हय, तिजो घोव तिका सोडून गेलोच. तिका व्हारडीक करका नाका आशिल्ली म्हण तो चिंतन करतालो! तिका दुसर्यालि आश्रयांत रावचाक सांगतालो. !

रोडूंरोडून चिरुताक चिके दोळो लागलो. कोणकी उळदीता म्हण तिका दिसलें. दोळे विसकळायले. तिजे मुकार चात्ता रावला! तेन्ना तिणे आपणाले मनाचे दोळे–मुकार त्या तरण्याटाक देखलो. तो तरणाटो तिजे बापाचे पाय धरन मागता कि माका निराश करचाक नज....तिजे व्हारडीकेचे दिसा व्हरतकार सग झगडून गेल्ले, जाल्यारीय कोरा लागी तो मात्र आशिल्लो. ताजे उपरांतय तांकां आयल्यार तोच चात्ता तांचे सहायाक तयार आशिल्लो. चात्ता मुकार रावून खोणसां काडून रडता सी चिरुताक दिसलें. निष्फल जाल्ले जीवनांचें एक सजीव चित्र !

तो उगडास मनांसून विसरचाक तिणे भो प्रयत्न केलो. पण जितलो प्रयत्न ती करताली उतलोय तो उगडास तिजे मनांत तीव्र आनी उज्वल जातालो.

कसली मान-मर्याद ! कसलो बरो स्वभाव! चात्तान कांय चूक केली ना.

# तेवीस

पुष्पवेली चाक्को, हाका कोरान आपणाले खोंपियांत मारन जिवशीं मारलो. एक दीस मद्रातीं कोरान खोंपियांत येवंचाक चाक्को ताजे एक दोस्ताचे सहायान चिरुताक बलात्कार करचाक तयार काडता देखलो. तिजे तोण्डांत लुगड चेप्पून धांपलें आनी ती होरा नातिल्लें पळळ्या !

कोरा थांगा सून वांचलो. थोडे दीस भीतर तांणी ताका धरलो.

चिरुताक पुनः पत्रोसाचे घराक धाडली. एक हफ्ते मरान ती होश नातिल्लें पळळी. होश येवंचाक चात्ता आपणाची सेवा करता देखलो. व्हड भयान तिणे आपणाले दोळे धांपले.

पण दोळे धांपून केन्ना मरान रावतलीं ? चिरुता ताजे हातान ओखद पिवंचाक सीखली. तिणे दोळे विस्कळायले आनी ओखद पिवंचाक आपणालें तोण्ड 'आं' केलें. ताजे कडे उलोवंचाक प्रारंभ केलो. अशी चात्ता थांगा आसा म्हळेलें सत्य ती जाण जालीं.

चिरुताचो ताप ऊणे जालो. ताप सोडचाक ती उठावन बैसली. जेन्ना ती उठावन बैसली तेन्ना चात्ताक व्हड संतोष जालो. ताणे सेवा करची रोगेली वांचली. पण चात्ताचे उत्साहान चिरुताक जीवनाचे एक नवे यथार्थाचे अनभवाचो परिचय दिल्लो.

तिणें विचारलें : "तुका उतलो आनंद कित्या ?"

ताणे म्हळें : "तुजो रोज चढ आफेत्याचो आशिल्लो."

चात्ता केन्ना थंय आयलो, तेंवय तिणे मनांत केलें. मरियान तिका म्हळें : "कोरा आशिल्लो जाल्यार चात्तान इतलेच उत्साहान तिजी सेवा करचीना आशिल्ली. चात्तान मनान तुजी सेवा केली. चात्ता एक व्हड उपकारी मनीश.

कोरान चात्ताक सांगून धाडला. चात्तान तिका म्हळें : "कोरा भाव माका सग सांगून वोपसून गेला."

चिरुताक कोप आयलो. रागान तिणे म्हळें : "हांव त्या खातीर तयार ना जाल्यार ?"

चात्ताचें तोण्ड बावलें. माप मागचे लेकान ताणे म्हळें : "चिरुता झगडें करचें नाका. तुजे इच्छेक आड जावन तुका बायल करचें हांवें म्हळेंना. ताणे तुजी रक्षा करचो भार माजेर दिला. तुजेर चेरडूं जाल्लें उपरांत ताका वाढोवन व्हड करचाक माका सांगलां. माका ह्या जल्मांत बायल ना. ?"

चात्ताचें दोळयांत दुखां भरली. चिरुताचें हर्दय काकुळतकायेन भरलें.

एक दीस चिरुतान दुखां गळोवन म्हळें : "तुवें करचे उपकाराक वदल दीवुंक माजे कडे कांय ना."

ती तिजे खातीर जियेता म्हण तिका कळ्ळें. आनी ताणे खंय राबचें म्हण ती इच्छा करता थंयसून एक कदम सरी मुकार तो गेलो ना.

"माका कांय नाका." हीच चात्ताची जाप आशिल्ली. पण त्या मोगाकय सेवा शुश्रूषेकय कांय पुणीय प्रतिफल दिल्ले ना जाल्यार ती चुकतली म्हण तिका भय दिसतालें. तिणे म्हळें : "माका भाऊ ना आशिल्लो. आतां एक भाऊ जालो." चात्तान कांय जाप दिली ना. चिरुतान विचारलें : "उलयना कित्या?" "हांव कितें उलोवूं ?" "तर माजो भाऊ जावन माजे चेरडाचो माम जावन, मरण पर्यंत आमकां जीवन काडूं कितें ?"

चात्ता राजी जालो. एदे दीस लागी गेले. त्या तरणाट्याचे सेवन करचो उत्वेग ती पळयता आनी अनभव करता आशिल्ली. तिजे मनांत भय जालें. जर-तर चात्ता स्वल्प चंचलकाय दाकयता, तोण्डांसून अपशब्द उचारता, तेंच पुरो. . . चिरुता ताका घरांसून भायर घालतली. ती चात्ताली सेवा शुश्रूषा पळवन भियेली.

एक दीस चिरुतान म्हळें : "सर्वंय कर्माचें फल बापान मागल्लो दाम चात्तान दिल्लो जाल्यार..." चात्ता चिरुताक गौरवान चोयलो. ताणे नेणतांच ताजे तोण्डार आशा झळकली.

चाक्कोची हत्या निमित्तीं कुट्टनाटचे शेतकार भयान तोंद्रेले. ती परया आनी पुलया हांचे अक्रमाचें उदाहरण म्हण सांगचाक लागले. परयाक आनी पुल-याक जंय देखला थंय मारचाक लागले. त्या एक एक गडणेकय संघान प्रश्न म्हण घेतलें.

संघान एक स्वय सेवक मंडलीचा स्थापना केली. फटवणेचे गडणेच्यो मुकाबलो करचाक प्रतिरक्षा विभाग केलो. ह्याजे वाटेन कोराचे कैसाची चलवण जावंचाक लागली. त्या मद्रातीचे गडणेक रुजवत करची गरज आसा.

चात्तान एक वेगळीच खोंपी बांदून थंय रावचें खबर काडचाक चिरुतान विरोध सांगलों. वेगळोच कित्याक रावचें? वेगळें घर करन कोणाची प्रतीक्षा ती करतली? पण बाळांतीयांक एक वेगळें स्थल जाय. त्या चेरडाक काडन वाढोवचें आसाच. केन्नाय पुणीय कोरा वापस येतलो मू.

परया आनी पुलया चेडुवांचे संरक्षणेक कांय पुणीय करचें आसा. मद्रातीचें घर मारन मोडून घरांत चडचे आनी चैत म्हयनात खळार बैंकोला राशीचें मागशीं जानवरां समान काम विकार सफल करचें—ह्या कुकर्माचें सत्यानाशासून तांका रक्षण करचें आसा. मरियाचे काणियांत तिजेय नांव आयलेंच अशी नाश पाविल्यो बायलो कसल्या स्थीतींत आसतल्यो हें सवाल फूडे तिजे मनांत सुमार फांतां आयला. आता एक आरसोंत चिरुतान आपणाचेंच प्रतिबिंब देखलें. त्या बावड्या खातीर ती कांय करना जाल्यार आनी कोण करतलें? प्रति घराक वचून तिजे घोवा निमित्तीं करचाक जाय नातिल्लें काम, ती करीत जाल्यार, घोवाक ह्याजाकय संतोष दिवंचें काम दुसरें कांय आसतलें ?

चिरुतान चात्ताक आपणाले मनांचे विचार आयकयले. ताका ताजे आड सांगची शक्ति ना आशिल्ली. पण ताणे तिका म्हळे कि कोरालो आग्रह हो न्हय आशिल्लो.

चात्ताले प्रयत्नान रिश्वत दीवन चिरुताक एक फांतां आपणाले घोवाक देखचाक जालें.

लोकण्डाचे बाणियांचे पेले तांत कोरा आनी आयले तांत चिरुता—तशी तांणी दोगानीय एकमेकाक देखलें. तें दृश्य तिका सहन करचाक जाले ना. कोरा हळदुवो जाला. कोरा तिजे व्हड पोटाचेर चोयतालो तिणे देखलें. तिणें म्हळें : "दुर्भागी चेरडूं !"

चिरुताचे दोळयांसून दुखां गळताली. तिणें म्हळें : "बापाक विचारल्यार कितें सांगचें ?"

"जेयलांत आसा म्हण सांग."

"आनी खंयच्याय दीस येवंचाक जांवना की ?"

"पन्नेरा वर्सांचो खोडो."

"पन्नेरा वर्सां!"

कोरान म्हळें : "माजे मोगाचे चिरुता, तूं माजी प्रतीक्षा करन बैसचें नाको. चेरडाक वाढय. चात्ता भो बरो मनीश. तो तुका राकतलो. ताकां हांवें सग सांगलां."

"माका कोणाचेंय संरक्षण कि सहाय-हांची गरज ना. हांव अनाथ बायलांक सहाय करचे संघांत मेळन तांची सेवा करचाक वतां."

कोराचे वोण्टार हासाची रेखा फुटली. ताणे म्हळें : "तूं ह्या कामाक गेल्यार चेरडाक कोण चोयतलें? तुकाय जेयलांत बैसका जातलें. तेन्ना चेरडाक कितें जातलें?"

भो दूरा एक रुकाचे पोन्दाक बैसून चात्ता रेवांत कांय बरवन आशिल्लो. जेन्ना मातें ऊच काडून तो चोयलो तेन्ना कोरान ताका हातान निकट आपयलो.

कोराक दिसलें कि ताका एक काम करचें बाकी आसा. लोकण्डाचे बाणि-यांचे मेंदतल्यान ताणे चिरुताचो हात धरन चात्ताचे हातांत दिल्लो. जशी एक बापूस धूवेचो हात धरन घोवाचे हातांत दिता तशीच! असले रीतीर एक विवाह कर्म केन्नाय खंयींच इतःपर्यंत चमकलेना!

वापस वचे वेळार चिरुतान चात्ताक म्हळें : "माजान आनी दुसर्‍याची पत्नी जावुंक साध्य न्हय."

चात्तान कांय जाप दिल्ली ना.

"माका आपणाली भयणीवरी लेकचें."

ती एक काकुळतकायेची मागणी आशिल्ली.

चात्तान ताजीय काय जाप दिल्ली ना.

तिणे मुकार म्हळें : "एक परायाक आपणाले पत्नीक दूसर्‍याक दिवंचाक कोण अधिकार आसा?"

चात्तान ह्या प्रश्नाकय कांय जाप दिल्ली ना.

# चोवीस

चात्तान निमाण केलेल्या नव खोमटांत चिरुता वास करचाक लागली. तिजे बाळांतीयचे दीस लागी पांवताले. ती धदाक वचना. चात्ता काम करचाक वताली. मेळची मजूरी सग चिरुताक हाडून दितालो.

भाव आनी भयणि—हांणी रावचे घरा समान आशिल्लें तें घर. सकाळींचे एक मोगाचे भयणिवरी चिरुता चात्ताक कालची पेज आनी रावंदय वाढतली. सांजवेळा चात्ता कितलेंय चड जेवल्यारीय चिरुताक तृप्ति जायना आशिल्ली. लागी बैसून ती ताका खावयताली, जेवण जाल्यार भायर जगलेर मान्दुरी पातलावन फडचान खावंचाकय काडून दवरलेलें आसतलें. भायर बैसून फडचान खावंचे वेळार त्या लान खोमटाचें कवड बंद जातालें.

भायर चात्ताक नींद येवना. भीतर चिरुताय निदली आशचीना. दोगांकय चिंतन करचाक सुमार कायरीं आशिल्लीं. चात्ताचे पूरा जीवन काळांत वाढूनयेवंचो तो आवेग ती देखताली आनी समझताली. ती एक बायल! एक एक क्षण, एक एक घण्टो, एक एक दीस, एक एक हफ्तो निरंतर ती तोच आवेग देखताली आनी ती मनांत व्हड दुख पावंताली.

भायर दोवाचे थंण्ठीतं कडकडेवन खांरवचो तो बावडो कितलो दुर्भागी आसा! तो आपणालो आग्रह भायर सांगना. पण तो हृद्यांत दामून दवरचाक कष्ट पावंचे तिका दृष्टि पडता... उळदून भीतर निदायल्यार कितें? थंण्डींत बेजार जायनातिल्लें पडून निदतलो. कष्ट काडून काम करन सग हाडून माका दीवन, भायर थंण्डींत पडका जाता. . .बावडो भीतर यदून पड्चो तो दीस राखून काडता

जावयेत....नाका! नाका! ती एक परयाची पत्नी जावन गेली. दुसर्याची एकल्या-चीय बायल जावं ना !

चात्ताकय चिंतन करचाक आसा. चिरुता एकल्याची जाली. तांत ती पूराय संतोष पावन आसा. ती आपणालें जीवन त्या घोवाचेच उगडासांत काडचाक आग्रह करता जाल्यार तें भो बरेंच न्हय ?

पण कोरान चिरुताक ताका ओपसून दिल्या. तरीय तिणे म्हळ्या वरी बायलेक घोवान हात परतून दुसर्याक दीवयेत की? तिकाय कांय अभिमान आनी अधिकार ना? एक वेळे ती चात्ताक मोग करना जातली. तरीय ताणे आपणालें जीवन तिजे खातीर समर्पण केलां. अशीच जीवन समाप्त करूं.

तो जाण जावन एक खांरवलो. भीतर ती परवंता. आपण निदलींना म्हण ती जाणयतालीं. चात्तान उळदीलो : "चिरुता."

"कितें !"

"तूं आतांय निदली ना?"

"ना."

तशी हून दीर्घ श्वास सोडून दीस एदे गेले. चिरुता नुतीच बैसून खोटो विणता आसताना चात्ता तिका आवेगान पळोवन बैसतलो. ती कितें चिंतन करता जायत? तिका माजेर निपट मोग ना म्हण निश्चय कर्येत की? कितले दिसांक अशो भाऊ भयणि म्हळलो भार व्हावंतलों ?

शेतांतले वार्यांत हालचे भाताचे थांम्बाचेर दृष्टि दवरन चात्ताक चिरुताय पळोवन बैसतली. तो बावडो अशी कित्याक दीस काडता? तो कितें चिंतन करता? ही इंतजारी आनी कितले दिवस करका जातली ? चिरुताचे मनांत हें विचार सुमार फांतां येताले. ताजी इच्छा सफल जायनातिल्लें रावतली? जाल्यार, जाल्यार तें व्हड कष्टच. निकट आपोवन 'दुखेस्त जावूं नाका' म्हण सांगल्यार—

कुट्टनाट प्रदेशांत प्रोसेशनां आनी सम्मेळनां आडवारल्यांत. पण संघान त्या आडवारपाचो विरोध करचाक निर्णय घेतला. तशी मजूर संघाची लडाइ ह्या कार्याक धरन मुकार वचाक लागली.

समस्त देशाचे मजूर जागृत जाले. तांणी तीं कायरीं आपणाली जिम्मेदारी म्हण घेतलीं. तो एक अर्थ नातिल्लो गांवचो संभव जावना. राज्याचे इतिहासांत तो एक मुख्य संभव जावंचाक साध्य आसा. दामून घाललो वर्ग तांची शक्ति जमायतात.

भात पिकून रावल्ले शेतांचें बांद फुटोवन उदक चढोवन कृषि नाश करुंक वतात, दामेली शेतकारांची घरां लूट मारुंक वतात म्हळेलें खबर फुल्लेंलें. प्रतिदिन नाना प्रकाराचीं खबरां प्रचार जाता आशिल्लीं. संघान तांचे सगटांचेय खंडन केलें.

तरीय खोता वर्गाचें भय दूरा वचें न्हय आशिल्लें. तो जनवर्ग आसचे पर्यंत तांचे भय दूरा वचीना. तें भय पुलयानी मजूरी मागल्या निमित्तीं जालेलें न्हय, ताका उलोवपाची शक्ति मेळेलान प्रारंभ जालेलें न्हय. पण जेन्ना ते एकठावन आपणी मागणी जाणयली आनी जेन्ना तांचे कष्टांपासून उलोवपाक लागले तेन्ना पिळगेसून पिळगेन तांचेकडे करचे अत्याचार एक प्रेताचे रूप धरन तांचे मुकार प्रत्यक्ष जाले. चात्ता, कोरा, इट्यानी ह्या काळीं काळीं रूपांक मनीशाचे रूपान देख-चाक जाले ना. हीं सर्वय आतां जमींदार वर्गान केल्ले दुष्कर्मांची प्रेतां! सो दिसुंक लागलीं. कोटीन कोटि प्रेतां एकसान मेळचांत.

तें भय भायरसून जाल्लें न्हय. जमींदार वर्गाचे एकएकल्याचेय मनांतसून स्वयं उपजल्लें आशिल्लें. औसेप्प, कृष्ण पिळळा सर्वय मनीश न्हय? मोग करचाक आनी दया दाकोवंचाक योग्य मनीश? पापाचो भार, देवाची श्रेष्टत्तम सृष्टि मनीशाक कितले दिसांक व्हावंचाक जायत? तो मनीश तो भार दूरा विंदून फाफुण वतलो.

जमींदार शेतकार वर्ग भयान हंय–थंय धावुंक लागलो. इगर्जींत सुदीर्घ प्रार्थना शुरू जाल्यो. देवळांकडे पवित्र होमय पूजाय करुंक लागले. ताजान कम्यू-निसमासून देशाची रक्षा करचाक !

'राज्याचे धान्याची कोठी आफेत्यांत!' 'देशाची संस्कृताय नष्ट जावूंवता!' तशी नवी नवी घोशणा अयकू येवू लागली. शेतकार जमींदारांनी सरकाराक विचारलें कि ह्या आफेत्याचे घडियेर तुमी कितें करचाक वतात? मंत्र्याक तांचे मुकार मातें बावगोवंचे न्हताना दुसरें कांय करचाक ना जालें.

संघान एक व्हड प्रदर्शनाचें कार्यक्रम ठारायलें. प्रदर्शनाची तारीख समीप येता येता कुट्टनाट प्रदेशाचे न्हंयंत आनी तोडांत हत्यारबंद शिपाय भोवंचाक लागले. पण कोणेय परया भियले ना.

उगडासाचो तो दीस आयलो. त्या दिसा गूळो घालतले. उसरमेट येवंचेवरी बार्याक सरी दाटाय आयल्या वरी दिसलें. सूर्याचे किरणांक एक रंग भेद. त्या दिसा कितें कितें जातलें, कोणाक सांगचाक जायना :

चिरुताचे खोंपियेक बैसल्यार झुझपाची मंचुवां बेगीन येतात वतात दृष्टि

पडतात. गुर्बीण मास जालेली चिरुता–तिजें रगतय खळवळेवंचाक लागलें. त्या दिसाचे कार्यक्रमांत भाग घेवंचाक जालें जाल्यार!

कोरा भायर आशिल्लो जाल्यार झेंण्डो घेवन तोच मुकार मुकार वता आशिल्लो. सर्व आवाजाचेय ऊंच ताजो आवाज प्रतिध्वनीत जाता आशिल्लो. ताचे मागशीं अनेक काळीं काळीं स्वरुपां दृष्टि पडता आशिल्लीं.

लोकण्डाचे बाणियांचे भीतर आसचो कोरा हें सग जाण जातले की? ताचें संघ कितलें मात्र वाढलां! ताणें भायर येवूं पर्यंत हें कसले स्थितींत पांवतलें? ज्या संघाचे लक्ष्य पूर्ण करचे खातीर चिरुताक मरान त्याग करचाक तो तय्यार जालो, त्या संघाक समर्पण करचाक एक व्हड मोलाची वस्तु तिजेकडे ओपसून गेला. तें आतांय तिजे गर्भांत पडून तडतडता.

चात्ता त्या वेळारांय चिंतेत बुडून बैसल्लो कि ताका त्या दिसाचे गोन्दोळा संबधी कांय कळना म्हळेल्या वरी. झूझाचीं ताखां ताणें पळयलीं ना वरी, आनी दूरासून अयकूक पडचे मजूरांचो 'जयघोष' ताका आयकचाक येना म्हण लेकचे वरी. तोवय कष्ट भोगचो पुलया आसा. ताजे बापा, आब आनी पणजे–हांणी अन्याय सहन केल्यात. तांचें रगत कितलें थंण्ड आशिल्लें! प्रयत्नशील मजूरवर्ग आपणालो जीव दिवंचे समरांत मेळन आशिल्या वेळार तो थांगा बैसून कितें चिंतन करता? एक बायले संबधीं?

मातें बांवगोवन चुरंबुटेवन बैसल्या त्या चात्ता खातीर तिका लज्जा दिसली. तणांचे अंकुरांक सरी जागोवन शक्ति दिवंचाक योग्य आशिल्ली 'घोषणा' प्रतिध्वनीत जाता आनी पूर्ण गुर्बीण चिरुताचें रगत सरी उण्डाळता, तेन्ना एक पुरुष कशी मातें बावगोवन तेजोमन्द, निश्चेष्ट आनी करगुंटळो जावन बैसला. तशी शेळ निश्याद्वरी, आळगो बैसल्याची बायल जावुंक जाय खंय! तशी आशिल्या एक दादल्याचे हातांत तिका दिल्या.

एक आंबडप आम्बडून "उसळ रे हांगासून सूण्या जालल्या" म्हण सांगचें अशी तिका दिसलें. असले दादल्या संग कशी दोस काडतली? ताका आपणाचो 'हक' हाजेपासून कळाकळ आसा? एक बायल खंयचे विश्वासाचेर ताचे संरक्षणेंत रावतली? तिका कोणेय घरन व्हेल्यार ताणें आपणाचें एक लान वोट सरी चल्लोवना. काम केल्यार मजूरी घेवना. भियेतलो. उपाशी पडुंक जाय. हो कसली सृष्टि? ह्रोच माजे चेरडाक पालन करतलो!

चिरुतान विचारलें: "आज प्रदर्शनाचे मैदानांत वचनाकी?" "ना." हीच ताची जाप. तिणे अभिपिराय सांगळो. "पण सग दादलेय गेल्यात." "व्हय,

गेल्यात. माका काम आसा. मरणाचें भय आसा म्हण न्हय. माका मरचेंच चड पसंद आसा. पण माजेर एक चेरडाक पालन करची जिम्मेदारी आसा. ताजे आवसूचेंय संरक्षण करचें आसा."

"तीं उतरां तिजे हृद्यांत थोंबलीं. तिका सांगचाक कांय ना जालें. ताणे म्हळें : "तें चेरडूं संघाक एक अपरूब संपत्ति आसतली. हांवें मेल्यांर तेंवंय मरतलें." त्या तर्कांत चिरुताक बावगूका जालें.

त्या दिसा दनपार परतचाक चिरुताक बाळां जावंची दुकी शुरु जाली. लागीचे घरांकडे कोणेय ना आशिल्लें. तिजे वेतेचें परवेंवप काकुळतकायेचें रण्णें जालें. वेळवता वता रण्णेय व्हडान व्हडान जालें.

चात्ता दुखाचे मनान भायर लातीयो घालतालो. किते करचें म्हण ताका कळना. तांत मदें तो चिरुताक आपयतालो. उलो आयकचेंच तिका कठीन दिसतालें. तरीय चात्ताचे मनःशांतीक ती 'ॐ' करताली.

सृष्टिची वेदना! ती कितली भयंकारी! चिरुतान हें आठयल्लें सरी ना,. ती दृढतकायेन सर्वय सहन करताली

चात्ताक म्हस्त फातां भीतर वचाक दिसलें, पण धैर्य ना. तो केन्ना मरान ह्या दुख–दर्दाचें रण्णे आयकून भायर रावतलो!

रण्णे ल्हव ल्हव जावुंक लागलें. आनी मागीर ल्लव ल्हव बंद जालें. उसरमेटोन श्वास सोडची आवाजय बंद. चात्तान तिका आपयली. जाप ना. चात्ता भयान भीतर गेलो.

थांगा प्रदर्शनाचे मैदानांत व्हड गोन्दोळाची बोबाट आनी निरंतर गोली मारची आवाज आयकुक पडताली. थांगा सृष्टीची. . .न्हय. . . .न्हय नाशाची वेतेची दुकी आशिल्ली!

दारुव फुटची आवाज कितली की व्हड जाताली तुतलीच व्हड आवाजान रडचे एक चेरडाचो जल्म ह्या भुंयचेर जालो. अशी दिसतालें. ताणे तें लान मातें भूंयक लागानातिल्लें धरलें. ते चेरडूं बिसाटून, पिडपिडून भायर आयलें. भूंयचेर पडत सून तें कंडकडुंक आनी रडुंक लागलें.

चेरडाचे रण्याक कांय अर्थ आसा. तें संसाराक कळयता कि हांव अनंत शक्तीचो समाहार आसा.

# पंचेवीस

प्रदर्शनाचे मैदानात गूळो घालेल्यान रगताच्यो न्हंयो व्हावूं लागल्यो. अनेक अनेक लोक थांगा मरन पळळे. तो नरहत्याकांड देखून समाजाचें अंतःकरण मुयेलें. लागीचे घडियेक, तें जावुंक पाडना आशिल्लें म्हण सांगचाक सगटांक दिसलें.

ह्याका जाप सांगची जबाबदारी आसा म्हण मंत्रीमंडलीकय दिसचाक लागलें. साबार श्रम पावल्यारीय नियंत्रण करचाक साध्य जायनातिल्लें एक दिसप. देश ह्याका एक जाप मागतलें. जवाब जरूर दीवंका जातली. जनावरांचे. शिकारा समान ह्या नरहत्याकांडा पासून पयलें प्रश्न हें आशिल्लें कि मरण पाविल्लो लोक कितलो? म्हस्त फांतांगूळो मारलो म्हणूय, जायतो लोक थंय जमल्लो म्हणूय सरकारान जवाब दिल्ली. लागीचो प्रश्न "कित्याक गूळो घालो?" गूळो घालचाक जाल्ली परिस्थिती, गूळो घालनातिल्लें काम चलौंचाक साध्य आशिल्लें कि ना, मरवे पाविल्लें कित्याक मरचाक तयार जाले, अशी सर्वय भागांसून प्रश्न उदेलीं. सरकाराक मदद दितले म्हण प्रतीक्षा करचे स्थलार थाकूनूय फक जावन प्रश्न उदेलीं.

मरण पाविल्ले सर्वय मनीशच आशिल्लें, न्हय? मनीशानींच ती रगताची न्हंय देखली. पण स्वयं आपणाले स्वार्थां खातीर करचें कितलेय बलवंत प्रयत्नाकय मनीश वर्णाचे भावनेक नाश करचाक साध्य न्हय. एक समाजीक जीवना सून मनीशाक आयचे मनीशपणाचें जीवन प्राप्त जालां. मनीश आपणान स्वयं रचिल्ले नेमाक ताबेदार जावन जीवन करता. हांचेंय कारण दुसरें कांय न्हय! मनीश स्वार्थ लाभा खातीर कोटि जनांची हत्या करचाक दबाव करना. पण एकसान अनेक जनाचे

हत्याकांडाचें दृश्य ताका सहन करचाक जायना. मनीश गुणवंत प्राणी आसा. म्हळेंलें खरेंच. मनीशाचे स्वभावाचे ह्या बरेपणावर विश्वास करयेत.

मंत्रिमंडलीन तांचे मुकार केलेल्या सुमार प्रश्नांक जवाब म्हण दिसचे वरी कांय जाप दिल्ली. मजूरांचे बरेपण राखचाक ती सदा उत्सुक आयतली. पण हिंसेचो मार्ग स्वीकार करून मुख्यजीवन कुट्टनाटचे आनी साधारण जीवन देशाचे जनाचें शांत जीवन, मूळ सयत हुमाटून दूरा उडकावंचाक करचे संघाचे काम पळवन मंत्रिमंडलीक नुतो वैसुक साध्य न्हय. आदि आदि खरें उत्तर दिवंचाक जायना-तिलयान दाखल्यानी सदीवत जीवन सांगची कायरीं!

पण त्या उत्तरांनी कोणाक संतोष जालो ना. कायरीं निपोवन दवरचे प्रयत्न आनी जाप दिवंचाक जायनातिल्ली प्रवृति—दोनीय हांत दृष्टी पडतालीं. मंत्रि-मंडलीची अशक्तताय न्हय, तशी मान्यता दिवंचाक साधारण जनां तय्यार ना. मंत्रिमंडलीन हो एक अपराध केल्ला आसा. म्हण जनांनी सांगयेत म्हळेली स्थिती आयली.

शेतकार, व्हड व्हड जमींदार आनी तांची समाचार पत्रां—हांणी त्या गडणेक रंग चढोवन प्रचार दिल्लो. मेल्लेल्या परया आनी पुलया हांचेर व्हड काकुळतकाय दाखयली. तांचे तरपेन इगरजांत प्रार्थना चलयली. संघाचे नेतृत्वान ताजी जबाब-दारी घेवंक जाय म्हण तांणी तर्क केलो. त्या तर्कतल्यान स्वयं वांचचाक सरकारान स्वयं प्रयत्न शुरू केलो. संघाचे नेता लोकांत बाकी भायर आशिल्यांक कैद करचाक हुकुम घाडलो. एदे जनांक कैद केले.

हाजान देशाचे सर्वय मजूर एकसान जागे जाले. यथार्थ अपराध्यांक दंड दीवुंक जाय म्हण तांणी मागणी केली. कुट्टनाटचे रक्त साक्षीगरांचे रगत फारीक पण मागून खवदळेलें

मंत्रिमंडली आनी देशाचे खोत—जमींदार वर्गाक स्टेट कांग्रेसाचें गावंचे शाखेचे मददाची गरज पडली. पूराय देशांत एक व्हड प्रचार शुरू जालो.

कुट्टनाटचे लान शेतकारान दिगंताक भेतचो गूळो फुटचो शब्द आयकला. प्रदर्शनाचे शब्दांत तांचे मरण पीडेची बोब न्हय, पण वर्गबोधाचें गर्जन तांणी आय-कलां. दुसरे दिसा तांत सुमार जनांनी रगता न्हंयो व्हळतात देखल्यातीय. तें दृश्य तांकां सहन करचाक जायना.

देशाचे आतांचे स्थीतीपासून चर्चा करचाक कुट्टनाटचे प्रदेशाचे समितीची एक साधारण बसका केली. तांत सग लान शेतकारांनीय भाग घेवंचाक निर्णय

काळ्ळो. तांकां भाग घेवनातिल्लें रावचाक जायना.

कुट्टनाटचो एक प्रमुख जमींदार ताजो अध्यक्ष जालो. तिरंगाचे झेंड्यानी शिंगारलेल्या कारव्यांचे आकाराचीं लान लान मंचवांचे मिरवणुकेत स्वागत करन अध्यक्षाक सम्मेळन जाग्यार पावयलो. प्रदर्शनाचे मैदानाचे एक तांत व्हावचे न्हंयत अहिंसाचे आनी प्रेमाचे महत्व वर्णन करचे 'नौका गीत' गायन करन मंचुवां मुकार वतासताना ते झेंडे कडकडेवन हालनातिल्लें रावल्यात सी दिसताले. मंचवांचें मेटांचेर रावल्या शेतकार, खोताक दिसलें कि त्या मंचुवां खेळाक उत्साह नुपुरो; मंचूव वेगोन धावना आनी वोट्टुर? मेळन उन्मेषाचो ऊणाव आसा. तांणी बळान माढोवन ताळ द्रुतगतींन केलो. पण वोढतल्यांक अनुकरण करचाक जाले ना. ताळ वोट्टु चूकलो. वोल्ले एकमेकाक आडळे.

सुमार जनांनी त्या स्वतंत्रता-दिवसाचे खुशाली पासून उगडास केलो. त्या दिसा कसलो उत्साह आशिल्लो! ताळाक अनुसरून मंचुवां नाचून मुकार वतालीं! त्या दिसा कुट्टनाटचे घटमूट पुलया आनी परया दोगानीय मंचुवां ताळ्ळीं. गीत म्हळ्ळे; आता ते खंय? त्या बरे, काकुळतकायेंच विश्वास योग्य काळे भावण्डाक जीवितांत सून कातरून दूरा उडव्हायल्यावर दिसलें. तो वर्ग एकसान समाजीक जीवनांसून भायर दूरा गेल्लो! . . . .शरीराचें एक अंग कातरून उडकायल्लें जीवन-तें सहन करचाक जाले ना.

हंयथंय भूंयंक लागून पडलेलीं खोमटां निर्जीव आशिल्लीं; शून्य आशिल्लीं; सगटय तो घोषयात्रा देखून भियेवन निपलें.

पुरया आनी परया हे नातिल्लें कुट्नाटचें जीवन कसलें! तें कशी आसतलें हें चिंतन करन जनां स्तब्ध जालें.

स्टैट कांग्रेसाचेन भूतकालाक केल्लेले बरेपणाचे महत्वापासून वर्णन करचे एक गीतां लागून सम्मेळनाचें कार्यक्रम शुरू जालें. अध्यक्षान शुरुवेचें भाषण केलें. कांग्रेसान एकाधिपत्याचे आड केल्लेले झूझाच्यो पस्यो काणियो-हांचे पासून. उपरांतेचो भाषण करवो सडसडीच सुमार कायरीं उलयलो. स्टैट कांग्रेसाचें लक्ष्य कितें? हाचे-पासून ताचे भाषण आशिल्लें म्हण दिसता. सभेंत मुकार बैसल्ले जनांनी खूब ताळयो मारल्यो.

एक दूसर्या उलोवण्यान-तो प्रमुख शेतकार आशिल्लो-मंत्रिमंडली तिरुवितांकूर राज्याचे कसले कसले कार्यांची उन्नति करचे खातीर प्रयत्न करतली-हाचे

पासून भाषण केलें. एक म्हांतर्यान सभेंत उठावन विचारलें "इत:पर्यंत कितें केलां?"

हें प्रश्न आयकतल्यांक भो रसपतीचें दिसलें. सभेंत एक नवो उत्साह आयलो. तेन्ना एकएकल्याकय सुमार प्रश्नां करचीं आशिल्लीं. राष्ट्राचे जाणवीकायांसून जलमलीं न्हय, स्टेट कांग्रेसाचेर आशिल्या भक्तिचे ऊणावां सून आयल्लीं न्हंय; विदेशी आदर्शांक परिहास करचे मार्क्सिसमाचे प्रेरणेसून उपजल्लींय न्हंय. अनभवा-सून! सामान्य बुद्धींसून उपजल्लीं आशिल्लीं!

अध्यक्षान जनांक शांत जावन बैसचाक सांगलें. सभा शांत जाली. भाषण करण्यान कुट्टनाटचे पुलया आनी परया हांचे मदें अनेक शतकांनी चलून येवंचे आत्मबंधनाचें वर्णन केलें. पुलया कितलो चांग आनी विश्वासी आशिल्लो. फलाचेर इच्छा देवरनातिल्लें नुतोच आपणाले कर्म करतालो. हीं कायरींय म्हणतां म्हणतां व्हड उमाळयान ताणे म्हळें :

"शांत रात्रीचे स्वच्छ मळबाक चोयताना माका अशी दिसलें आसा कि थंय दृष्टि पडचीं अनंत कोटि नक्षत्रां ह्या कुट्टनाटचे पुलया आनी परया—हांचे खोपियांत पडून कोणनेणता प्रयाण जालेले कर्मयोग्यांचो आत्मो आसात. हां, हांत कांय अजाप ना कि फलाचेर इच्छा दवरनातिल्लें आपणालें कर्तव्य करचाक साध्य आशिल्ले इतले चड कर्मयोग्यांक जल्म दिल्लेले ह्या देशाकच गीतेची 'आवय' जावंचे गौरव प्राप्त जालां.

सभेंत मुकार बैसल्यांनी पुमः ताळयो वाजल्यो.

भाषण करपी नवीन काळाचे संदर्भार आयलो. हो संदर्भ आफल्याचो म्हण ताका कळतालें, त्या बुद्धवंतान जागृतायेन मुकार उलोवंचाक ठारायलें. थंय मेळळेल्यांत चारीक तिनोय लान शेतकार आशिल्ले. तांका ताणे मनान म्हळें :

"त्यो पुण्यात्मो पाक्कनार* आनी वळळुवनार* हांची चेरडुवां त्या पवित्र

---

* हे दोगंय परया जातीचे सिद्धपुरुष आशिल्लें. वळळुवनार आजीय "वायिल्ला कुन्निलप्पन"नांवार (तोण्ड नातिल्लो, डोंगराचो देव) दक्षिण मलबाराचे एक देवळांत पूजून येतात. हे दोगंय आपणाले आवय—बापाचे बारा चेरड्वांत सगटां पाशीय सान. तोण्ड आशिल्या एक एक चेरडाकय बापान जल्माकच दूरा खंय व्हरन सोडले. तांकां दूसरे जातीचे लोकांनी काडून वाढयले. पाक्कनार एक परया घराकच वाढलो. बारावें चेरडू जावंचाक ताका आपणालागीच दवरचे इच्छेन, विचारचाक तिणें म्हळें कि ताका तोण्डना. तो 'मूक'च जालो. कणियांत सांगलां कि बापाचे मरणानंतर बाराय पूत श्राद्ध करचाक प्रतिवर्षाक मेळताले आनी एक एकलोय यथाशक्ति भोजाक वस्तु हाडतालो.

तत्वशास्त्राक सोडून बैसल्यांत. ही व्हड दुखाची गजाल! आज कितें चलता? कर्तव्याचें पालन करचाक प्रतिफल मागतात. मात्र न्हय, हिशोब करतात आनी दुसर्यांकय कष्ट दितात. ह्या वर्गान, जो केरळचे संस्कृतायेचो नमूनो आसा, आपणालें तत्वशास्त्र सोडून उडकायलां.

कोणेय ताका आड उलयलो ना. ताणे लान शेतकारांचे दुखःस्थितीचे वर्णन करचाक शुरू केलें. तांचे कष्ट, तांचे रीणाचो भार आदि सुमार कार्यापासून ताका उलोवंचाक आशिल्लें.

ताणे सांगलें : "स्टैट कांग्रेसान त्या शेतकारांची स्थीती सुधारुंक उत्तर दिल्लेल्लें. हें कार्य सफल करचें ताचें लक्ष्य. देशाची संपत्ति तेच म्हण स्टैट कांग्रेस मानता." त्या लान शेतकारां बावडे रीण वाढून, रीणांत बुडून बरोबर शेतकारी करचाक जायनातिल्लें कष्ट भोगतात. अर्द पोट जेवतात. दिसानदीस मजूरी चढ जाय म्हण मागून जोव गोवंट्या काडतात. तांकां केवल पळवन रावचें स्टैट कांग्रेसाक साध्य न्हय. ताजो लगाय. . . ."

तें वाक्य पुरतें करचे फूडेच एकल्यान उठावन म्हळें : "त्या खातीर अध्यक्ष आनी मुकार बैसल्ले जमींदार जनां हांणी तांचें भूंयकर पूराय माप केल्यार जालें."

भाषण करपी स्तब्ध जालो. ताका लागून सास सवाल, निर्देश, हर्षध्वनी—तशी सभेत आवाज वाढली. अनुशासन म्हळेले रेवेंचे बांदार त्या विकाराचे प्रवाहाक आड राबोवंचाक अध्यक्षा निमित्तीं जाले ना. भाषण करपी व्यक्तिमत्वाचे धनाचे पवित्रतेची स्तुति करचाक व्यर्थ प्रयत्न करतालो. अकस्मात सभेंत सून एक मनीश उठावन स्टेजार आयलो. ताणे व्हडान म्हळें :

"प्रदर्शनाचे मैदानांत गूळो लागून मेल्लेल्याकंय आमकांय काय अंतर ना. ते बावडे दुर्बळ आनी शोषित आसात. तांचे रगत आमचे करान सोसून काडोवन एदे मनोश तें पीवन थोर जातात. ताका लागून आमचें रगतय सोसून पितात. आमका दिवंचे प्रतिफल एक तराची मिथ्या मान्यता आसा. त्या सोसचे वर्गाचे संघटना जावन स्टैट कांग्रेसाक आनी रावची गरज ना."

हो राजद्रोह जावंचाक सोडयेत व्हय? अध्यक्षान सभा विसर्जन केली म्हण प्रगट केलें. पण त्या मनीशान आपणलें भाषण बंद केलें ना. थंय मेळळेलें जनां ताचे भाषण आयकुंक उत्सुक आशिल्लें.

अध्यक्ष, मुकार बैसले धा—पन्नेरा मनीश, चार सन्यासी आनी तीन पादरी

सग उठोवन गेले. सभेचो कार्यक्रम मागीरीय चल्लो. प्रदर्शनाचे मैदानात जाल्लेल्या हत्याकांडाचे अपराध्यांक दण्ड दीवुंक जाय म्हणचो प्रमेयूय पास करन घेतलो.

स्टँट कांग्रेसाच्यो गावंच्यो सर्वय शाखोय साधारण जनांचे अधिकारांत आयल्यो. मंत्रिमंडली फूटली. मात्र न्हय, प्रदर्शनाचे हत्यापातकींचेर उगटे दफ्तरांत केस चलोवुंक जाय म्हणून जालें.

# सवीस

भायर घाल्ले त्या वर्गाक तुतले वेगीन समाजाचे व्यवस्थितींत सून भायर घालचाक जावचें न्हय. जीवनाचे सग भागांतय त्या वर्गांचीं बलवंत सोपूर मूळां फळंदळेत्न लागून आसात. त्या वर्गांन आपणालें तात्पर्य राखचाक ही समाजीक व्यवस्था मन दवरन निर्माण करन हाळ्ळी. ती व्यवस्था पुसून उडकावंचाक तुतलेंच सोंपें न्हय आशिल्लें.

पण देशाचे साधारण जीवनाक सदावत जावन एक परिवर्तन आयलें. साधारण जनां आनी तांची मागणी हांकां स्वीकार करची गरज पडली. खोतान आनी जमींदारान सांगचें सर्वंय स्वीकार करचाक साधारण जनां तयार न्हय जालें.

एक स्पष्ट वर्ग—संघर्षूंच घडून आयलो. तो, वर्गहीन समाजाचे निर्माणाक लक्ष्य दवरन मुकार वता, मुकार व्हरतात. तो त्या अंत्य क्रांतीचे निकट पांवता.

कांय वर्सां भोगलीं. चिरुताचे खोमटांत चात्तान ऊणे खाल्यार तें लान भुरगें चोंचोर भासेन म्हणतलें : "माम खायना कित्याक? अम्मी मामाक मोग करनात ?"

चात्ता जाप दीना जाल्यार ताका दूसरें कारण कांय ना आशिल्लें. ताणे कुसराकुळ्ळी केल्लेल्याक ताका उलयल्यार, ताका कारण तेंच. जाप दिवंचाक जायनातिल्लीं ताचीं अनेक प्रश्नांक चात्तान जाप दिल्ली ना जाल्यारीय ती फरि-याद तो करतालो.

हें त्या भुरग्याचे मात्यां भीतर कशी चडलें, कोण जाण! कशी की तो जाण जालो. कशी की तें ताचे मनांत प्रवर्तन करता. चिरुताचान ताजे आड रावचाक जायना आशिल्लें. त्या लान भुरग्यान सांगचें खरें जायत की? अशी तिका दुबाव

दिसलो. खरें जावयेत परंतु त्या रिश्त्याक हाजा चड स्नेह दाकोवन घेवन वचप कशी ?

चात्ता तिजो संरक्षका आसा. देव आसा. तशी एक मनीश तिजे जीवनांत आयल्लो ना आशिल्लो जाल्यार तीवय आनी तिजो भुरगोय कशी जीवन काडतलीं आशिल्लीं? त्या भुरग्याक चात्ता, बापाय, मामूय सर्वय जावन आसा. चात्तानच ताका पयले घेतल्लो. चेरडाक आपणाले जीवनांत सर्वप्रथम उगडास करचाक चात्ता शिवाय दुसरो कोण आसा?

खरेंच, चात्ता त्या भुरग्या खातीर जीवन करता. सर्वोपरी पूराय जीवन आशेन राखून बैसप, क्षमा नाश जायनातिल्लें रावची ती प्रतीक्षा—तें तिजान कशी विसरचाक जातलें ?

चिरुताचे मनांत चात्ताचे व्हड उपकार—स्मरण आसा. चात्ताचे शिवाय तिका राखचाक दुसरो कोण आसा ? चात्ता स्वल्प कमजोर, घराक येवंचाक चिके तोडोव जाल्यार तिका हुसको. चात्ता स्वस्थ आसचाकच ती जोवन करता. चात्ताक तिजेर आसचे मोगाचेर तिका पूर्ण विश्वास आसा.

पण तो मोग परतून दिवंचाक जायना मू म्हण ती जाण. परतून दिवंचाक जाता जाल्यार!—तें ह्या जलमांत साध्य जायत की ?

ह्या जीणांचें अंत कशी आसतलें म्हण चिरुतान चिंतन केलां. आनी पांच वर्सां उपरांत वेळुत्ता—भुरग्याचें नांव—चो बापा परतून येवंचे वेळार, तेन्नाच वेळुत्तान मामांक सोडना जावयेत. परंतु माम वेळुत्ताचे घरण्यांत रावतलो! तो घरणें बिसाटून वतलो. उपरांत ह्या घरकारांक आनी चात्ताक कसलो रिश्तो उरतलो?

चात्ताचें समस्त जीवन उदकांतले रेखा समान! ताणे कांय केलं ना स्वंय ताजे जीवनांत कोण ना खंय.

समस्त जीवन तिकाय तिजे भुरग्याकय म्हण मानचे एकल्याचे जीवन शून्य जावुंक दिवंचे ठीक आसतलें की ?

कोरा परतून आयल्यार तिका दुसरीय स्वीकार करतलो ? ती ताका राखन बैसल्ली म्हळचार तो विश्वास करतलो ?

तिणे एक उत्तर सांगल्यार चात्ताचे निराश जीवनाचे स्वभाव एकच मिनट भीतर बदलतलो. सुमार फांतां तें एक उत्तर सांगचाक ती तयार जाली. पण तो शब्द तिजे तोण्डासून भायर आयलो ना. पाटी घालता गेली.

एक दोस चांत्तान चिरुताक म्हळें : "हांवें एक कायरीं ठारायल्यांत, चिरुते!

चात्तान कांय ठारायल्यां खंय. चिरुता भियेली. तें कितें म्हण विचारचाक तिजी जीभ उबी जाली ना.

चात्तान म्हळें : "आतां तर चेरडाक चार पांच वर्सां जालीं. तुका काम करचाकय जाता. दोन तीन वर्सां भीतर कोराय जेयलांसून मुक्त जावन येतलो. हांवें संघा खातीर कांय केलें ना."

कितें जाप दिवंचें म्हण चिरुताक कळ्ळें ना. ती नुतो रावली.

तें एक उत्तर सांगल्यार एकवेळा चात्ता आपणालो निर्णय परतीतलो? व्हय, जीवनांत स्वल्प कालाक सुख भोगून–हाय! तेन्नाय चिरुताक तें उत्तर सांगचाक जीब हाल्ली ना. एकवेळा चात्तान त्या उत्तराची आशा केल्ली जायत.

चात्तान वेळुत्ताकय आपणालो निर्णय आयकयलो. चेड्यान म्हळें : "माम वता जाल्यार माकाय व्हरुंक जाय." "चोवया" चिरुतान जाप दिल्ली. "चोवया म्हण सांगता कित्याक," चात्तान विचारले. "चोव्या म्हण मात्र त्या वेळाय तिणे जाप दिल्ली. तें सांगतासताना तिजे वोण्टाचेर लान मन्दहास खेळता सरी चात्ताक दिसलें.

त्या राती त्या खोंपियेचे भूंयचेरसून *चक्रगीताचीं कांय चरणां गायन करची आवाज भायरचे विशाल शेतांत पातळेली. निराश प्रेमीचे हर्दें आशेचें एक भो लान ह्न किरण लागून फूलता. चात्ताचे मनांत आशा जागली.

पण त्या खोंपिया भीतर एक वायलेचे हर्दें अनिश्चित अवस्थेंत पडून लासता. त्या काळकाचे लागी ती नुतोच कितलीं कितलीं प्रश्नां करताली?

उपरांतेंय असलेच अनिश्चित अवस्थेंत तिजे दीसवचाक लागले.

कुट्टनाटचें शेत–मजूर संघ आनी प्रदेशाचें स्टट कांग्रेस हांणी मेळन एक विशाल कार्यक्रम तयार केलो. आनी सर्व लोकांचेय मुकार एक मर्यादेचो कार्यक्रम दवरलो. ताचे प्रमाणी काम शुरू करचे दीसा थंयसून वचांक चात्तान चिरुता लागी अनुमती मागली. तिका अनुमती दिवंचाक बळ नुपूरो. त्या निमाणेच्या झूझांत पुणीय भाग घेवंचाक ताका अनुमती दिवंचें–ही ताजी मांगणी. ती मागणी सफल करचाक चिरुताक अडचण ना. पण....पण....

आपण्याकय व्हरका म्हण सांगून वेळुत्ता मामाक पोटलून घरन रडूंक लागलो. चात्तान ताका भरन काडून दुखां गळोवन ताजे तोण्डाक उमो दिल्ल्यो.

* चक्र चलोवन शेतांत सून उदक भायर घालचे वेळार गायचो गींत.

उपरांत ताका फक करुन खाल रावोवन वेळुत्ताचें व्हड बोब घालचें रण्णें सरी आयकनातिल्लें गेलो.

स्वल्प दूरा वचाक चेड्याचें रण्णे आयकचाक पडता सी चात्ताक दिसलें. परंतु तो धूवन सरी चोयलो ना.

चात्ता वेगीन संघाचे शिबिरांत गेलो. खाड वाढयल्ल्या एक मनीशाक ताजी भेट जाली. एक मिनिटेक त्या मनीशाक तो वळकलोना. खाडां भीतर सून फूडे परिचय आशिल्ले एक मनीशाचो हास ताणे प्रत्यक्ष आयकलो.

तो पारकी कोरा आशिल्लो. कितें करचें, कितें सांगचें म्हण कळनातिल्लें चात्ता फातरा मूर्ती वरी रावलो. ताका म्हस्त कायरीं सांगचाक आसात! कोराक कांय संभ्रम ना. कोरान विचारलें: "माजो भुरगो कशी आसा, चात्ता?" चात्ताक दिसलें–"हो म्हणता माजो भुरगो कशी आसा म्हण!" पण ताका जाप दिल्ली: "बरो आसा."

"चिरुता ?"

"बरीं आसा."

"तुका कितलीं भुरगीं आसात ?"

"एक सरी ना, एक सरी ना." चात्ताचे दोळे भरले. "तूं रडता कित्याक रे? कितें जालें ?"

मागशीं सून "मामा, मामा उळदूचो आवाज आयकू आली. चात्ता दोळे विस्कळावन चोयलो. त्या भीतर वेळुत्ता हँजे कडे येवन ताजे अण्टीर चढलो. चात्तान ताका हातां काडलो. वेळुत्ता आपणाचे मामाचे खान्यार मातें बवरन शांत जालो

कोरान चिरुताक देखली आनी चिरुतान कोराकय. दोगंय एकमेकाक वळकली. स्वल्प मिनिटांक थंय निःशब्द. चिरुताक दुबाव जालो कि घोव तिका वळकलो कि ना म्हण. कोराक दुबाव जालो कि चिरुता ताका वळकली कि ना म्हण. दोगांकय उलोवंचाक जायना जालें. चिरुताक जायतें सांगचाक आसा. पण तोण्डासून एक उत्तर सरी भायर फूटना. "तुका कितलीं भुरगीं आसात चात्ता?" म्हण कोरा विचारतालो तिणे आयकलां. कितें सांगचें. म्हण कळनातिल्लें कोराय रावला.

चात्तान म्हळें: "माजे भाच्या, आपणाले वापस पळय रे." वेळुत्ता कोराक चोयलो. तोच जेयलां गेल्ललो ताजो जाप.!

कोरान हात नीट केले. वेळुत्ता त्या हातांचे मदेंचान ताज्या हर्दयार सरलो, ना, चात्तान ताका वोपसून दिल्लो.

केदप येनातिल्लें एक धैर्य चात्ताक आयलें. ताणे चिरुताचो हाथ धरन कोराचे हातांत दिल्लो. असाधारण दादलपणासून आनी सत्यांसून प्रेरणा पावन ताणे म्हळें :

"आमी भाऊ आनी भयण आशिल्लीं."

चिरुता लकून–चल्लून बेजार जावन वचून कोराचे हर्दयार पळळी.

पेळतांत घोषणा आयकुक पडलीं.

"इन्कलाब जिन्दाबाद !"

"मजूर संघ जिन्दाबाद !

वेळुत्तान मूष्ट बांदून आपणालो लान हाथ ऊंच काडून घाषणा केली.

"शेत कोणाचें कोस्तेवप्यांचें."

